BIMB/MAY, 2023/Vol.22/ISSUE5/Panaji-Goa. REGISTERED GOA/01/2021/2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

# बिम्ब

मासिक

माय 2023

घटक राज्य दीस विशेश

## पन्नाशींतल्या सीएम कडल्यान अपेक्षा गोंयच्या फुडाराचे नदरेन..!

मोल : ₹50/-

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

शीर्शकथा :

पन्नाशींतल्या सीएम कडल्यान अपेक्षा गोंयच्या फुडाराचे नदरेन..!

– दिलीप बोरकार




**BANK DETAILS :**
**Bimb Monthly Publication**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793


ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात.
संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.


वर्स 22 : अंक 5
माय 2023
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**अंक सजावट**
गिरीश नंदा बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर :**
वर्सुकी वर्गणई 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर 2000 रु.





**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji - Goa 403001
Tel.: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in
कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# घटकराज्याचो अर्थ समजून घेवया!

माय म्हयनो दर वर्सा येवपाचो तो येताच. वर्साच्या बारा म्हयन्यांतलो तोय एक म्हयनो म्हणटकच तांतूंत आनी कसली नविदाद? असो प्रस्न कांय लोकांक पडूं येता. हो म्हयनो गिमाचो म्हणटकच आमकां गोंयकारांक तो मातसो घाम काडटा हेंय खरें. अशें आसुनय गोंयचें सैमूच इतलें सुंदर, तें हो गिमाळो सोंसपाक आपसूक वातावरण तयार करता. त्या वातावरणा कडेन जर खऱ्या गोंयकारान जुळोवन घेतलें आनी आपलें पारंपारीक गोंयकारपणाचें दायज ह्या म्हयन्यांत थोडेंभोव जरी आपणावपाचो यत्न केलो जाल्यार हो गिमाळो तसो उत्सवी करूं येता.

गोंयकार कितें आनी गोंयां भायले कितें, सूर्य कोणा मदीं फरक करी ना. पूण उत्तर आनी दक्षिण भारतांतले लोक जे गोंयांत पर्यटक म्हूण येतात वा राबितो करून रावल्यात तांच्या मूळ वाठारांतलो तांणी अणभवल्लो गिमाळो आनी गरमेचो उंचांक पळयत जाल्यार तांचे पासत गोंयचो गिमाळो आनी गरमी सुखदेणीच म्हणूं येता. जर तांणी गिमाळ्यांतलो गोंयचो पारंपारीक उत्सव आपणायलो वा अणभव घेतलो जाल्यार तांका माय म्हयनो हो खऱ्यानीच उत्सवी दिसूं येता!

गोंयकारां पासत एका काळार हो माया म्हयनो म्हळ्यार उत्सवाचो म्हयनो आशिल्ल्यान सगळ्यांकूच जाय जाय सो दिसतालो. ह्या म्हयन्याक गोंयचे दोंगर गाळी काण्णा चुन्नानी भरताल्यो. काजू,पणस, आंबे, जांबळां ह्या सारख्या फळांचो घमघम गोंयभर वाऱ्याचेर बसून भोंवतालो. फळावळींची ही रुखावळ घसघसून भरताली आनी दरेक गोंयकार तृप्त जायसर ह्या फळांचो आस्वाद घेतालो. आयज बाजारांत विक्रेक येवपी धाडावन बडोवन पिकयल्ली, सामान्य मनशाक परवडना अशी ती म्हारगेली फळावळ न्हय. सकाळ फुडें खंयच्याय आंब्या रुखा मुळांत पासय मारीत जाल्यार कोणाकूय धा बारा आंबे, तेय बी झाडपिके सहज मेळटाले. खंयचेय जांबळीचेर चडून पोट तडसऽसर जांबळां भकपाक मेळटालीं. दोंगराचेर वचून काण्णां, चुन्नांनी दोणे वा व्होंटयो भरुन हाडूंक मेळटाल्यो. दोंगरार वचून कोणाले भाटयेर काजू मुट्टे वळपाक मजत केली जाल्यार निरो पिवपाक मेळपा वांगडाच काजू भाजून म्होवलेय खावंक मेळटाले. भुरग्यांचे हे सुटयेचे दीस आशिल्ल्यान भुरगीं आपल्या मामागेर वा शारांतल्यान मूळ घरा गांवांत येतालीं. तीन चार सप्तकां धुमशेणा काडून खऱ्या अर्थान माय फुलयताले.

हातूंत भर म्हूण गोंयकार जे मुंबय वचून स्थायीक जाल्यात ते दर वर्सा माया म्हयन्यांत गोंयांत येताले. गोंयचीं पुरुमेताचीं फेस्तां आनी फेरयो करप, गोंयचे आंबे-पणस, भिण्णां,कणगां आनी हेर फळावळीचेर आडवो उदारो हात मारप, खंयचेय वेळेर वचून खाऱ्या उदकाचीं न्हाणा घेवप, त्या पासत घरांतल्या सगळ्या लोकांनी पिकनीक कशी पुराय दीस दर्या वेळेर बस्तान मारून खाऱ्या उदका वांगडाच खाऱ्या वाऱ्याचोय आस्वाद घेवप हो एक उत्सवूच आसतालो. ह्याच उत्सवाची आनी तांतूंल्यान अधोरेखीत जावपी गोंयकारपणाची खाशेली कुरू ह्या माया म्हयन्यांत ठळक जाताली.

आयज बोमोयकार आदले वरीं गोंयांत येनात. दर्या वेळो आमच्यो बुरश्यो जाल्यात. खारें उदकाचें न्हाण घेवन आदलीं वरीं दुयेंसां पयस जावपा बदला उदकांतल्या रसायनाक लागून आनी जंतूंक लागून वेगळीं दुयेंसां तयार जातात. गोंयांत फळफळावळीचीं रुखांय नात आनी सुटयेंत गांवांत येवपी भुरगींय नात. आज गोंयांत खंयच गांव उरूंक ना तर गांवांचीं शारां जाल्यांत. पसरे वचून शारांतलीं मॉलां आनी सुपरमार्केटां गांवांत आयिल्ल्यान भुरग्यांक काण्णा-चुन्ना परस बर्गर, पिझ्झा आनी चिप्स हाता लागीं मेळटात. हें असलें गोंय, गोंय मुक्तीकाळांत सज्ञान जाल्ले आनी भांगराळ्या गोंयचीं सपनां पळोवपी पिळगेक अपेक्षीत ना. हे पिळगेक गोंयांत संवसारांतली सगळे तरेची उदरगत, सगळ्या तरांच्या नव्या तंत्रगिन्याना सयत जाल्ली जाय आशिल्ली पूण आपलें अस्तित्वाक कसलीच बाधा हाडी नासतना. तेच पासत हे पिळगेन घटकराज्याची मागणी करीत तें हातासलें.

उदरगतूय जाय आनी खाशेलें अस्तित्वूय जाय आनी ते पासत घटकराज्य जाय ही संकल्पना ह्या विशया कडेन केन्नाच गांभिर्यान पळोवंक नाशिल्ल्यांच्या कट्टुलांत वचप तशें कठीणूच. हेच लोक आमकां घटकराज्य नाका आशिल्लें केंद्रशासीत प्रदेश आशिल्लो तेंच बरें आशिल्लें म्हणटात तेन्ना तांची काकूट दिसता.

घटकराज्यान आमच्या राज्याच्या मुख्यमंत्र्यांचे हात घट केल्यात. गोंय केंद्रशासीत प्रदेश आसतना गोंयचे मुख्यमंत्री केंद्रा कडल्यान आर्थिक पालव घेवन गोंय चलयताले. घटकराज्यांत मुख्यमंत्री आपल्याच राज्यांत अर्थवेवस्ता राबोवन राज्य घडयतात. सद्याचे मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सांवत हांणी फाटल्या सप्तकांत आपले पिरायेचो भांगरा उत्सव मनयला. तांणी आपली जीण जनसेवेक म्हळ्यार गोंयचे जनतेक ओपल्या म्हणपाचें सुचीत केलां. पूण तशें करतलो जाल्यार तांणी गोंय चलोवन उपकारना. तांणी मुख्यमंत्री म्हूण गोंय घडोवपाक जाय. तेच पासत तांचे कडल्यान गोंयचे जनतेच्यो अपेक्षा आमी ह्या अंकांत तांचे सामकार दवरतात.

# वेवस्थापन आमकां कशें कळना?




वेवस्थापन हें आपले जिणेंत खूब म्हत्वाचें आसता. तें एक शास्त्र! काम बारीक जावं मोठें; तें करतना जर ताका शास्त्राची जोड दिली जाल्यार तें काम चड बरें जाता ह्या मताचो हांव. अणभवान हांवें म्हजें मत तयार केलां.

सादें आमच्या घरांतलेंच उदारण दितां. म्हजो बापूय काय व्हडलो शिकूंक ना. पूण ताका खंयच्याय कामाचें वेवस्थापण बरें जमता. खंयचें काम प्राधान्यान घेवंचें, ताच्या सांगातान दुसरें खंयचें काम घेवं येता जें मुखेल कामाक आडखळ हाडी नासतना पुराय जावंक शकता..? ह्या दोनूय कामां सांगातान आनीक खंयचें करूं येता जाची कोणाकूच आडखळ वा त्रास जावपाचो ना आनी सगळें काम थारायल्ल्या वेळार पुराय जावंक पावतलें, हाचेर ताचें लक्ष आसतालें..

म्हजे भयणिच्या लग्ना वेळार बापायन घर रंगोवंक घेतलें. लग्नाची तारीख, म्हूर्त बी सगलें थारलां. घरांत वेगवेगळे पदार्थूय करपाचो आक्त सुरू जाल्लो. सामान घरांत येतालें. तांतूत आनी हो रंग म्हणटकच सगळेंच मॅस जावपाचें. पूण ताणें पयलीं वल्कांव आनी भायल्यो वणटी बी रंगोवंक सांगल्यो. घरांत भितर कोणाकूच कसलोच त्रास, आडखळ बी जाय नासतना एकेक कूड सिफ्टींग बी ताणें ज्युस्ता ज्युस्त केलें. कोणाकूच आपल्याक न्हिदपाक सुवात ना, सोयऱ्यांक आडखळ जाली बी कांय ना. फकत दोन राती थोड्यांक बल्कावांत खाटी घालून न्हिदचें पडलें, इतलेंच..पूण तीय एक मजा आशिल्ली.

लग्नाक दोन दीस आसा म्हळ्यार सगळें घर चकाचक आनी आसा तशें वेवस्थीत जाग्यार पडलें. जर ताणें एका वांगडाच सगळ्या घराकूच रंगवण कोमेस केल्ली जाल्यार आमकां न्हिदपा पासून हेर सगळ्या कामाक आडखळ जावपाची. कोणाक मात्तूय पिडापीड दी नासतना कामाक हात घालप ही एक कला आनी सुवेवस्थापन.

हें सगळें किर्तन हांगा सांगपाचें कारण म्हळ्यार आमच्या पणजे शाराची जाल्ली दुर्दशा. स्मार्ट सिटीच्या नांवान पुराय पणजे शारूच न्हय तर मिरामार, करंजाळे, ताळगांव लेगीत एकाच वांगडा उस्तून उडोवन लोकांक मनस्ताप दिवपी हे स्मार्ट लोक कोण हें सोदून काडूंक जाय. तांका फटके बिटके दिवप न्हय तर तांचो वता थंय सत्कार करूंक जाय. कित्याक म्हळ्यार हांच्या ह्या कर्मांक लागून जे मनस्ताप पणजेकारांनी भोगल्यात ताका अंत ना. तरी तांणी पाशियेंस काडलें हेंच पणजेकारांच्या मनाचें मोटेपण म्हणूंक जाय. एक म्हयनो भर हें जाल्लें जाल्यार समजूं येतालें! फाटले चार म्हयने जे धंद्याचे आशिल्ले त्या म्हयन्यांतूच हें सगळें घडलें म्हणटकच कितलें लुकसाण जालां आसतलें हाची कल्पना करात. तातूंत आनी पर्यटनाचे दीस. गोंय पळोवपाक खंयच्या खंयच्यान बाबडे टुरीस्ट आयिल्ले आसात. सगळे राजधानीच्या शारांत वाटो सोदीत भोंवतना दिसतात. तांच्या नाका तोंडांत सामको धुल्ल वता तरी तोंडाक मास्क आसा म्हूण बरें. ह्या धुल्लान तर घरांतल्या आनी दुकानांतल्या किमती वस्तींची सामकी वाट लावन उडयल्या. नशीब म्हळ्यार पावस येता येता करून आयलो ना तो. तरी तो केन्ना येत हाचो भरवंसो ना. समजा आयलो जाल्यार पुराय पणजे शार मागीर चिखलान भरून वतलें.



तशें जालें तरी ह्या नाकशिमऱ्यांक लज आसची ना. चिखल जालाच म्हणटकच चिखलकालो खेळया अशें म्हणपाक आनी करपाक ते फाटीं रावपाक नात. वेल्यान ह्या चिखल महोत्सवाक सरकारा कडल्यान अनुदानूय लाटपाक फाटीं रावपाचे नात. हो विनोदाचो विशय सोडलो जाल्यार स्मार्ट सिटीवाल्यां मदीं वेवस्थापनांतलो एकलोय मनीस ना तें पळोवन अजाप शें दिसता. मनोहर पर्रीकारान आयनॉक्स बांदपा पासत कशें वेवस्थीत प्लॅनींग केल्लें ताचो तरी अभ्यास करपाचो, म्हणटकच लोकांचे शिरापांतल्यान तरी हे स्मार्ट सिटीवाले वाचपाचे!

**गोविंदराज पै**, ताळगांव.

# श्रद्धा गरडाची तोंखणाय करीत तितली थोडी!

फाटले बरेच म्हयने हांव बिम्बांत दर म्हयन्याक वेगवेगळ्या अस्तुऱ्यांच्यो मुलाखती वाचतां. मुलाखत घेतात बाय श्रद्धा गरड. बाय श्रद्धा गरड भलायकेन बरीं नासतात आनी तांचेर ट्रिटमेंट चलता म्हणपाचें वाचूंक मेळिल्लें. गोंयचे राज्यपाल बी तांच्या घरा वचून तांका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबिल्ल्या बद्दल अभिनंदन करून आयल्यात ताचो फोटो पळयल्लो. तेच तांचे भलायकेची देखभाल करतात म्हणपाचेंय आयकल्लें. श्रद्धाबायक जाता तितलें बेगीन गूण पडचो अशी हांव त्या परमेश्वरा कडेन मागतां.

इतलेंय आसून श्रद्धाबाय कांय कर्तृत्वी महिलांची मुलाखत घेतात आनी आमकां ह्या अस्तुऱ्यांविशी आशिल्ली नाशिल्ली वळख घडयतात हो खूब बरो वावर. खंयचीय मुलाखतकार मागीर ती दृकश्राव्य माध्यमा वयलीं आसूं वा छापील माध्यमा वयली आसूं, मुलाखतकार प्रस्न खूब व्हडले व्हडले विचारतात आनी जापो दिवप्या पासत खूब कमी वेळ दितात म्हणपाचो म्हजो अणभव आसा. पूण हांगा श्रध्दाबाय ज्युस्ताक ज्युस्त प्रस्न विचारून मुलाखत दिवप्याक व्यक्त जावपाक खूब अवकाश दितात तें पळोवन समधान दिसलें.

आमकां गोंयकारांक आमच्या गोंयच्या खूब लोकांच्या कर्तृत्वाची सारखी वळख ना. आमी वळखतात जाल्यार वयले वयर वळखतात वा वळखून लेगीत वळखूंक ना म्हणपाचें दाखयतात. कर्तृत्वी मनशांक तांच्या वावराचें मोल दिवपाक आमी फाटींच आसतात. अशें आसलें तरी श्रध्दाबाय सारकीं कोणूय ह्या लिपून आशिल्ल्या माणकां मोतयांक आमचे मुखार हाडटात आनी तांची वळख घडयतात वा तांच्या वावराची याद दितात ही एक बरी गजाल. ते पासत श्रध्दाबायची तोखणाय करीत तिततली थोडी.

बिम्ब मासिक असल्या उपक्रमांक संद दिता देखून ते घडूंक पावतात हेंय आमी विसरूंक फावना. ताका लागून बिम्ब मासिकाकूय आमी दिनवासूंक जाय. फाटलीं कितलींशींच वर्सा नित्य नेमान आमकां एक परिपूर्ण म्हयनाळें वाचूंक दिवप, धीस इज नॉट अ ज्योक! ते पासत बिम्ब परिवाराकूय आमी दिनवासूंक फावो.

**– सुरेखा कामत शेंखवाळकार**
आल्तो परवरी.




## माय 28 राखून दवरात

बिम्ब परिवारांतल्या सगळ्या वांगड्यांनी 7 माय 'बिम्ब अस्तुरी' पुरस्कारा पासत राखून दवरला म्हणपाचें आमी जाणांत. माय तापला आसतनाय परिवारांतलें इश्टागतीचें नातें आनी संबंध आमकां एक आगळी वेगळी शितळकाय घेवन येतली हाचो अणभव आमी त्या पुराय दिसाक घेतलीं.

अशीच आनीक एक कार्यावळ वा म्हणुया उत्सव ह्याच म्हयन्यांत गोंय घटकराज्य वर्धापन दिसा निमतान 28 माय 2023 दिसा आयोजीत करपाचे आसात. उत्सवाचें नांव आसा,'प्रवास,प्रवास वर्णन आनी पर्यटन'(T.T & T-Travel,Travelogue & Tourism)

ह्या उत्सवांत

1. हिमालयांत-रवीन्द्र केळेकार,( दुसरी आवृत्ती)
2. गोमाचले ते हिमाचल-दिलीप बोरकार,(4थी आ.)
3. साता समुद्रां पेल्यान-हर्षा शेटये,(पयली आवृत्ती)
4. वीर भूंय राजस्थान-माया खरंगटे,(पयली आवृती)

ह्या चार प्रवास वर्णानाचें लोकार्पण जातलें.

ते भायर गोंयकारांनी आतां मेरेन बरयल्ल्या प्रवास वर्णनांचें प्रदर्शन आनी 'प्रवास,प्रवास वर्णन आनी पर्यटन' संबंदी भासाभास आनी परिसंवाद आसतले.

दिसभराच्या ह्या सुवाळ्याक उपस्थित रावन एका आगळ्या वेगळ्या विश्वांत भोंवडी मारप हो एक सुखदेणो अणभव आसतलो.



# हास्यबिम्ब

## अदमास

नगरपालिका वेंचणुकेचो निकाल सामको धक्को दिवपी आयलो तें पळोवन कांय जाणांक सुखाचो धक्को बसलो जाल्यार कांय जाणांक दुख्खाचो!

पात्रावांक खात्री आशिल्ली, आपलोच पॅनल जैतिवंत जावन पालिका मंडळ सत्तेर येतलें. कितल्याच जाणकारांनी अदमास करून पात्रांवाचे खात्रेक अदीकूच बळ दिल्लें. कांय जाणांनी खडेगांठ भाकणारां कडल्यान ग्रहांच्या आदाराचेर जैत पात्रांवाचेंच म्हणपाचें नक्की केल्लें. पात्रांवूय निकाल येता तसो ताचेर लक्ष दवरून आशिल्लो. पूण फायनल निकाल जाहीर जालो तेन्ना मात पात्रांव तिडकलो. ताच्या पॅनलाचे बरेच उमेदवार आपली अनामत रक्कम हरिल्ले. मजा म्हळ्यार ते खात्रीन जिंकतात असो अदमास जांणी केल्लो तेय घुंवळिल्ले. आपलो पॅनल हारलो हाचें दुख्ख पात्रांवाक जाल्लेंच पूण जांणी हड्ड्यार हात मारून ते जिकतलेच म्हूण अदमास केल्लो तांची ताका चड भिरभिरी मारिल्ली. तांका सगळ्यांक ख्यास्त करपाचें पात्रांवान थारायलें.



पूण पात्रांवाच्या पीएक तें मानवलें ना. ताणें ताका हजार तरेन समजावन सांगलें, जांणी अदमास केल्लो तो फकत अदमास आशिल्लो. अदमास करपी सगळे आमचे खास कार्यकर्ते. तांका ख्यास्त केल्यार ते दुखावतले बी म्हणपाचें सांगलें.

पूण विरोधी पॅनल सत्तेर आयला ह्या विचारानी पात्रांवाची तकली भेरेल्ली. तातूंत माय तापिल्लो. उजो सोंसूंक जाय नाशिल्लो. ताची तकली थंड करपाक पीए ताका घेवन बंगल्या भायर नवेंच केल्ल्या जार्दीनांत पासयेक गेलो. थंय एक नवो स्वीमींग पुलूय बांदिल्लो.

''स्वीमींग पूल जालो मरे हो तयार?''

पात्रांवान चलता चलतां रावून पीएक विचारलें.

''हय पात्रांव. दोन मनीस खोल आसा हो स्वीमींग पूल.'' पीएन सांगलें तशें पात्रांवान म्हळें,'' कितें सांगता रे तूं? म्हजो अदमास आसा हें उदक तीन मनीस खोल आसूंकच जाय.''

तेन्ना पीएन सडसडीत आपले कपडे देंवयले आनी पुलांत उडकी मारली. तो त्या थंड उदकांत पेंवता तें पळोवन गरमेन खासावीस जाल्ल्या पात्रांवाकूय रावपाक जालें ना. ताणेंय कपडे काडले आनी तोय स्वीमींग पुलांत देंवलो. पेंवत पेंवत तो मदीं गेलो. आपले पांय कितले मेरेन जमनीक तेंकता तें पळोवंक सरळ सकयल गेलो. ताचो अदमास आशिल्लो उदकाची खोलाय तीन मनीस आसा. पूण ती त्याय परस खोल म्हळ्यार लागीं लागीं पांच मनीस खोल आशिल्ली. सकयल गेल्लो पात्रांव बुचकळपाक लागलो. पूण ताचे फाटोफाट आशिल्ल्या ताच्या पीएन ताका धरून उणी खोलाय आशिल्ले सुवातेर व्हेलो.

मागीर दोगूय पालिकेचे वेंचणुकेचो निकाल विसरले आनी मायाचे ते गरमेंत मनसोक्त न्हाले. वयर सरतां सरतां पात्रांवान पीएक म्हळें,'' आरे ही खोलाय पांच मनीस आसा मरे! आमचे दोगांयचेय अदमास चुकले पळय!''

''हय पात्रांव. हांवें अदमास लायल्लो दोन मनीस खोल आनी तुवें केल्लो तीन मनीस. पूण खरी खोलाय पांच मनीस. म्हणटकच आमकां दोगांकूय ख्यास्त फावता! '' पीएन हांसत हांसत पात्रांवाक म्हळें.

तसो पात्रांव हांसलो आनी पीएच्या खांदार हात दवरीत ताणें म्हळें,'' तूं मरे सामको चांडाळूच!''

ते राती नगरपालिका वाठारांत दोन पार्ट्यो चलताल्यो, आपलो पॅनल वेंचून येवन सत्तेर आयला म्हूण पात्रांवाच्या विरोधी पंगडाची आनी पीएक लागून आपली ख्यास्त चुकली म्हूण वेंचणुकेच्या निकालाचो अदमास लावपी पात्रांवाच्या वावुरप्यांची. अर्थात पीए थंय पार्टेक आशिल्लोच !

► शीर्शकथा

# पन्नाशींतल्या सीएम कडल्यान अपेक्षा गोंयच्या फुडाराचे नदरेन..!

# GOA STATEHOOD DAY



आमकां गोंय म्हणटकच जालें! आमचें गोंय आमकां जाय म्हणत कितलेच गोंयकार गोंयच्या मुक्तीसंगरांत देंवले. ते पासत तांणी आपल्या घरदाराची होळी केली. कितल्याच लोकांचे संवसार उध्वस्त जाले. पूण 'आमचें गोंय आमकां जाय' ही भावनाच सगळ्या कश्ट-दग्दा परस खर आशिल्ली. ते भावने मुखार आवय बापूय, बायल-भुरगीं, घर-दार, संपत्ती हाचें कोणाक पडून वचूंक नाशिल्लें. तांची एकूच मोख आशिल्ली, 'आमचें गोंय आमकां जाय!'

उपरांत पुर्तुगेज गेले. तांणी गोंयकारांचें गोंय; गोंयकारांक सोडलें. पूण वतना तांणी कांय गोंयकारांचें मिंदेपण व्हेलें ना. 'पुर्तुगेज गेलो; आतां आमचेर कोणें राज्य करपाचें?' हो प्रस्न हे मिंदे प्रवृत्तीक पडलो आनी तांणी राज्य करपाक महाराष्ट्राक येवकार दिलो. 'हें येदेंशें गोंय आमकां नाका, तें तुमकां जोडात आनी ताचेर तुमी शेक चलयात' म्हूण सांगलें. तेन्ना परत एक खेप स्वाभिमानी गोंयकार मुखार सरले. 'आमचें गोंय आमकां जाय, तें तुमकां महाराष्ट्रांत घालपाक दिवपाचे नात' म्हणपाचें आइडेवन सांगपाक लागले. खंयचेच परिस्थितींत गोंयचें विलिनीकरण करूंक दिवचेनात म्हूण सांगत तांणी परत संगर सुरू केलें. मुक्तीसंगरांत दुस्मान भायलो आशिल्लो. विलिनीकरणा विरोधी संगरांत दुस्मान भितरलो आशिल्लो. पूण गोंयचो मोग तोच आशिल्लो. 'आमचें गोंय आमकां जाय' ही भावना तीच आशिल्ली. ही भावना काळजाचे खरायेंतल्यान आयिल्ली देखून त्या सताचें सदांच जैत जायत आयलें.

गोंय मुक्त जालें, गोंयचें विलिनीकरण जालें ना तर ताका केंद्रशासीत प्रदेशाचो दर्जो लाबलो आनी कांय तेंपान गोंयकारांक जाणविकाय जाली, जरी गोंयचें विलिनीकरण जालें ना आसलें तरी गोंयचेर केंद्राचो शेक चलता. गोंयकारांक नागरिकत्वाचो दुय्यम दर्जो मेळटा. ज्या प्रदेशांक राज्याचो दर्जो मेळ्ळा त्या राज्याचो नागरीक पयल्या दर्जाचो, त्या राज्याचो मुख्यमंत्री दुय्यम दर्जाचो न्हय. ताचे अधिकार पयल्या दर्जाचे. तांका हो दर्जो कित्याक मेळूंक पावलो, तर जेन्ना देश स्वतंत्र जालो तेन्ना भाशेच्या म्हालवजार प्रांत रचना जाली आनी ते प्रांत ते ते भाशेचीं राज्यां जालीं. जे भाशीक वाठार आर्थीक नदरेन स्वयंभू नाशिल्ले आनी आपलो संवसार चलोवंक वा आपल्या पांयार उबे रावपाची तांक येवंक ना म्हणपाचें जाणवतालें, वा तांच्या दुर्बळपणाचो लाव घेवन परकी देश तांका हातासपाची वा फुसलावपाची भिरांत आशिल्ली तांका केंद्रशासीत दवरून तांका राज्य करपाचो अणभव घेवपाची संद दिली. जेन्ना दुर्बळ भुरगें चलपाक शिकता आनी पडटा अशें दिसता तेन्ना ताची




**दिलीप बोरकार**

*साहित्यकार, ज्येश्ठ पत्रकार आनी बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक*



काळजी घेवपाक नेमिल्ली व्यक्ती ताका सांबळटा, तशेच तरेन केंद्र सरकार ह्या प्रदेशांक सांबाळटालें. केंद्रशासीत ह्या उतरांतूच सरकार जरी वयलेतराक तुमचें आसा अशें दिसलें तरी शासन केंद्राचें हें मतींत दवरात हो सूर हातूंतल्यान स्पश्ट जातालो. केंद्र सरकारचे शाशकीय कर्मचारी आपल्या पदाचो दुरुपेग करून सत्ता गाजयताले आनी तांचे मुखार केंद्रशासीत प्रदेशाचे लोकनियुक्त प्रतिनिधी मिंदे जावन वागताले. हीच गजाल अपमानीत करपा सारकी आसता.

जेन्ना भाशावार प्रांतरचनेची प्रक्रिया चलताली तेन्ना गोंय राजकी नदरेन भारताचो भाग नाशिल्लें. तें पुर्तुगेजाची वसाहत आशिल्लें. देश स्वतंत्र जाले उपरांत चौदा वर्सांनी गोंय मुक्त जावन भारत देशाचो राजकीय नदरेन अविभाज्य भाग जालो. ताकाच लागून हो वाठार कोंकणी भाशीक आसुनय ताचें कोंकणी राज्य जावंक पावलें ना. कोंकणी ही वेगळी अस्मिताय जाल्ल्यान आनी केंद्रशासीत गोंय दिल्लीची वसाहत जाल्लेवरीं रूप घेवंक लागलां म्हणपाची कल्पना गोंयकारांक आयली तेन्ना कोंकणी राज्याची मागणी मुखार येवप साहजिकच आशिल्लें. ती काळाची गरज आशिल्ली. स्वाभिमानी गोंयकारांनी तीय हक्काची मागणी हातासून घेतली. आयज तेच पासत गोंय हें देशांतल्या हेर राज्यांवरीं एक परिपूर्ण राज्य जावंक पावलें. देखून ही गजाल गोंयकारांक अभिमानाची म्हणूंक जाय.

गोंयचो मुक्तीसंग्राम आनी जनमतकौल ह्यो गोंयच्या इतिहासांतल्यो दोन म्हत्वाच्यो घडणुको. पिरायेन ल्हान आशिल्ले कारणान म्हजें ह्या घडणुकांत योगदान ना. पूण जें कितें चल्लां तें क्रांतिकारक म्हणपाचें कळटालें. दोळ्यां मुखार जें कितें घडटालें आनी कानार सादतालें तें काळजांत सुगूर करून दवरपाची ती पिराय आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत ह्या दोनूय जैतिवंत भांगराळ्या घडणुकांनी योगदान दिल्ल्या भोवतेक लोकां वांगडा खूब लागशिल्लो संपर्क आयलो आनी फुडाराक असल्याच प्रकारच्या चळवळींनी वांटो घेवपाची संद मेळ्ळी. कोंकणी राजभास चळवळ, गोंयाक घटकराज्याची मागणी, कोंकणीक राष्ट्रमान्यताय आदी चळवळींत सक्रीय आशिल्ल्यान ह्या गजालींचें म्हत्व म्हाका समजून आयिल्लें. म्हज्या ह्या योगदाना पासत म्हाका तेच पासत अभिमान भोगता. म्हज्या वांगडच्या सगळ्यांनीच ह्या वावराक खांद मारतना आपल्या फुडाराची चिंता आनी हुसको धरलो ना. गोंयचो आनी गोंयकारांचो फुडार म्हत्वाचो ही एकूच मोख मतींत धरली.

फाटल्या पन्नास वर्सांत ही गजाल घडली. हे चळवळींचें फुडारपण वा मार्गदर्शन करपी द्रश्टे लोक पन्नाशींतले वा साठींतले आशिल्ले. तेय आपलें भुरगेपण आनी जुवानपण हुलपावन घेवन आयिल्ले. मनोहरराय सरदेसाय, उदय भेंब्रे, रवीन्द्र केळेकार हांच्या सारख्या त्या काळांत चाळिशी –पन्नाशी कडेन आशिल्ल्यांचे बापूय गोंय सुटके झुजांत वांटेकार जाल्ल्यान वनवास भोगताले. ताका लागून तांच्या ह्या भुरग्यांचें भुरगेपण आनी घडण विस्कळीत जाल्ली. तेच भुरगे आपल्या जाणटेल्यांनी पुर्तुगेजांच्या चोपक्यांतल्यान झोमून घेतिल्लें गोंयचें स्वातंत्र्य तिगोवन नवें गोंय घडोवपाचे नदरेन वावुरताले. तांच्याच त्यागी आनी वैचारीक मार्गदर्शना खाल आमचीय पिळगी गोंयचीं सपनां रंगयत तीं घडोवपा पासत तांच्या पावलार पावलां उडयत चलताली.

हें सगळें फाटलीं पन्नास वर्सां चल्लें. 'कोंकणी ही भास न्हय तर बोली' म्हणत हे पिळगेक हिणसायताले. पूण कोणेंच ह्या मार्गा वयल्यान कूस मारली ना. ज्या संगरांत उडी घाल्या ताका जैत मेळटलेंच हाची खात्री नाशिल्ली पूण सताचें सदांच जैत जाता हे पिशे भावनीक धारणेंतल्यान हो मार्ग ही पिळगी चलताली.

ताका लागून शिक्षणाचेर आडनदर, आपले भाशेक व्याकरण ना म्हणटकच व्याकरणाचो अभ्यास करून ती भास सारकी समजून घेवप, शिकप. शिकोवपाक कोण शिक्षक ना. हेर भासांची जशी उदरगत जाल्या आनी तिचो वापर तिचे पूत कसलेच अडचणी बगर करतात तशी परिस्थिती कोंकणी

बाबतींत नाशिल्ली. कोंकणी ही बोली न्हय, ती भास, तिका व्याकरण ना म्हणटात तें सत न्हय. तें नाशिल्लें जाल्यार फाटलो कितलोच काळ संवसारभर पातळिल्लो हो कोंकणी समाज जे भाशेंतल्यान एकमेकां कडेन संवाद सादतात तो सादूंक पावचेच नाशिल्ले. ती भास व्याकरणाच्या सुत्रांत बंदिस्त आशिल्ल्यानूच जो कितें ते भाशेंतल्यान वेव्हार जाता तो सूत्रबद्द जाता, खंयच अर्थाचो अनर्थ जायना म्हणपाच्या सताचेर विश्वास आशिल्ल्यान हे पिळगेन आपली भास सारकी समजून घेतली. तिचेर मनन, चिंतन आनी अभ्यास केलो. तांतूंतल्यान साहित्य निर्मणी केली. आपलीच भास घडोवन, तिका शास्त्रीय बैठक दिवन सगळ्या तरांचें साहित्य रचप, ताचे म्हालवजार कोंकणी ही बोली न्हय तर हेर भारतीय भासांवरींच एक समृद्ध भास म्हणपाचें दाखोवन दिवन, तिका साहित्य अकादेमीची मान्यताय घेवप, तिची गोंयची राजभास म्हूण प्रतिश्ठापना करप आनी कोंकणी भाशेच्या म्हालवजार कोंकणीचें घटकराज्य म्हूण गोंयचें वेगळें राज्य करप, घटनेचे आठवे वळेरेंत हे भाशेचो आसपाव करून तिका राष्ट्रमान्यताय मेळोवप, कोंकणी साहित्याक दर वर्सा साहित्य अकादेमी सारको राष्ट्रीय पुरस्कार संपादन करपा वांगडाच सरस्वती सन्मान आनी ज्ञानपीठा सारके व्हड व्हड भोवमान संपादन करप असलें सपनांतलें दिसपी कर्तृत्व ह्या पन्नास वर्सांच्या काळांत कोंकणी लोकांनी, खास करून म्हजे आनी म्हजे आदले आनी फुडले पिळगेंतल्या लोकांनी करून दाखयलें.

आपणेंच रोयिल्ल्या रुखाक आयिल्लीं फळां पळोवंक वा चाखूंक सहसा एके पिळगेक मेळनात. ती संद फुडले पिळगेक मेळटा. पूण आमची पिळगी इतली भाग्यवंत तिका कश्ट करतनाच त्या देवळाचो कळस लेगीत पळोवपाची दैवदुर्मीळ संद फावो जाली. आपल्याच तंगड्यांच्यो कुबड्यो करून धांवून लंबी दिसपी रेस जिखपाचें भाग्य सहसा कोणाक मेळना. तें म्हाका आनी म्हजे आदले आनी फुडले पिळगेक लाबलें.

हें सगळें हांगा सांगपाचें कारण म्हळ्यार माय म्हयन्याचो बिम्ब अंक आमी दर वर्सा गोंयचे घटकराज्याचे यादीक ओपतात. गोंय मुक्तीचें म्हत्व जशें आयचे पिळगेक जाणवना तशें गोंयच्या घटकराज्याचेंय म्हत्व होलमना. तांका ही गजाल म्हत्वाची दिसच ना. तांका आपलो, आपल्या इश्टांचो आनी सोयऱ्या धायऱ्यांचो वाढदीस लक्षांत उरता वा दवरतात तसो गोंय मुक्ती दीस, राजभास दीस वा घटकराज्य दीस याद उरना. कोंकणी विशयांत शंबर पयकी शंबर गूण घेवपी, जें सहसा भासअभ्यासांत शक्य ना, तांका हे संबंदी विचारीत जाल्यार तांचेर तकली खरपुपाची पाळी येता. हें गोंयच्या 'हेल्दी' फुडाराचे नदरेन सारकें न्हय. हे पिळगेक आपल्या



तथाकथीत कर्तृत्वान भौतीक यश मेळत, सगळ्यो सुखसोयी लाबत, पूण आत्मीक बळ तांचे भितर नासतलें. हें कृत्रीम जिवीत तांका बरगावन उडयतलें. व्हडल्या घराचे हे पोकळ वांसे जावन उरतले. तेच पासत संद मेळटा तेन्ना तांका न्हिदेंतल्यान उठोवन वा सुखांचे ग्लानींतल्यान भायर काडून तांच्या अस्तित्वाची ताका याद करून दिवपाचो हो प्रयास. तेच पासत गोंयच्या फुडारा पासत जाल्ल्या वावरा संबंदीच्यो यादी जागोवप हें आमचे पिळगेचें कर्तव्य अशें म्हजे सारख्याक दिसता. ही गजाल म्हजेच पिळगेन करूंक जाय. म्हजे उपरांतची पिळगी जरी कोंकणी आनी गोंय हाचे कडेन आपली लागणूक सांगता आसली तरी ती कोंकणीच्या रुखा वयलीं फळां हक्कान खातना कोणें हरकत घेवंची न्हय म्हूण. हरशीं तांचो उखलापो वावर पळयत जाल्यार तितलें मेमें आनी तितलो कोको हाचे पुरतोच मर्यादीत दिसता

असल्या ह्या वातावरणांत कितें दिसता, जाल्यार जांणी गोंय मुक्ती संग्रामांत, गोंयच्या अस्तित्वाची राखण, गोंयचे अस्मितायेचो वावर, गोंयांक पयल्या नागरीकत्वाचो दर्जो ह्या गजालींचेर केन्ना चुकून लेगीत विचार केलो ना, ह्या वावरांत जांचो कुसकुटाचो हात ना ते सत्ता हातांत घेवन आडवो उदारो हात मारतात. तांचें हें कर्तुब पळोवन खंती मनान



तांका जागोवपाचो यत्न करीन दिसता. हो जो वावर आमच्या सारख्यांनी गोंयच्या फुडाराचो हुसको बाळगून केल्लो त्या फाटलीं अपेक्षा फकत म्हजीच पिळगी धरूंक शकता. आतांची पिळगी फकत गोंयचो मतदार म्हूण रावून आपल्या हातार जें किते घडटा वा मुखार पडपाचें आसा हाचेर नदर दवरून आसा. ताचे कडेन प्रवाहाच्या विरोधांत वचपाची मानसीक आनी [illegible] ताक ना आनी गोंयचें राजकीय वातावरण पळयत जाल्यार फुडाराक कितेंय बदल जायत हाचीय अपेक्षा धरप [illegible]

हो [illegible] न्हय तर आयचे विचारसरणेक धरून [illegible] वेध. म्हजे आदले पिळगेन वा तांच्या [illegible] तयार जाल्ली म्हजी पिळगी गोंय भांगराळें [illegible] तांचे नदरेन हें आमचें गोंय 'पूण्यभूंय' उरूंक [illegible] ताणें देख घालून दिवंक जाय. हो [illegible] पावलो जाल्यार आमचे आदले [illegible] संस्कार केले. आमी येसू ख्रिस्त, बुद्ध, [illegible] विचारांत नितीमुल्यां सोदलीं [illegible] ळ्ळ्यार कितें आनी तांतूंतल्यान [illegible] धर्म, काम मोक्ष हांचो अर्थ [illegible] करचें हाचेर भर दिलो. हाताक [illegible]

आनी तांतूंतल्यान देशप्रेम, मुल्यां हाचें मुळावण पडलें. ह्यो गजाली आयचे सारख्यो आमच्या मनांत घालपा पासत कोणाक सक्ती करची पडली ना. ती गजाल सैमीक रुपान आमच्या जिवितांत रुजली. तांतूंतल्यान समा विचार करपाची प्रगल्भताय आपसूक घडत गेली. तेच पासत जिवितांतलें सत कितें आनी मिथ्या कितें, संपन्न जीवनाचो आदर्श पाथ कितें ह्यो गजाली समजून घेवंक त्यो कोणें आमचे भितर चोंदच्यो पडल्यो नात. ह्या जीवनाच्या अणभवांतल्यान आदर्शवाद जल्मत गेलो. तांतूंतल्यान ध्येयवाद निर्माण जालो. कांय मोखी नदरे मुखार ठळक जावंक पावल्यो, ज्यो साध्य केल्यार जिविताक आगळो अर्थ लाभूंक पावता म्हणपाची जाणविकाय जाली. एक आदर्श नागरीक जावपाक ह्यो इतल्यो गजाली पुरो आसतात.

पूण आयचे पिळगे सामकार ह्यो कसल्योच मोखी नात. तांका देश वा राज्य स्वतंत्र करपाचो हुसको ना. तांका आपलें खाशेलें अस्तित्व घडोवपाचो हुस्को ना. तांका मनीसपणाचें तत्वगिन्यान जाणून घेवपाचें ना, हातूंत आडवाद आसूं येता. पूण कितलो ? धा टक्के पासून आसल्यार खूब जालो. भोवतेक भुरग्यांची मोख चडांत चड मार्क घेवन आपलो करियर घडोवप आनी बऱ्या पगाराची नोकरी धरप, तांतूंतल्यान बरो संवसार फुलोवप आनी भोगवाद, चंगळवादाक शरण वचप. चार्वाक्याक पुजत यावत् जीवेत,सुखम् जीवेत्, कृतम जीवेत म्हणप! त्या पासत

जी वेवस्ता जाय तिका शरण वचप. ही वेवस्ता म्हळ्यार तांचें सरकार आसता. हें सरकारूय तशें खास तत्वप्रणालींतल्यान तांणी वेंचिल्लें नासता तर तांचे वळखीचो वा सहज संपर्कांत आसूं येता अश्या आमदाराक दसून रावप. आपलें काम जावपा पासत त्या आमदारान तत्वां बित्वां कोनशाक मारून सत्ताधारी पक्षाक वेंगायल्यार लेगीत तांची हरकत नासता. तांणी तशें करचें अशेंच तांका दिसता.

हो असलो सगळो प्रकार पळयतकच एक खाशेली मोख नदरे सामकार दवरून म्हज्या सारख्यान समाजाक थोडें भोव जें कितें योगदान दिल्लें ताका लोकशायेच्यो, आदर्शवादाच्यो, नितीमुल्यांच्यो जाल्ल्यो भोयो भोयो पळोवन हेंच काय फळ म्हज्या कार्याक अशें दिसले बगर रावना.

कोणाकूय दिसत आज जें कितें चल्लां तें सामकेंच वायट चल्लां? कांयच बरें ना? जण एकलो आपले वैचारीक कुवती प्रमाण आनी जिविताच्या तत्वगिन्याना प्रमाण तें थारायता. ज्या काळार म्हज्या सारख्या नागरिकाची वा म्हणुंया गोंयकाराची विचारांची घडण जाली तेन्ना तेन्ना आदर्शवाद, नितीमुल्यां आनी जिविताचें तत्वगिन्यान वेगळें आशिल्लें. तेंच एक सत मानपी सरभोंवतण आशिल्ली. हेर राज्यांतल्या नागरिकांचें अतिक्रमण विशेश जावंक नाशिल्लें. गोंयकाराक आपले भूंयेंत मान आशिल्लो. गोंय राष्ट्रीय प्रवाहांत वचूंक नाशिल्लें. आयज तें खऱ्या अर्थान राष्ट्रीय प्रवाहांत गेलां. तें केन्ना तरी वतलेंच आनी आमी संपुर्णायेन भारतीयच न्हय तर ग्लोबल-जागतीक जातलें हें थारिल्लेंच आशिल्लें. तशें तें जालेंय बी. ताका कोण आडावंक शकना हाची कल्पना तशी आशिल्लीच! काळाप्रमाणे कुरपणें आपणावप हें आयच्या काळाचें शाणेपणाचें लक्षण म्हणटकच आमच्या गोंयांत एका काळार भांगराचो धुंवर येतालो ताची याद काडून सपनांत जियेवपांत अर्थ ना. आयज आमच्या गोंयांत अदानी आनी जिंदालच्या कोळशाचो धुंवर दिसता हें सत मतींत घेवन ताचे पासून राखण करूंक नाकाक मास्क कसो बांदप आनी त्या कोळशांर आपली भाकरी कशी भाजप हाचो विचार केल्यारूच गोंयकार तग मारूंक पावतलो. म्हणटकच आमचो भांगराळो आदलो काळ दोळ्यां सामकार हाडून सपनां रंगोवचे परस सामकार आशिल्ल्या काळा लागीं सांगड घालून ताचो कितलो मेरेन आमच्यांनी वेव्हारीक लाव घेवं येता हाचो विचार करचो पडटलो.

आमचे सामकार आयज काळ आयला तो कसलो हें आमकां सगळ्यांक खबर आसा. कालाय तस्मैः नमः म्हणत ताका शरण गेले बगर कोणाकूच पर्याय ना. आमी जेन्ना लोकशाय प्रणाली आपणायली तेन्ना ती कारकिर्द बरी काय वायट हाचेर विचार करपांत कांयच हावशील ना. ती आसा तशी आपणावपाची. आपले हातांत ताकत आसा ताचो वापर करून जमता जाल्यार परिस्थिती बदलपाचो यत्न करपाचो. जर हेरांची ताकत चड जाली आनी तांणी परिस्थिती आपले विचारसरणे प्रमाण बदल्ली जाल्यार तीय आपणावपाची तयारी मनान आपणावंक जाय. जमता जाल्यार ते कार्यप्रणालीक शरण वचनासतना तिचे कडेन जुळोवन घेवन बदल घडोवन हाडपाचो यत्न जाय.

आमच्या गोंयांक घटकराज्याचो दर्जो मेळून ह्या मायाक 36 वर्सां पुराय जातात. म्हणटकच 30 माय हो गोंयच्या घटकराज्याचो 36 वो वर्धापन दीस. ज्या दिसा गोंयाक घटकराज्याचो दर्जो मेळ्ळो त्या दिसा तें मेळचें म्हूण यत्न करपी कांय लोक सोडल्यार आयज मेरेनच्या सरकाराक ताचें कसलेंच सोयरसुतक लागिल्लें दिसना. आपूण आयज घटकराज्याच्या निमतान खूबश्या खाशेल्या गजालींचो उपभोग घेतां हाचें लेगीत भान सरकाराक आसा अशें दिसलें ना. तरी लेगीत घटकराज्याचो लाव घेवपाक हांचो हात धरूं येना हेंवूय तितलेंच खरें.

केंद्रशासीत प्रदेशाच्या मुख्यमंत्र्यां परस राज्याच्या मुख्यमंत्र्यांक चड अधिकार आसतात. केजरीवालचें दिल्ली राज्य न्हय, तो केंद्रशासीत प्रदेश. दिल्लीच्या मुख्यमंत्र्यान कितलींय उडणां मारलीं तरी शेवटाक ताची शेंडी केंद्राच्याच हातांत उरता. पूण राज्याचे बाबतींत तशें ना. राज्याक मेळिल्ल्या अधिकारांच्या म्हालवजार राज्य केंद्राच्या निर्णयाआड वचून आपल्या राज्याचो फुडार चिंतून निर्णय घेवंक शकता. आमचे गोंयचे बाबतींत विचार केल्यार गोंयांक घटकराज्य मेळ्ळां आनी हेर राज्यांक जितले अधिकार घटनेन दिल्यात तितलेय गोंय राज्याक मेळ्ळ्यात. तांचो वापर हेर राज्यां करतात तसो गोंय घडोवपा पासत गोंयच्या सरकारान करूं येता. ते पासत सरकाराचो मुखेली जो मुख्यमंत्री आसता ताका एक निश्चित व्हिजन आसचें पडटा. गोंयांत सद्या भाजपचें सरकार आसा आनी केंद्रांतूय भाजपचेंच आसा. तेच पासत गोंयचें मुख्यमंत्रीपद हें केंद्रांतल्या फुडाऱ्यांचे मर्जेचेर आसा. म्हणटकच सांगनासतना आपली शेंडी व्हरून तांच्या हातांत दिवप हें आपसूक जाता. ताका पर्याय आसना. तशें करूनय तांका विश्वासांत घेवन वा मर्जी सांबाळून एखादो कुशळ मुख्यमंत्री आपले जनतेचें सादोवन घेवंक शकताय बी. जाय ती मनाची तयारी आनी जनसेवेची खर इत्सा. सद्याचे मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सांवत आपूण ते पठडींतलो म्हणपाचें मानतात आनी सांगतातय बी. अशें जर आसत जाल्यार आमी तांका जमता तितली मजत करून गोंयचो फायदो कसो करून घेवं येता हाचेर सुचोवण्यो करूं येता. विरोधकांचें आयकून घेतल्यार आपणें बें म्हणलें

अशें जावं येता असो विचार करून कांय मुख्यमंत्री योग्य आनी गरजेच्यो सुचोवण्यो लेगीत कृतींत हाडीनात. हातूंतल्यान तांका एक विकृत खोस मेळटा आसत पूण ते खोशेक लागून राज्याचें लुकसाण जाता हाचें भान तांका उरना. त्या भायर इतिहास तांच्या माथ्यांत कर्तृत्वाचो एक तुरो खोवपाचो तीय संद ते होगडावन बसतात.

पुर्तुगेजांचे सत्तेंतल्यान गोंय मेकळें जालें आनी मागीर ताका केंद्रशासीत प्रदेशाचो दर्जो मेळ्ळो. ह्या गोंयचो पयलो मुख्यमंत्री जावपाचो मान दयानंद बांदोडकार हांका लाबलो. गोंयाक घटकराज्य मेळ्ळें 1987 वर्सा. केंद्रशासीत तें घटकराज्य ह्या पाव शतमानाच्या प्रवासांत गोंयच्या केंद्रशासीत प्रदेशाचेर मुख्यमंत्री म्हूण कितल्याच लोकांची वर्णी लागली. जांका ती वळेरी जाय तांका ती आयज गुगलाचेर उपलब्ध आसा. मुद्दाम दखल घेवपा पासत तांचें तशें खाशेलें कर्तृत्व कांय ना. कित्याक तांणी गोंय घडोवपा पासत कांयच केलेंना जाल्यार 'घातले मोले रडाया' म्हणटात तशें नशिबान पदरांत पडलें तें चलोवपांतूच तांचो काळ सरलो.

अशें आसुनय गोंयचे पयले मुख्यमंत्री दयानंद बांदोडकार, जांका 'दयानंद' म्हणचे परस 'भाऊ' म्हण्णूच गोंयचो लोक वळखतात तांचें नांव मात गोंयचो शिल्पकार म्हूण आजुनय घेतात. तांका शिल्पकार म्हणटात ताचें फाटलें कारण तांणी गोंयचें शिल्प घडयलें म्हूण न्हय तर गोंयचें समाजकारण! गोंयचो कारभार वयल्या वर्गान सदांच आपल्या हातांत दवरून भोवजन समाजाचेर अन्याय केला असो एक समज गोंयच्या समाजांत पातळिल्लो वा पातळायल्लो. हेच फाटभुंयचेर गोंय मेकळें जाले उपरांत दयानंद बांदोडकारां सारखे भोवजन समाजांतले एक मिनेर उद्योजक मुख्यमंत्री जाले. त्या बराबर ते भोवजन समाजाचे तारणहार म्हूण तांची पद्दतशीरपणान जायरात जावंक लागली. तांणी गांवा कणकणी मराठी शाळा उगडून शिक्षण लोकांच्या दारा मेरेन पावयलें म्हणून भोवजन समाज वयर सरूंक पावलो म्हणपाचोय प्रचार जावंक लागलो. हाका लागून गोंयांत जातीयवाद रिगलो, पूण गोंय मुक्ती उपरांत गोंयच्या फुडाराविशीं जे उत्फर्के गोंयचे जनतेंत आशिल्ले ते असल्या वातावरणाक लागून पुराय जावंक पावले नात. एकमेका विशीं दुबाव आनी आकस हाका लागून सत मानून घेवपाची कोणाचीच मनस्थिती उरली ना. जांका गोंयची उदरगत जाल्ली पळोवंक नाका आशिल्ली आनी गोंयचें महाराष्ट्रांत विलिनीकरण हेंच जांचें ध्येय आशिल्लें त्या लोकांनी आपली अडेची पत वापरून दयानंद बांदोडकारांची दिकाभूल केली. तर ह्या लोकाक खरेंच गोंयच्या भोवजन समाजाचें बरें जाल्लें जाय आशिल्लें जाल्यार तांच्या बोडार तांका समजना असली मराठी भास मारचे बदला कोंकणींतल्यान शिक्षण दिवन तांका गिन्यानी करतले आशिल्ले. गोंयचो फुडार पारखून गोंयच्या बऱ्याचे निर्णय घेवपाचे. तांच्या उतराक त्या काळार भोवजन समाज मान दितालो. भाऊन सांगलां म्हणटकच तें खरें म्हूण सगळे कोंकणी शिकून आपलो फुडार घडोवपाचे. कोंकणीचें केन्नाच घटकराज्य जावन एक परिपूर्ण राज्य जावपाचें. पूण नसत्या भाशेच्या आनी जातीच्या वादांत हांगच्या द्रश्ट्या लोकांक घुस्पावन दवरून तांचो वेळ, मानसीक, आर्थीक स्थिती, कृतीशील काळ असल्या कितल्याच गजालींचो इबाड केलो. ह्या गजालींक लागून ज्यो गजाली खूब आदीं जावपाच्यो ताका कळाव लागलो.

बांदोडकारां उपरांत जे मुख्यमंत्री जाले तांतूंत शशिकला काकोडकार, प्रतापसिंग राणे आनी दयानंद नार्वेकार हे तिनूच राजकारणी मुख्यमंत्री म्हूण खूब बरे प्रशासक. शशिकला काकोडकार आनी राणे हांका आपले गूण दाखोवपाची संद मेळ्ळी. नार्वेकारान आपल्या गुणांनी आपल्या पांयार फातर मारून घेतलो. अशें आसलें तरी वयर सांगल्यात त्या दोनूय मुख्यमंत्र्यां लागीं उत्तम प्रशासकीय (ॲडमिनीस्ट्रेशन) गूण आसुनय निर्णयक्षमता नाशिल्ली. गोंय चलोवपा बदला गोंय घडोवपाचे नदरेन तांणी विचार केल्लो आनी लोकांक विश्वासांत घेतिल्ले जाल्यार तांचें नांव भांगराळ्या गोंयां वांगडाच भांगरान बरोवन उरपाचें.

तांच्या उपरांत एक बरो मुख्यमंत्री, व्हिजन आशिल्लो गोंय घटकराज्याक मेळ्ळो तो मनोहर पर्रिकार. खूब बरो प्रशासक, आकांताची निर्णयक्षमता आशिल्लो विद्वान मनीस गोंयाक मुख्यमंत्री म्हूण लाबप म्हळ्यार गोंयचें भाग्य बदलप म्हणूं येता. पूण आपल्या कानफुटक्या सभावाक लागून आनी दुसऱ्यांच्या गुणांक किंकोंत करून आपलें तेंच खरें करपाचे वृत्तीक लागून ह्या मुख्यमंत्र्यान खूब बरी संद होगडायली. व्हडलेंशें कांयच करी नासतना पद्मविभूषण फावो जाल्ले हे व्यक्तीक गोंयचो भाग्यविधाता जावपाची संद आशिल्ली.

आयज भाऊ बांदोडकारांक गोंयचो भाग्यविधातो आनी भाई पर्रिकाराक प्रतिभाऊ अशें म्हणपाची प्रथा सुरू जाल्या. गोंय मुक्त जावन साठ वर्सां जाल्यांत आनी ह्या स दसकांत गोंय जे तरेचें आसपाक जाय आशिल्लें तशें करपाक आतां मेरेनच्या एक्काय मुख्यमंत्र्यान केन्ना खांद मारलो ना. तो मारूं येतालो. तशें न घडपाक कारणांय आपले परीन मुखार येवं येतात. तीं कारणां आतां काळा भायरीं जाल्यांत आनी एकूच कारण आतां जें चलता तें खंयचेय परिस्थितींत सत्ता तगोवन दवरप. ते पासत जें जें कितें करूं येता तें करप. गोंयच्या

हिताची गजाल आसली आनी तिचेर निर्णय घेतना सरकारा भितर फूट पडपाची शक्यताय उप्रासली जाल्यार ती हिताची गजाल गुटलावन गुड्ड्याक मारून सरकार तगोवंक प्राधान्य दिवप ही राजनिती.

सगळेच निर्णय अशे आसतातूच अशें न्हय. कांय निर्णय सर्वमान्य आसतात आनी ताका लागून सगल्यांकूच फायदो जाता. देखीक गोंयांत कांय काळा भितर प्रचंड पूल उबारले. स पदरी रस्ते बांदले. आनीक कांय इमारती उब्यो जाल्यो. हे प्रकल्प केंद्र सरकारचे आसले तरी राज्य सरकारचो तांतूंत वांटो आसताच आनी अशे प्रकारचे प्रकल्प म्हणटकच दिवपा घेवपाचेंय तितल्याच मोठ्या प्रमाणांत आसता. म्हणटकच जाका कोणाचो विरोध ना ते प्रकल्प उबे करप, ते पळोवन लोकांचे दोळे दिपकावप हाकाच उदरगत म्हणटात काय कितें हाचेरूय विचार जावपाची गरज आसा. राज्यांत उदरगत मनशांची जावपाक जाय, भौतीक उदरगत मनशाक सुखसोयी दिता पूण आंतरीक समाधान आनी वैचारीक प्रगल्भतायेचें कितें?

सद्याच्या काळांत गोंय राज्याचे मुख्यमंत्री डॉ.प्रमोद सांवत आसात. हालींच तांचो 24 आप्रीलाक 50 वो वाढदीस जालो. सत्तेर आशिल्ल्या कोणाचोय वाढदीस धुमधडाक्यांत करप हें तांच्या कार्यकर्त्यांचें कामूच! मुख्यमंत्र्यांचो तर चडूच. कांय कार्यकर्ते आपूण जावन फुडाकार घेवन लोकप्रियतेचें आडंबर उबें करतात जाल्यार कांय मंत्री-आमदारूच आपूण फुडाकार घेवन कार्यकर्त्यांक फुडें काडटात. वाडदिसाच्या निमतान आपली जायरात करून आपली लोकप्रियता लोकांचेर थापपाचो हो प्रकार सगळेच कडेन चलता. कांय मंत्री आमदार आपल्या बोल्साक खार पडटलो म्हूण त्याच दिसा कारणां तयार करून कूस मारपाकूय शिकल्यात. पूण मुख्यमंत्र्यांचो पन्नासावो वाढदीस तसो मुद्दाम घडोवन हाडिल्लो असो दिसलोना. जें सहज घडून येता तेच तरेचें वातावरण ह्या निमतान दिश्टी पडटालें. जांका मुख्यमंत्री आदीं पावला वा फुडाराक पावचो म्हूण जांची इत्सा आसा त्या धंदेकारांनी ह्या निमतान जायराती दिवन तळी उखलप हेंय सैमीक आसा. एका चॅनलार मुख्यमंत्र्यांची आटोपशीर मुलाखतूय पळोवंक मेळ्ळी. कसलेंच आडंबर वा अतिताय ना. एक पत्रकार आनी लेखक तशेंच जागरूक नागरीक म्हूण ह्या गजालींच्या संपर्कांत रावचें पडटा. तांचे मुलाखतींत तांणी शेवटाक सांगलें, 'लोकांची सेवा करप हें आपलें अंतीम ध्येय.' तशें म्हणटना तांच्या मुखामळार पारदर्शकताय आशिल्ली तितलीच तांच्या आवाजांतूय आशिल्ली.

हें सगळें हांव बरयतां तेन्ना एक गजाल म्हजे तकलेंत आसा, जे कोण हें वाचतले तेन्ना हें सगळें मुख्यमंत्र्यांक मस्को मारून आपलें काम सादोवपाक हांव बरयतां वा हांव भाजपांत वचपाचे वाटेर दोळे लावन उबो आसां अशें म्हणले बगर रावचे नात. निदान 'बिम्ब' मासिकाक जायरात तरी मेळची ही आस्त दवरून हें चल्लां आसूं येता असोय विचार करतले. पूण मनाक दिसता तें बरोवप आनी कोण कितें म्हणटलो हाची तमा बाळगप ना हो विचार मनांत दवरूनच फाटलीं बावीस वर्सां हांव बिम्ब चलयतां. पर्रिकार मुख्यमंत्री आसतना तांणे म्हायती खात्याचे संचालक राजेश सिंगाक आपोवन बिम्ब मासिकाक जायराती दिवप ना अशें परिपत्रक काडपाक लायलें. बिम्ब आजून चलता. तें परिपत्रक दवरलां सांबाळून बिम्ब पंचविसावो वर्धापन मनयतलें तेन्ना अंकांत प्रसिध्द करपाक. सरकारी जायराती पर्रिकारानूय दिवंक ना आनी आतां सांवतय दिना. पूण कसलोच दर्जो उणो करी नासतना तें येता. ताचें फाटलें एकूच कारण, मुख्यमंत्र्यांक भायर गेल्ले कडेन कोणेंय विचारलें, 'तुमचे आवय भाशेंत कितलीं मासिकां आनी दिसाळीं चलतात?' तेन्ना तांकां बिम्ब दाखोवंक मेळूंक जाय. 'कांयच ना' अशी जाप दिल्यार तांका लज जावं येता. ती जावंक फावना म्हूण बिम्ब लुकसाणांत चलोवंचें पडटा हाचे ताचे मुखार हात पसरावन! तें आसूं!

तशें जाल्यार हें बरोवपा फाटलो उद्देश्य कितें? उद्देश्य आसा. फाटलीं चार वर्सां सांवत गोंयचे मुख्यमंत्री म्हूण गोंयचो राजकारभार चलयतात. कोण म्हणटात, ते पर्रीकारांच्या वचपा उपरांत निरुपाय म्हूण फ्लूकान मुख्यमंत्री जाले वा करचो पडलो. एका वर्सा फाटीं वेंचणुकेंत ते पडटा काय वाचता शे जाले. लार्गी लार्गी ते पडिल्लेच! पूण तांणी तें जैत कशें झोंबून घेतलें हें सगळ्यांक खबर आसा. तांची ही कळाशी आनी खेळी मोदी आनी शहा हांणी पारखिली आनी आपलो आशिर्वाद तांणी सांवताचेर घालो. सांवत संघाचे मुशींतल्यान आयिल्लो तांचो चेलोच म्हळ्यार जाता. सद्याच्या सरकारांत सांवत सोडून मुख्यमंत्री जावपाचे शर्यतींत आसात विश्वजीत राणे आनी रोहन खंवटे. दोगूय धडाडीचे आनी राजकारण कोळून पियेल्ले. आपले परीन दोगूय खुटी हालोवन मठी घट करतात. मोदी-शहा तांचेरूय कृपानदर दवरून आसाच. पूण सांवताक गूण चड पडटात ताचें कारण तांचें संघांतलें कार्य आनी त्याग. तांणी संघ कार्यकर्तो म्हूण केल्लें कार्य. ते रातच्या एकाक आपल्या घरा वतात आनी परत स वरांचेर पणजे येतात म्हणपाचें तांच्या ताफ्याच्या सायरना वेल्यान कळटा. हें एक दीसच घडटा अशें न्हय तर आत्रे पयन्यान. म्हणटकच हाचे वयल्यान' लोकांची सेवा करप हें आपलें अंतीम ध्येय.' ह्या उतरांतली सत्यताय न्हयकारूं येना, तेच पासत सांवत हांका मुख्यमंत्री म्हूण पर्याय ना. आज गोंयचो मुख्यमंत्री म्हूण जांका



गोंय पळोवंक शकता तातूंत सांवत, राणे, खंवटे ह्या तिगां भायर, सत्ते भायर आनीक एक आमदार आसात ते विजय सरदेसाय. तांणी आपल्याक मेळिल्ली भांगराची तांतयां दिवपी कोंबी आपल्याच हावरेपणाक लागून कापून उडयली. आयज सरकार घडोवंक एका आमदारा पासत अडचपाचो काळ फाटीं पडला. मुख्यमंत्रीपद दिवन सरकार घडोवपा बदला सगळ्या आमदारां सयत खंयचोय एक पुराय पक्षूच विकतो घेवपाची परंपरा सुरू जाल्या. म्हणटकच आयचें राजकीय वातावरण पळयत जाल्यार केंद्र सरकारांत भाजपची सत्ता आसऽ मेरेन गोंयांत सांवतच मुख्यमंत्री आसतले. भारतीय जनता पक्षाक उडोवंक जे सर विरोधी पक्ष निसुवार्थीपणान एकठांय येनांत ते सर हेंच सरकार उरतलें हें सत आनी हेर पक्ष केन्नाच एकठांय येवपाची शक्यताय ना हेंय तितलेंच सत. त्या भायर भाजप आपल्या पक्षाची मतपेटी भरपा पासत दिसरात तन मन धनान वावुरता. ह्या पक्षाचें एकूच ध्येय म्हळ्यार देशाचेर एकहाती सत्ता चलोवप आनी तांच्या डावपेचांतली मांडणी तेच दिकेन यशस्वी जायत आसा.

हें जें कितें चलता तें सगळें कायदेशीर आनी लोकशायेक धरून चलता. हांगा उजवी काय दावी विचारसरणी हो प्रस्न ना. हांगा जाचे हातांत सोंसो तो पारधी. अशे ह्या वातावरणांत आनी परिस्थितींत सांवतांक न्हयकारपाचें कारणूच ना. म्हणटकच तर आमकां कोणाक हुसको आसा गोंयचो जाल्यार आमी भाजप उजवे विचारसरणेचो पक्ष म्हणत सरकाराक विरोध करचे परस सांवत सरकार कशे तरेन गोंयचो फुडार सुगूर [illegible]क शकता हाचेर तांचें लक्ष ओडप. चडांत चड ते आडनदर करतले. लुकसाण कोणाचेंच जावंचेंना, जाल्यार फायदोच [illegible]तलो. एक तर सरकार निर्णय घेतलें वा सांगुनय केन्ना आयकलें ना म्हणपाची नोंद सासणाची उरतली.

सांवत सरकारान फाटल्या धा वर्सांत कितलेच हजार कोटी रुपया खर्चून उदरगतीचे कितलेच प्रकल्प गोंयांत उबे केले. लोककल्याणार्थ कितल्योच येवजण्यो राबयल्यो आनी तांचो लाव गोंयची जनता घेता. हें सगळें म्हायती खातें सगळ्या माध्यमांतल्यान दिसरात कळीत करता. ह्यो सगळ्यो गजाली भौतीक आसल्यो तरी राज्याचे उभारणेंक गरजेचें. तेच वांगडा हें गोंय फकत कॉंक्रीट आनी तांत्रीक सुखसोयींचेर तगपाचें ना. ताचें मुळावण संस्कृतायेर उबें आसा. पर्रिकारान आमचे वांगडा काळे कपडे घालून माध्यम आंदोलनांत फोटो काडून घेतले. मागीर खंयचे कडेन कांय ना. कोंकणी अकादेमी उबंत उडयल्या. निश्क्रीय लोकांक हाडून अध्यक्षपदार बसयता. कोंकणी अकादेमीक एक सुवात ना, कर्मचारी ना. कला अकादेमीचे वास्तुचें कितें जालें हें फाटलीं दोन वर्सां कोणाक पत्तो ना. प्रतापसिंग राणे कला अकादमीच्या अध्यक्षपदार आपली वर्णी लावन दिग्गज कलाकारांक आपले मुखार नतमस्तक जावंक लायताले. ते सांगनाशिल्ले तशें करूंक पूण सत्ते मुखार दुसरो पर्याय कलाकारां मुखार उरना. तें टाळप आतां तरी सांवत सरकाराक शक्य आसा. गोंयचे मुक्ततायेचो हिरक महोत्सव सांवत सरकारान मनयलो. पूण अजून मेरेन गोंय सरकाराचें म्हायती भवन बांदप सरकाराक शक्य जालें ना. मुक्ततायेच्या हिरक महोत्सवाच्या काळांत म्हायती खात्या कडेन अनुदान मागिल्लें, नागेश करमली, गुरुनाथ केळेकार आनी प्रभाकर सिनारी हांचेर म्हायतीपट करपाक. अजून ताची जाप ना..दोग जाण गेले फकत सिनारी उरल्यात. पूण एके संस्थेक ह्याच उत्सवा निमतान कोट्यांनी रुपया सरकार दिता. सरकार कला आनी संस्कृती खात्या वतीन प्रकाशकांक पन्नास हजारांचें अनुदान दिवपाचें उतर दिवन तीस प्रती खरेदी करता. अशीं कितलींच प्रकरणां आसात जीं सरकाराक लजेक म्हारग करता. डॉ. प्रमोद सांवत हांका मुख्यमंत्री म्हूण जसो पर्याय ना तसोच हीं असलीं संवेदनशील प्रकरणां झुजा मळार सुटावीं करपा बगर मुख्यमंत्र्यांक पर्याय ना. हीच गजाल तांच्या कानार घालपा पासत 6 जून 2022 दिसा तांचे कडेन हांवें भेट मागिल्ली. फुडले म्हयन्यांत वर्स जातलें. अजून जाप ना. नदर पडटा तेन्ना मेळुया म्हणटा. केन्ना मेळटलो देव जाणा! आसूं ती खबर. तांच्या 50 व्या वाडदिसा निमतान तांका शुभेत्सा भेटयतां आनी देवा कडेन मागतां, तांका गोंयचे जनतेची सेवा करपाक भलायकेन भरिल्लें उदंड आयुश्य लाभू.

*पणजें, मो. 9822136885*

# मळबा कडेन पळोवपी तंत्रीक दोळे...

उक्त्या दोळ्यांनी मनीस चडांत चड पयस आनी चडांत चड कितलें बारीक पळोवंक शकता? जेन्ना आमी दोळ्यांनी हें विश्व नियाळटात. तेन्ना चडांत चड पयसुल्ली वस्त जी आमचे दोळे पळोवंक शकतात ती म्हणजे ऍन्ड्रोमॅडा गॅलक्सी. ती 25 लाख प्रकाश-वर्स पयस आसा.

एक प्रकाश-वर्स हें अंतर म्हणजे उजवाडाचे किरण एका वर्सांत जितलें अंतर वता, त्या अंतराक एक प्रकाश-वर्स अंतर म्हणटात. एका सेकंदाक उजवाडाचें किरण धर्तरेचे 8 फेरे घेता. ताचे वयल्यान एका वर्साक कितले फेरे जातले हाचो हिशोब करून हें अंतर कितलें अफाट आसा हाचो अंदाज करपाक येतलो. मिटरांनी हिशोब केल्यार एक प्रकाश-वर्स म्हणल्यार सादारण 10,000,000,000,000,000 मिटर (एकाचेर 16 शुन्यां). रातचें मळबांत नदर मारल्यार आमच्या दोळ्यांनी सादारण 3000 तारे दिसूंक शकतात. विज्ञान आनी तंत्रज्ञानाक लागून व्हड व्हड दुर्बिणी निर्माण जाल्यात. त्या खातीर आमचे दिश्टीची कुशळताय कितलेशेच पटीन वाडल्या. आमचे दुदगंगेंत 100,000,000,000 परस चड तारे आसात. विश्वांत वट्ट 100,000,000,000 गॅलेक्सी (दुदगंगा) आसात. म्हणजे विश्वांत वट्ट कितले तारे आसूं येतात हाचो अंदाज येतलो



**विज्ञानदूत श्रीकांत शंभू नागवेंकार**

*आपल्याक विज्ञानदूत मानून विज्ञानाचें गिन्यान सोंपे भाशेंत कोंकणींत हाडून समाजाक विज्ञानाची गोडी लावपी विज्ञान शिक्षक आनी लेखक*

## दुर्बीण

गॅलिलिओन दुर्बिणींतल्यान मळबा कडेन नदर मारली आनी खगोलशास्त्रीय मोगी लोकांक तंत्रीक दोळे दिले. आधुनीक दुर्बिणीं कडेन तुळा केल्यार गॅलिलिओची दुर्बीण खेळणें जातलें. पूण ह्याच खेळण्यान जगाक नवी नदर दिली. नवी विचारीक क्रांती घडोवन हाडली.

दुर्बिणीच्या आदारान पयलो गिरो सोदलो तो युरेनस. व्हिलीयम हर्शेलाक आकाश दर्शन करपाची खूब हौस आशिल्ली. अजापाची गजाल म्हणल्यार हर्शेल एक वेवसायीक संगीतकार आशिल्लो. ताचो स्वताचो आर्केश्ट्रा आशिल्लो. स्वता फुडाकार घेवून ताणें 12 मिटर लांब दुर्बीण बांदली. त्या तेंपार तंत्रीक यंत्रणेंत व्हड सुदारणा जावंक नाशिल्ल्यो. येदी व्हड दुर्बीण फावो ते दिकेन घुंवडावप खूब कुस्तार जातालें. ह्याच संगीतकारान छंद म्हणून 1781 त नव्या गिऱ्याचो सोद लायलो. आधुनीक विज्ञानान सोदिल्लो तो पयलो गिरो आशिल्लो. ल्हवू ल्हवू दुर्बिणींच्या तंत्रांत सुदारणा जाल्यो. दुर्बिणींक कॅमेरा लावन फोटो काडपाचें तंत्र विकसीत जालें. 1930 त क्लायड टॉमबॉव (Clyde Tombaugh) ह्या खगोलशास्त्रज्ञान प्लुटो गिऱ्याचो सोद लायलो. (प्लुटो हो आतां गिरो ना. ताका गिड्डो गिरो म्हणून मानला).

युरेनस आनी प्लुटो मदलो नेप्च्यून गिरो, न्युटनाचीं सुत्रां वापरून पयलीं ताची सुवात सोदून काडली आनी मागीर दुर्बिणींतल्यान ताचो सोद घेतलो.

## आधुनीक दुर्बिणी

20 व्या शेंकड्यांत तंत्रज्ञानांत सुदारणा जायत गेल्यो.



व्हड व्हड दूर्बिणी बांदपाची सर्त सुरू जाली. कॅलिफोर्नियाची [illegible]ालोमार दोंगरा वयली 5 मिटर व्यासाची दुर्बीण एका तेंपार [illegible]ल्यांत व्हड आशिल्ली. ती 1949 सावन काम करता. हे दर्बिणींतल्यान 60 लाख पटीन डीम तारो दिसता. तशेंच 100 कोटी पयसुल्ली गॅलक्सी हे दुर्बिणीन सोदल्या. नवें तंत्र [illegible]ापरून व्हड दूर्बिणी बांदपाचे यत्न चालूच आसात. सद्या ग्रॅन [illegible]कोपीओ कॅनारीस (Gran Telescopio Canarias) ही 10 मिटरांची दूर्बीण 2009 वर्सा सावन बरे तरेन काम करता.पूण एक आडखळ येता. धर्तरे वयल्या वातावरणाक [illegible] अवकाशांतलीं उजवाडाचीं किर्णां हवेंतल्या अणूं रेणूंचेर [illegible] भोंवतडा शिंपडून वतात. स्विमींग पुलांत [illegible] भायर पळयल्यार कशे दिसता? तेचबशेन धर्तरीच्या [illegible]ाक लागून जाता।

[illegible] व्हड दर्बिणी दोंगराचे तेंगशेर, मनश्याचे वस्ती [illegible] कारण वयर वातावरण पातळ आसता [illegible]ाक लागून विजेच्या उजवाडांत मळबांतले तारे [illegible] वयर अशी दर्बीण भारतांत [illegible]ाची गजाल म्हणजे तिचे वयली [illegible] ऑफ एस्ट्रोनॉमी, बंगलूरूच्यान [illegible] व्यत्यय पुराय ना करपाक एकच [illegible] वातावरणाच्या भायर दर्बीण

सोडप. हें सपन नासान 1990 त हबल स्पेस टेलिस्कोप म्हणजे अंतरीक्ष दुर्बीण वयर सोडून पुराय केलें. तिचेर 2.4 मिटर व्यासाची दुर्बीण बसयल्या. सुरवेक हे दुर्बिणीक बऱ्योच आडमेळी आयल्यो. नासान खासा स्पेस शटलांतल्या अंतरीक्ष विरांक अंतराळांत धाडून त्यो दुरुस्त केल्यो.

हबल स्पेस टेलिस्कोप खगोलशास्त्राक वरदान थारला. तिणें धाडिल्ले एक एक फोटो लाख मोलाचे आसात. ताका लागून भौतिकशास्त्राचीं कितलींच कुवाडीं सुटलीं. इतलेंच न्ही तर हबल स्पेस टेलिस्कोपान धाडिल्ले फोटो इतले सुंदर आसात की कवी चंद्राचेर सोडून अंतरिक्षाचेर कवनां करपाक बसतलो.

ताचे वयली यंत्रणा दुरुस्त करून तो फुडलीं 10-20 वर्सां काम करूंक शकता अशी आस्त आसा. 2021 वर्सा नासान हबल स्पेस टेलिस्कोपाचे फुडले पिळगेंतलो (जेनरेशन) अत्याधुनीक तंत्रज्ञान वापरून 'जेम्स व्हेब्ब स्पेस टेलिस्कोप' धाडला. ताचे दूर्बिणीचो व्यास 6.5 मिटर आसा. एका वर्सा भितर तो काम करपाक लागला

## अदृश्य किर्णां

उजवाडाचीं किर्णां लहरींच्या रुपांत पसरतात. ह्या लहरींक विद्युत चुंबकीय लहरी म्हणटात. विद्युत चुंबकीय लहरींचे

तरेकवार प्रकार आसतात. उजवाडाचीं किर्णां हे विद्युत चुंबकीय रूंद पट्ट्यांतलो एक ल्हानसो वांटो, 5 टक्क्यां परस उणें.

अती-उच्च उर्जेच्या किर्णांक गामा रेज म्हणटात. त्या परस उणें एक्स रे, ताचे परस उणें अल्ट्रा-व्हायलेट. उपरांत येतात उजवाडाचे किरण. उजवाडा परस उणें उर्जेचे इन्फ्रारॅड आनी उपरांत मायक्रोव्हेव. मागीर टिव्ही, मोबायल, रेडिओ लहरी असो हो विद्युत चुंबकीय लहरींचो पट्टो आसा. हाचो अर्थ असो की अंतरिक्षांतल्यान इतले तरेचीं किर्णां येतात. पूण फकत 5 टक्के उजवाडाचीं किर्णां सोडल्यार 95 टक्के अंतरीक्ष अदृश्य रूपांत आसा.

दुसरी गजाल म्हणल्यार, फकत उजवाडाचे आनी रेडिओ रेज सोडल्यार हेर किर्णांचे प्रकार वातावरणांतल्यान पासार जायनात. त्या खातीर वातावरणाच्या भायर वचून पळोवचें पडटलें. नासान 1993 वर्सा भारतीय वंशाचे व्हड भौतिकशास्त्रज्ञ सुब्रह्मण्यम चंद्रशेखर हांच्या नांवान 'चंद्रा' हो एक्स-रे टेलिस्कोप वयर धाडला. नव्या तंत्रज्ञानाक लागून एक्स-रे, अल्ट्रा-व्हायलेट आनी इन्फ्रा-रेड किर्णांचे फोटो घेवपाक शक्य जालां.

## रेडिओ दुर्बीण

अमेरिकेचे कार्ल जान्स्की (Karl Jansky) ह्या तरणाट्या शास्त्रज्ञाची 'रेडिओ संचाराक आडमेळीं कशीं येतात' हाचेर संशोधन करपाक नेमणूक जाल्ली. अचानक ताका अंतराळांतल्यान एका थारावीक सुवाते कडल्यान रेडिओ लहरी येतात अशें दिसून आयलें. ताणें त्यो लहरी ट्यून करून आवाजांत रुपांतर केल्यो. आकाशवाणीचें रेडिओ केन्द्र ट्यून करतगीर जसो आवाज येता तसो आवाज येवपाक लागलो. 1933 वर्सा ताणें आपलो प्रबंध प्रसिध्द केलो. ह्यो लहरी कश्यो येतात? कोण धाडटात? हाचेर तर्क सुरू जाले. अंतरीक्ष मानव ह्यो लहरी धर्तरीचे दिकेन धाडून आमचे कडेन संपर्क करपाक सोदता जावये, असो बोवाळ जालो. पूण खूब तेंपान तें कुवाडें सुटलें. ताऱ्यांचे अवस्थेंत बदल जातात त्या मदलो हो एक पांवडो आसा, अशे कळून आयलें. ते उपरांत रेडिओ दुर्बिणी बांदपाचेर आनी फुडें अभ्यास करपाक नेट आयलो.



रेडिओ दुर्बिणी दोन प्रकाराच्यो आसतात. एक टिव्ही डिशा बशेन तर दुसरो प्रकार रेडिओ एन्टिना बशेन. 20 व्या शेंकड्यांत सुरवेक जेन्ना 'व्हॉल्वाचे रेडिओ' आयले. तेन्ना घरा वयर दोन कोंडया मदीं लांब सरी बांदताले. तिका एक व्हायर जोडून रेडिओक जोडटाले. तिका 'एरियल' म्हणटाले म्हणजेच एन्टिना.

भारतांत पुणें-नाशीक हायव्हेचेर नारायणगांव हांगा 45 मिटर व्यासाच्यो 30 डिशांची रेडिओ दुर्बीण बांदल्या. उटी दोंगराचेर 530 मिटर लांब, 30 मिटर रूंद एन्टिना प्रकारची दुर्बीण आसा. रेडिओ दुर्बिणी खातीर ताऱ्याचे प्रकार, गॅलक्सी, नेबुला हांचो अभ्यास जाता.

## स्पॅक्ट्रोस्कोपी-खगोलशास्त्राचे म्हत्वाचे तंत्र

शास्त्रज्ञांक ताऱ्या वयलें वातावरण, तांचेर कसले वायु आसात. तांचें तापमान, गती, हें सगलें धर्तरिचेर बसून कशें कळटा? सरसकट मनशाक असो प्रस्न पडूंक शकता. ते खातीर स्पॅक्टोस्कोपी ह्या तंत्राची म्हायती करून घेवची पडटली.

जेन्ना सुर्याचीं किर्णां लोलकांतल्यान (प्रिझम) पासार जातात. तेन्ना रंगाचो पट्टो दिसता. ताका रंग-पट्टो (स्पॅक्ट्रम) म्हणटात. ही प्रक्रिया वापरून स्पॅक्ट्रोस्कोप हें यंत्र तयार केलां. हें एक सादें यंत्र-साधन आसा. पूण शास्त्रज्ञांक खूब मोलादीक थारलां.

उजवाडाचीं किर्णां लहरींच्या रुपांत पसरतात. रंगपट्ट्याचे एका तोंकाचेर तांबड्या रंगांचीं किर्णां पडटात. तांची ऊर्जा उणें आसता. तर दुसरे वटेन खर उर्जेचीं जांबळ्या रंगाचीं आसतात. मदीं हेर रंग आसतात. त्या भायर ह्या पट्ट्या मदीं काळ्यो रेगो, फटी (डार्क लायन) दिसतात.

रंगपट्ट्या वयल्या रंगाचे तिव्रताये वयल्यान ताऱ्यांचें तापमान, आनी काळ्या रेगां वयल्यान ताऱ्या वयल्या मुलद्रव्यांचो सोद लागता. जर तारो पयस वता तर काळ्यो रेगो तांबड्या रंगाचे वटेन वतात. ताका 'रेड शिफ्ट' म्हणटात.

1929 वर्सा एडविन हबल ह्या शास्त्रज्ञान गॅलक्सी एकमेकां सावन पयस वतात, हें सोदून काडलें आनी 'विश्व फांकारता' हो विश्वाचे उत्पत्ती वयलो सिध्दांत मांडलो.

---

*मेरशे, मो. 9096512359*

▶ सोदपत्र

# म्हादयच्या देंगणांतली रामायणाची लोकप्रियता



‘रामायण’ आनी ‘म्हाभारत’ हीं भारतीय साहित्यांतलीं दोन अग्रेंवर म्हाकाव्यां. भारतीय संस्कृतायेंत ह्या म्हाकाव्यांक अनन्य साधारण म्हत्व आसा. साहित्यकारांनी हीं म्हाकाव्यां कथा, कादंबरी, नाटक, खंडकाव्य सारकिल्ल्या साहित्य प्रकारांतल्यान जाल्यार लोक कलाकारांनी लोककथा, आख्यायिका, लोकनाच, लोकनाट्य, लोकगायन सारकिल्ल्या माध्यमांतल्यान एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगे मेरेन पावयल्यांत आनी पावयत आसात.

गोंय आनी कोंकणी साहित्या संदर्भांत जेन्ना आमी ह्या साहित्यकृतींचो विचार करतात तेन्ना लिखीत साहित्यकृती परस लोकवेदाच्या माध्यमांतल्यान हीं दोनूय म्हाकाव्या खऱ्या अर्थान आनी प्रभावीपणान भौसा मेरेन पावोवपाचो वावर हांगच्या लोककलाकारांनी केला. ‘फुगडी’, ‘जत’, ‘चौरंगी’, ‘सोकारत’, ‘माळेगान’, ‘घुडूल्या काणी’, ‘रणमालें’ ‘दशावतार’ सारकिल्ल्यो लोक परंपरां हीं ताचीं बरीं उदाहरणां म्हणूं येता.

गोंयचो लोकवेद अभ्यासतना आनीक एक गजाल स्पश्ट दिसता ती म्हटल्यार हांगाच्या भौसाच्या लोकमनाचेर म्हाभारता परस रामायणाचो प्रभाव इल्लो नाखूटभर चडूच आसा. म्हादयच्या देंगणांतल्यो लोककला बारीकसाणेन अभ्यासल्यार हाचें खरेंपण दिसता. चवथी दिसांनी गणपती फुड्यांत जी फुगडी घालतात त्या गितांतल्यानूय राम कथांचेंय गायन जाता. हीं सगळीं फुगडे गितां अस्तुरी मनाचो विचार करून रचिल्लीं आसात. तोच धागो धरून रामायणांतल्या कथांचेर आदारिल्लीं फुगडी गितां सीतेक केंद्रस्थानार धरून रचल्यांत. तांतूंतलीं कांय गितां अशीं–

माजी नेण्टेली सीता बाई माजी नेण्टेली सीता बाई
सीता गेली ती न्हयीव्हाळा सीता गेली ती न्हयीव्हाळा
सीतेन पयिला साद केला सीतेन पयिला साद केला
साद गेला तो पाणया ल्हारार साद गेला तो पाणया ल्हारार
सीतेन दुसरा साद केला सीतेन दुसरा साद केला
साद गेला तो वाऱ्या झोतार साद गेला तो वाऱ्या झोतार

अशे तरेचें कवीत रचतना थळावे अस्तुरेन आपल्या मनभावनांतली सीता फुगडे गितांनी उबी केल्ली पळोवंक मेळटा. दुसऱ्या एका फुगडी गितांत राम आनी सीता वनवासाक वचोंक भायर सरता. तेन्ना आपल्या मांय मांवांक सोडून वयतना सीतेच्या मनाची घालमेल व्यक्त जाता–

झिलू लक्ष्मण गांवकर
*लोकवेद संशोधक, शिक्षक, कवी आनी ललित लेखक*

दारांतलो लोणी रथ, रथ चालतो घडोघडी
सीता रडेता ढळढळ्यां सीता रडेता ढळढळ्यां
सीतेचो मांव गे इचार करी सीतेचो मांव गे इचार करी
सीते कित्याक गे तू ओगी सीते कित्याक गे तू ओगी
राम व्हरता म्हाका वनवासी,राम व्हरता म्हाका वनवासी

अश्या ल्हान-ल्हान घटनाचेर रचिल्ल्या फुगडी गितांतल्यान हांगच्या भौसान रामायण एके पिळगे कडल्यान फुडले पिळगे मेरेन पावोवपाचो वावर करतना रामायणाची लोकप्रियता सिद्ध केल्या. बायलां धालांच्या मांडार पांचवे रातीक तरेकवार खेळ खेळटात, तांतूंत फांतोडेर रामायणतली जत गायत 'रणमालें' खेळपाचीय परंपरा हांगांचे अस्तुरीन जपल्या. पूण म्हादयच्या देंगणांत खऱ्या अर्थान लोकरामायण जपलां आनी केळयलां तें हांगच्या कश्टकरी दादल्यांनी.

फाल्गून पुनवेन सुरू जावपी हांगच्या शिगम्यांत तर भोवतेक सगळ्या गांवांनी 'जत' आनी 'सोकारत' च्या रुपान रामायणाचीं पारायणां जातात. जतीच्या तालार 'रणमालें' सादर करीत राती जागयतना रामायण लोकमनाचेर प्रतिबिंबीत करपाची परंपरा हांगा पुर्वापार चलत आयल्या. शिगम्याचीं नमनां जालीं काय मांडार ल्हान ल्हान कवनूलां गायत फेर धरून नाचतात त्या कनूलांकूय ह्या वाठारांत 'जत' म्हणपाची चालंत आसा.

राम रे लक्ष्मण सीता तिगां जाणां बा। राम रे लक्ष्मण सीता तिगां जाणां।।

तीं तिगां चल्ली निरंजन वनां बा। तीं तिगां चल्लीं निरंजन वनां ।।

निरंजना वनी जाऊन गुंफा बांदल्यो बा। निरंजना वना तेणी गुंफा बांदल्यो ।।

अशे तरेचीं रामायणांतलीं कवनुलां भौसाक अतिप्रिय. तीं गायल्या बगर खेळ फुडें वचनात. अश्या कवनुलांक कांयकडे 'चवरंग' म्हणपाची रीत आसा.

'रणमालें' हें म्हादयच्या देंगणातलें पारंपारीक आनी प्रशिध्द लोकनाट्य भौसा मदीं खूब लोकप्रिय आसा. रणमाल्यांत जतींच्या रुपान रामायण गायनाची परंपरा हांगच्या भौसान ह्या लोकनाट्याच्या रुपान पुर्वापार तिगोवन दवरल्या. घडये हाकाच लागून लोककलेचे नामनेचे अभ्यासक पद्मश्री विनायकबाब खेडेकार हांणी रणमाल्याक 'तें रामालें' म्हण तें 'रणमालें' अशे म्हटलां आसूंक जाय. शिगम्याच्यो पांचूय राती खंडा खंडानी पुराय रामायण गावपाची परंपरा हांगा रुजली आनी विकसीत जाल्ली पळोवंक मेळटा. ह्या वेळार गांव आनी त्या वाठारांतले शेकड्यांनी लोक आपलें प्रिय आराद्य राम कथांचो आस्वाद घेयत राती जागयतना आयजूय पळोवपाक मेळटात. जत रुपी लोकरामायण 'श्रावण बाळाची जत', 'राम लक्ष्मणाची जत', 'गुरू रावणाची जत' अश्या भागा भागांनी गावपाची परंपरा आसा.

'जत' हो रणमालें लोकनाट्याचो प्राण. म्हादयच्या देंगणांतलो सैम, हांगची लोक भास, हांगची जिणे रीत ह्या सगळ्याचो परिपोश ह्या लोककाव्यांत पळोवंक मेळटा. राम-लक्ष्मणांची वनातली जीण पितारताना गानेली म्हणटा-

गुंफे भोंवारी बांदिले सारिंगण पाट
पाटा लायल्यो जायो नीगा जुयो
पाटा लायिली केळीची नी गा बनां
पाटा लायल्यो शेवत्यो मोगऱ्यो
पाटा लायिली आबोलीचीं बना
पाटा लायिली इडा मावळींगां
पाटा लायिली केगदीचीं बनां.

अशे तरेन आपले दिसपट्टे जिणचें चित्रण ह्या जतीनी पळोवपाक मेळटा.

मायेचो सोबीत सुंदर मृग पळोवन सीतेक कांचोळ्यो घडोवची आस निर्माण जाता आनी ती रामाक म्हणटा

स्वामी माज्या रामा भर्तारांनो
मिर्गा वेदोनिया कांचोळ्यो घडया
मिर्गाचे कांचोळे येती घंद्रा घानी
नव लक्षा घडोवन कांचोळ्यो घडोवया.
नव लक्षा कांचोळ्यो नाय कामाच्यो
सोन्या रुप्याच्यो कांचोळ्यो घडोवया
सोन्या कांचोळ्यो चोरा चांडाळाच्यो
मिर्गा कांचोळ्यो आमच्या कामाच्यो
सुर्यवंशी म्हणोन घरा फटयल्यात
मिर्गार बाण मारूंक काय भियाल्यात

अशे तरेचे सादे सरळ काव्यात्मक संवाद लोकमनाक खूब भावतात. फुडले घटनेंत सीता लक्ष्मणाचेर बेजारून म्हण्टा

सुर्य कुळांत आमी जलम घेतला
आमकां नाय व्हनी नाय गे मराण
तुमच्या बंदवाचो नाय तुमकां लोभ

आमकां बगल्यात गोरी गोमटी
राम मेल्यार सीता तुमकां पडात.

अशे तरेचे सर्वसामान्य भौसाच्या मनाचे विचार आनी उत्फर्के जतीतल्या संवादानी आयिल्ल्यान लोकमनाक ते खूब भावतात. रातरातभर चलपी रणमाल्यांत फांतोड जातां जातां दोळ्यांक लकणी येंवक लागता अश्या वेळार –

राम रे लक्ष्मण निघाले बना
निघाले बना
ताटका पावल्यो केगदी बना

ताटका येवन राम आनी ताटकेचें युध्द जावन राम ताटकेक मारता तेन्ना अरिश्ट पयस करपी रामाक मना सावन नतमस्तक जाता. अशे तरेची रचनाय ह्या जतीनी गुथिल्ली आशिल्ल्यान प्रेक्षकांक ती खूब भावता.

'सोकारत' गायन

'सोकारत' गायनाची एक खाशेली लोकगायन परंपरा म्हादयच्या देंगणांत शिगम्या दिसांनी पळोवपाक मेळटा, जी हेर कडेन दिसना. 'सोकारत' ह्या उतरा बदला 'सकारत' अशेंय उतर घोळणुकेंत आसा. शिगम्यांत जो 'करवली' विधी जाता त्या वेळार सोकारत गावपाची परंपरा आसा. आयज ते 'विधी'चो उत्सव जाला. ह्या उत्सवांत निमणेकडे 'फूल' हो विधी जाता. ह्या वेळार फकत गांवचे जाणटेच उपस्थीत आसतात. भुरग्यांनी आनी बायलांनी हो विधी पळोवचो न्हू म्हण तो लोकां अस्वडी फातोड पारार करचेली परंपरा करंजोळ ह्या गांवांत आसा. त्या वेळार गांवां भायल्या परकी मनशाकूय थंय येवपाक दियनात. हे विधी वेळार जी सोकारत गायतात ती सोकारत लेगीत बायलांनी आयकूची न्हय अशी चलंत आसा. ह्या वेळार एक खाशेली सोकारत गायतात. त्या करवली न्हेसलेल्या गड्याक एका विशीश्ट थळार व्हरून थंय उजो पेटयतात आनी तिचे सगळे अळंकार देवोवन त्या उज्यांत (सरणांत) घालतात. निमणेकडे माथ्यांतलें फुल त्या सरणांत उडोवन सोकारत सोंपता. निमणे सगळे गानेली आनी उपस्थीत लोक न्हंय व्हाळार वचोन न्हावन पवित्र जातात आनी देवळांत येवन तिर्थ घेतात. हे विधीक कांय कडे 'करवल्यो सुटप' अशेंय म्हणटात.

'करवली' विधीच्या मुळांत सोकारत गायनाचो उगम आस्पूक जाय. पूण हो विधी केन्ना आनी कसो सुरू जालो हे विशी कोणाकूच कायच खबर ना. तरी 'करवली न्हेसप' आनी 'करवली सुटप' हो विधी प्रकार बारीकसाणेन अभ्यासलो जाल्यार तो आमकां 'सती' प्रथेची याद करून दिता आनी ही करवली म्हटल्यार 'सती' वचपी अस्तुरी काय किदें? हाचेर विचार करूंक लायता. भारतांत राजा राममोहन रॉय आनी हेर समाज सुधारकांनी आंदोलना सुरू केल्या उपरांत ब्रिटीश सरकारान सतीचे प्रथेचेर 1828 सावन बंदी हाडली. आनी पुराय भारत देशांत 1861वर्सा सावन सती प्रथेचेर कायद्यान बंदी हाडली. मोंगल सल्तनतीतूय अकबर बादशहान 1552 त सतीचे बळजबरीचो वापर करपाचेर एक आदेश जारी केल्लो असो इतिहासांत उल्लेख मेळटा. हाचो विचार केल्यार ही परंपरा आमकां साडेचारशीं वर्सां फाटीं घेवन वचना मू? असो प्रस्न मनांत येयल्या बगर रावना.

म्हादयच्या देंगणांतलो सैम, सुकणीं–सावदां, हांच्या वांगडा थळावे रिती रिवाज, दिसपट्टे जिणेंतले अणभव हांची सांगड लोक कलाकारांनी 'पुराण कथा' आनी 'रामायणा' कडे घालीत आपलीं सुख–दुखां सोकारतीच्या रुपान गायल्यांत.

म्हादयच्या देंगणांतल्या लोक कलांचो अभ्यास करतना प्रामुख्यान आनीक एक गजाल  जाणवता ती म्हटल्यार 'सांतेर', 'ब्राम्हणी', 'केळबाय', जोगेश्वरी देवतां सांगातान 'राम' हेंवूय तांचें प्रिय आनी श्रध्येय दैवत म्हणपाचें लक्षांत येता. रामायणांतल्या कथांचेर आदारीत तरेकवार गितां रचून तीं तांणी गायल्यांत. 'सोकारत' हो तांतूंतलोच दुर्मीळ आनी दिर्घ लोकगीत गायन प्रकार हांगच्या लोक कलाकारांनी रचला आनी केळयला. धोल, तासो आनी कासाळ्याच्या तालार धुंद जावन हें गायन करतात. हांतूंत श्रावण बाळाची सोकारत, जनक राजाची सोकारत, रामाची सोकारत अश्या सोकारतींतल्यान हांगच्या भौसान जिबे वयले जतनायेच्या रुपान लोकमनांतलें 'रामायण' तिगोवन दवरलां. आपल्या भोंवतणचो परिसर थंयची भास ह्या लोककलाकारांनी वापरून तांणी ती समृध्द करपाचो यत्न ह्या लोक गितांतल्यान जाता.

रावण पडलो धरणीवर, रावण पडलो धरणीवर
धोणू पडलां उरार, धोणू पडलां उरार
दुरू दुरू फेस काडी, दुरू दुरू फेस काडी
उट जल्देन बंदवा उट जल्देन बंदवा
आनी उकल तां धोणू काय ते छातये वयलां
है रामा, उकल तां धोणू काय ते छातये वयलां

जनक राजाचे सोकारतींत सांगिल्लो हो स्वयंवराचो प्रसंग मात वेगळेंच मोडण घेता. रावणाचे छातयेर पडिल्लें धोणू व्हडल्या भावाचे आज्ञेन लक्ष्मण उखलता



खरो पूण तें पळोवन खुशाल भरीत जाल्ली सीता लक्ष्मणाच्या गळ्यांत माळ घालूंक फुडें येता तेन्ना लक्ष्मण सीतेक सांगता, ही माळ तूं म्हज्या गळ्यांत घालूं नाकां कारण हांवें स्वतः जावन हें धोणू उखलूंकच ना. म्हज्या व्हडल्या भावाचे आज्ञेन रावणाचे छातयेर पडिल्लें धोणूं उखल्लां. देखून ही माळ तूं ताच्या म्हणजे रामाच्या गळ्यांत घाल. त्या वेळार सीतेक तो आपल्या स्त्रित्वाचो अपमान दिसता आनी ती थंयच लक्ष्मणाक शिराप दिता की, तुज्या नशिबांत तुकां अस्तुरेचें सूख केन्नाच मेळचें ना. अशे तरेन एका वेगळ्याच मोडणार व्हरपी हें कथानक सोकारतींनी पळोवपाक मेळटा. तात्पर्य हांगच्या लोकमनांचेर जाल्ल्या संस्काराचें प्रतिबिंब सोकारतींनी पळोवपाक मेळटा. रामाचे सोकारतींत हनुमंतान मांडिल्लो उच्छाद सांगतना गानेली हनुमंताची नमळाय सांगतना म्हणटा–

हनुमंत रे भक्त, हनुमंत रे भक्त
सीतेच्या चरणा लागलो, सीतेच्या चरणा लागलो
तानेन तान्यालो, भुकेन भुक्यालो
जाया त्या बार्गेत, जाया त्या बार्गेत
खाया काना–मुना, खाया काना–मुना
हनुमंत उटलो हनुमंत उटलो
आनी केलो सत्यानास त्या कुळागाराचो
है रामा केलो सत्यानास त्या कुळागाराचो

सोकारतीची भास, घटना, प्रसंगांची मांडणी करतना गानेल्यांनी आपणाक भावता, लोकांक रुचता ह्या सगळ्यांचें भान दवरून त्यो रचल्यात आनी जिबे वयल्या दायजाच्यां रुपान फुडले पिळगे खातीर सांबाळून दवरल्यात.

गोंयांतल्यो चडश्यो तोककला सोळाव्या शेकड्यांत सुरू जाल्यात आसुंये अशें अभ्यासकांचीं मतां वाचूंक मेळटात. शिवाय वयलो संदर्भ मतींत घेतल्यारूय सोकारत हो लोक गायन प्रकारूय सोळाव्या शेंकड्यांत सुरू जाल्लो आसूं येता.

म्हादयच्या देंगणांतल्यो 'जती' 'सोकारती' हें गोंयच्या लोकवेदाचें गडगंज दायज तें काळाच्या पड्ड्या आड वचोंक फावना.ते खातीर तार्चे संकलन जावपाची गरज आसा. रणमाल्याच्या जतीचें संकलन झिलू गांवकार हांणी रणमालें स्वरूप दर्शनच्या निमतान केलां. तरीय आनीकूय जती संकलीत जावपाच्यो उल्ल्यात. तो वावर जावपाची गरज आसा. 'सोकारत' हो गायन प्रकार तर आयजूय उपेक्षीत उल्ला. ताचो खोलायेन अभ्यास आनी संकलन जावपाची गरज आसा. आयज कलेच्या मळावेलो झगमगाट, नोकरी व्यवसाया फाटल्यान धांवतना वेळेचो अभाव अशा कारणांक लागून नवी पिळगी लोक कलां कडल्यान पयसावत आसा हें जरी खरें आसलें तरीय गांवच्या मांडावेलो लोककलांचो साज आनी सांस्कृतीक गिरेस्तकाय आयजूय तितलीच समृध्द आसा. ती तिगोवचे खातीर ह्या लोक कलांचें डॉक्युमेंटेशनाच्या माध्यमांतल्यान संवर्धन जावप गरजेचें आसा. तें लोकवेद आभ्यासकांचे नवे पिळगेन आपल्या भुजार घेवपाची गरज आसा.


संदर्भः

1. गोमंतकीय लोककला, श्री. विनायक खेडेकार
2. रणमालेंः स्वरूप दर्शन, श्री. झिलू लक्ष्मण गांवकर
3. सत्तरीतील लोक कला, श्रीधर बर्वे


---


*मो. 9923651774*



# जें घडून गेलां तो इतिहास

फुडार थांबतलो इतले मेरेन इतिहासांत घुसपून वच्चों न्हय! ख्रंयच तरी लिखाणांत हें वाक्य वाचिल्लें.

इतिहासांत घुसपून गेल्यार फुडार कित्याक थांबतलो?

म्हाका वाक्याचो अर्थ सारको समजलोना.

इतीहास भूतकाळाचें रूप आसता आनी भूतकाळ सहसा केन्नाच बदलना. जें कितें घडून गेलां ताची इतिहासांत नोंद जाता.इतिहासाच्या घटनांतल्यान,घटना–थळांतल्यान फुडाराचें नवें पर्व घडून येता. जांकां इतिहासाच्या पर्वांची जाण नासता तांकां वर्तमानाचेंय भान उरना. फाटल्या परंपरांची जांकां वळख नासता तांचे कडल्यान योग्य फुडाराची अपेक्षा करपय चुकीचें आसता. इतिहास जाणा जावचोच, पुणून ताचेर चुकीचो वाद घालचो न्हय

भूतकाळ निश्चित आसता. फुडार अनिश्चित आसता. फाटल्या दोनशें–अडेजशें वर्सांत इतिहास संशोधन शास्त्रांत ख्रूब बदल घडून आयला. भूतकाळांत जें कितें घडलां तें कितलें ख्रें हाचेर इनिहासकार वेगवेगळीं मतां मांडूंक लागल्यात. ताका लागून भूतकाळ निश्चित आसा काय ना हाचो दुबाव व्हक लागला. सगळो भूतकाळ कांय आमी आमच्या दोळ्यांनी पळयलो ना. इतिहासांत जी कितें नोंद जाल्या ताचे वेल्यान आमी भूतकाळ पारखितात. नोंद जाल्या त्या घटनांची उजळणी करतना इतिहासकारां मदीं जे मतभेद जातात ताका लागून घटनांची आवश्यक अशी पुनर्मांडणीय जाता.

इतिहास मागीर तो रामायण–महाभारताचो आसूं,संवसारीक म्हाझुजांचो आसूं, हिंदुस्थानाचे फाळणीचो आसूं नाजाल्यार फ्रेंच–रशियन क्रांतीचो आसूं, दरेका इतिहासीक घटनांचेर इतिहासकार वेगवेगळ्या तरांनी मतां मांडटात.

नेपोलियन पराभूत कित्याक जालो? इतिहासकार म्हणटात,नेपोलियनाक आपल्या जैताचो अती विस्वास आशिल्लो. तो सदांच जिंकत आयिल्लो. फावोशी सादूरताय बाळगिल्ली जाल्यार 'वॉटरलू' ची नामुश्की तो वाटावंक शकता आशिल्लो. दुसऱ्या म्हाझुंजाचेर विचार मांडटना कांय इतिहासकार म्हणटात, ब्रिटनाचे तेन्नाचे पंतप्रधान चेंबरलेन हांणी हिटलराच्या आक्रमक धोरणाक स्पश्ट आव्हान दिल्लें जाल्यार घडये झूंज रोकडेंच संपुश्टांत येतलें आशिल्लें. हिटलरान ताचेय फुडें वचून स्टॅलीनाच्या मुखेलपणा खाल रशिये वांगडा इश्टागतीचो करार केलो आनी ताका लागून हिटलराक रान मेकळें जालें. तो बळीश्ट हुकुमशा जालो. म्हाझूंज स वर्सां मेरेन लांबलें. खूब व्हडली नाशाडी जाली. ताचे दुश्परिणाम अख्ख्या जगाक भोगचे पडले.

हिंदुस्थानाचे फाळणी विशीं बरयतना इतिहासकार म्हणटात, महात्मा गांधी, पंडीत नेहरू आनी सरदार पटेल हांणी एकम तान अखंड भारता विशीं भुमिका घेतिल्ली जाल्यार फाळणी



अरूण काकोडकार

*'पूतमर पळब' ह्या लेखसंग्रहांतल्यान कोंकणी वाचकां मदीं आपली सुवात निर्माण करपी लेखक कथा आनी ललित लेखनान फिशाल*

जावचीच नाशिल्ली. पुणून जें घडपाचें आसता तें चुकना. महात्मा गांधीन फाळणीक मान्यताय दिली आनी पाकिस्तान राष्ट्र जल्माक आयलें.

इतिहासांत अशे अनेक 'जर–तर'आसात. खंयच्याय मुखेल्याक निर्णय घेतना एके विशीश्ट परिस्थितींतल्यान वच्चें लागता. घेतिल्ले निर्णय बराबर काय चूक हें काळच थारायता. मुद्दाम जावन कोणूय चुकीचो निर्णय घेना. ते वेळार परिस्थिती तशी आसता. पुणून एकादरो चुकीचो निर्णय..ताचे परिणाम मानवजातीक सदाकाळ सोंसचे पडटात.

कांय निर्णय धिटायेचे आसतात. इंदिरा गांधीन सुवर्ण मंदिरांत सैन्य धाडपाचो घेतिल्लो निर्णय असोच धाडशी निर्णय. तिणें जर सैन्य धाडलें नाशिल्लें जाल्यार तिका जीव वगडावचो पडचो नाशिल्लो. पुणून कारवाय जर केली नाशिल्ली जाल्यार अमृतसराच्या सुवर्ण मंदिरांतल्यान खलिस्तानाची घोशणा जातली आशिल्ली आनी भारताची आनीक एक फाळणी जातली आशिल्ली.

अमेरिकेंतली गुलामगिरी सोंपोवपाक अब्राहम लिंकन खूब वावुरले. गुलामगिरीच्या वादांतल्यान अमेरिकेचे दोन वांटे जावपाची भिरांत उपराशिल्ली. ती तांणी वाटायली. हें सगळें साध्य करतना तांणी आपलो जीव वगडायलो...मिखायल गोर्बाचेव्ह हांणी लोकशाय आनी अर्थीक पुनर्रचणूक उपक्रम हातांत घेतलो नाशिल्लो जाल्यार अखंड सोवियत युनियन तगतलें आशिल्लें. सोविएत युनियनाचें विघटन जावंक लोकशाय पुनर्रचणूक प्रक्रिया कारणीभूत जाली.

इतिहास म्हणल्यार कितें? सरळ सोप्या उतरांत जें कितें घडून गेलां तो इतिहास. इतिहासकारांनी ताचो अर्थ विंगड विंगड तरेन मांडला. प्रसिद्द इतिहासकार ई.एच.कार हांच्या मतान भूतकाळ आनी वर्तमानकाळ हांचे मदलो ना सोंपपी संवाद म्हणल्यार इतीहास. एच.बायडन हो इतिहासकार म्हणटा, इतिहास म्हणल्यार समाजांत राजकी, समाजीक आनी अर्थीक बदल घडिल्ल्यो घटना तशेंच देश आनी लोक हांच्या भूतकाळांतल्या कथांचो अभ्यास.

सादारणपणान इतिहास म्हणना फुडें इतिहासाचीं असंख्य रगताळील्लीं पानां आमच्या दोळ्यां मुखार फडफडूंक लागतात. रामायण आनी महाभारत झुजांत जाल्ल्या अगणीत सांवारा पसून आयज मेरेन संवसारांत जाल्ल्या अनेक ल्हान–व्हड झुजां मेरेन आनी तांतूंत जाल्ल्या रक्तखेवा मेरेन कितले तरी भिरांकूळ तपशील मनांत जागे जातात.

लडायो, कट–कारस्थाना, मानवी हत्या, छळ छावण्यो,

पुराय काबार जाल्लीं कुटुंबां,अनाथ भुरगींबाळां, इतिहासीक वस्तुंचो आनी देवळांचो जाल्लो विद्वाट... थोडे भितर मानवी संस्कृतायेन जें जें कितें सुंदर, सोबीत निर्माण केलां ताचो जाला तो विध्वंस म्हळ्यार इतिहास असो एक समज सर्वसादारण मनशाच्या मनांत भरिल्लो आसा. इतिहासांतल्या विध्वंसाच्यो कितल्यो तरी कथा आमी वाचिल्ल्यो आसात आनी ताका लागून चेंगीजखान,हिटलर,स्टॅलिन,औरंगजेब अश्या अनेक निश्ठूर राज्यकर्त्यांची नामावळ आमच्या मनांत जागी जाता आनी तांणी केला तो सांवार, नाशाडी म्हणल्यार इतिहास असो



आमी तर्क काडटात.

झुजां, जाळपोळ,लुटालूट, विध्वंस म्हळ्यारच इतिहास अशें अनुमान करप चुकीचें. इतिहासांत ल्हान व्हड अशे अनेक कालखंड आसतात. त्या त्या काळांतल्या संस्कृतायेचे, आतां मातये भरवण जाल्ले उडे. उडे म्हणना फुडें आमच्या दोळ्यां मुखार येता ती माती, रेबो, कोळशाची रास. पुणून उडे माती रेब्याचेच नासतात. तांतूंत आनीकय दुसऱ्या धातूचे कण–परमाण भरसल्ले आसतात. एकाद्र्या शंबर नंबरी भांगराचे कण आसूं येतात. इतिहासाचे राशींत अशे हिरे आस्पाविल्ले आसात. छत्रपती शिवाजी महाराज,राणा प्रताप, लोकमान्य टिळक, महात्मा गांधी, सुभाषचंद्र बोस अशे म्हान फुडारी ते ते काळांत रत्नां सारके चकचकल्यात. काळ फुडें वतां वतां जनपदांत साक्षात बदल तेच घडोवन हाडटात. विश्वाच्या अफाट पसाऱ्यांत देशसेवेचो मंत्र घेवन ते अवतरतात. फाटल्या तिनशें वर्सांचो इतिहास पळयल्यार अशें दिसता, विचारीक क्रांती घडोवपा खातीर मरणाक वेंग मारिल्ल्या शेंकड्यांनी हुतात्म्यांनी एकच गजाल सिद्द केल्या. ती म्हळ्यार व्यक्तिच्या जिवा परस तत्वप्रणाली खूब श्रेश्ठ आसा आनी खरो क्रांतीकारक विशीश्ट तत्वप्रणाली अमर करपा खातीर जल्म घेता.

बंडखोर आनी क्रांतिकारक, नांव कसल्याय अर्थान घेतलें तरी तांची एकच मोख आसता, आसा ती परिस्तिथी जेन्ना असह्य जाता, सोंसपाक जायना तेन्ना ती परिस्थिती बदलून उडोवप. ते खातीर 'आम आदमी' बंड करता, क्रांती घडोवन हाडटा. पुणून जेन्ना सत्तेचेर आशिल्ली राजकी व्यक्ती आपली राजकी म्हत्वाकांक्षा आनी सत्ता सांबाळपा खातीर राजकी हुकूम काडून राज्य पद्दतींत बदल घडोवन हाडटा तेन्ना ताका कसले बदल म्हणपाचे? हुकूम वादग्रस्त आसूं वा लोकप्रिय, सर्वसामान्य मनशाक हुकूम मानचेच पडटात. ना जाल्यार तांचे आड आवाज काडचो पडटा.

आमच्या देशाच्या इतिहासांत 25 जून 1975 हो दीस एके वादग्रस्त घटनेचो गवाय जावन आसा. तेन्नाच्यो पंतप्रधान श्रीमती इंदिरा गांधीन देशांत आणिबाणीची घोशणा केली. सरकार आनी सत्ते आड आवाज काडटल्या हजारांनी लोकांक बंदखणीची ख्यास्त जाली. तांतूंत जयप्रकाश नारायण, मोरारजी देसाई, अटलबिहारी सारक्या ज्येश्ठ नेत्यांचो आसपाव आशिल्लो. खबरापत्रांच्या स्वातंत्र्याचेर सेन्सॉरशिप, विविध संघटनेचे लोक, समाजसेवक, विद्यार्थ्यांची धरपकड अश्यो खूब घडणुको आणिबाणिच्या काळांत घडून आयल्यो.

आणिबाणी आदलीं इकरा वर्सां म्हणल्यार 1964 वर्स, म्हज्या बरेंच लक्षांत आसा. हांव तेन्ना शाळकरी, आठवेच्या वर्गांत शिकतालों. पंडीत जवाहरलाल नेहरूच्या मरणा उपरांत देशाची आघाडीची फुडारी म्हूणन इंदिरा फुडें आयली. 1966 वर्सा लालबहादुर शास्त्रींच्या मरणा उपरांत ती देशाची पंतप्रधान जाली.

'गुंगी गुडिया' म्हणटल्या इंदिरा गांधीन पंतप्रधान जातकीर अशे योग्य निर्णय घेतले, जगभर तिची तोखणाय जाली. एक सशक्त, अभूतपूर्व योगदान दिवपी करारी अस्तुरी अशी तिची नितळ प्रतिमा लोकांच्या मनांत भरून उरली. पंतप्रधान ह्या नात्यान आपल्या कठोर निर्णयांनी तिणें पुराय देशांत क्रांती घडोवन हाडली.

1966 वर्सा भारतांत देशभर फकत पांचशें वयर बँकांच्यो शाखा आशिल्ल्यो. सामान्य मनशाक बँकेंत पयशे जमा करूंक मेळनाशिल्ले. बँकांची सुविधा देशाच्या खांची–कोनशां मेरेन पावोवपाचे नदरेन इंदिराजीन बँकांचें राष्ट्रीयकरण केलें. तिचो हो निर्णय देशाचे उदरगती खातीर योग्य आशिल्लो.

1947 वर्सा भारता पसून वेगळें जाले उपरांत पाकिस्तानान घुसखोरी करपाचें धोरण सूरू केलें. ताका लागून लाखांनी बंगाली निर्वासीत भारतांत येवन रावपाक लागले. पाकिस्तानाक अमेरिकेचें फाटबळ आशिल्लें. इंदिरा गांधीच्या मुखेलपणा खाल भारतान पूर्व पाकिस्तानाचेर घुरी घालून, तो भाग मुक्त करून बांग्लादेशाची निर्मणी केली. होच तिचे राजकी जिणेंतलो परमोच्च खीण!

पुपुल जयकर हे लेखिकेन 'इंदिरा गांधी' हें इंदिराजींचे जिणेचेर पुस्तक उजवाडायलां. तिणें बरयलां, भुरगेपणांत इंदिरा



अबोल, एकसुरी आसताली. आवयची आर्त व्याकूळताय आनी बापायची तेजस्वी भव्यताय हांचो नाद तिचे कंवळे मनांत घुमत रावलो. स्वताच्या घरांत देशाचो घडटा तो इतिहास ती ल्हानपणा साकून पळयताली आनी तो पळयतां पळयतां तिणें इतिहास घडयलो. बांगला देश स्वातंत्र्य संग्रामाच्या वेळार लकलकीत दुर्गेचो अवतार धारण करून इतिहासाचें भांगर-पर्व घडयतना इंदिरेनच आणिबाणीचो काळोकिट्ट अध्याय बरयलो.

स्वयंभू, कठोर, खंबीर आनी प्रसंगा वेळार वादळ उठोवपी इंदिरा फुडल्या कांय वर्सांत हळवी, परावलंबी, अंधश्रद्धाळू जाली. तिच्या मनांतलो घुस्मटमार, तिचे राजकी कारकिर्दीतले चड-उतार, तिचे निजी जिणेंतल्या अज्ञात घटनांचो प्रवास तिच्या निमण्या स्वासा मेरेन जागृत जावन उरलो.

जगपाची खोस घेवपाक एकच आयुश्य आम कां मेळटा. आयुश्यांत कितलें कितें म्हणून करपाचें? केल्लें सगळेंच कितें सर्वश्रेश्ठ आसना.थोडें गोड, थोडें कोडू आपले मुखार जें मांडला तें आपणायत,आडखळींतल्यो फटी सोदत सोदत वाट काडप, नवनिर्मणेच्या ध्यासान फुडें फुडें वचत रावप आनी हां हां म्हणटां म्हणटां आयुश्य सोंपून वता. पुणून जिवीत प्रवाह थांबना. ते प्रवाहांत फाटल्यान उरतात तीं नवे पिळगेंतलीं नवीं मनशां, आपल्या पुर्वजांच्यो यादी सांबाळीत ! तेच दिकेन आपापले तांकी प्रमाण वाट चलत रावप..

हेंच जिवीत आनी होच इतीहास.

अश्या इतिहासाची पुनरावृती जायत रावता.थोडी थीर, थोडी अस्थिर! इल्ली स्वस्थताय, इल्ली अस्वस्थताय! कांय प्रस्न, कांय सुविचार! एक वाटचाल! निमाणी निमाणी थाकाय आनी आयुश्य सोंपत वता. इतीहासांत जमा जाता !

इतीहासांत चड घुसपून वच्चें न्हय म्हणटात.

पूण इतिहासच आमकां हें सगळें सांगता. आमचे हक्क, आमचें स्वातंत्र्य जें आमकां मेळ्ळां तें सहज मेळ्ळां अशी भावना आसूं नये. आदले पिळगेन जें झगडून मेळयलां तें सामर्थ्यान जपप गरजेचें. देखून इतीहास म्हणल्यार भूतकाळच न्हय. तो उर्बेचो, स्फूर्तिचो स्त्रोत !

*करंजाळे, मो. 9822588852*

# दावूड

सकाळ पासून मुन्याच्या घरा लोक जमूंक लागिल्ले. मुन्याची घरकान्न दावूडची प्रकृती खूब बिगडूंक लागिल्ली. हातुळणार पडिल्ले कडेन तिचो स्वास वयर सकयल जातालो आनी तो केन्ना थांबत हाचो भंय सगळ्यांक पडिल्लो. ही गजाल पुराय मुडगेरी आनी आजूबाजुच्या गांवांतल्या लोकांक कळिल्ली.

भायर मळबांत कुपांचो तांडव चलिल्लो. त्या तांडवाच्या गडगडाटान मदीं मदीं जोगलां मारिल्ली दिश्टी पडटालीं. बारीक बारीक पावसाच्यो सरी यो वच करताल्यो तरीयपूण ताची पर्वा करिनासतना गांवां गांवांतले लोक दावूडचे चिंतेन तिचे घरा जमूंक लागिल्ले. कांय लोक मुन्याच्या घराचे पडसरेंत, पावळेंत, आंगणांत घुरम्यों, सत्र्यों घेवन उबे आसले तर कांय तांच्या घरांत बसून दावूडची चिंता करताले. देवा लागीं तिचे पासत प्रार्थना करताले.

सुमार पेजेचो वेळ जायत आयिल्लो... तेन्ना दावूडची प्रकृती खूब बिगडूंक लागली. तिचो जीव घरघरो येवन वयर सकयल जावंक लागलो आनी खिणांत तिणें आपलो अखेरचो स्वास घेतलो.



वसंत
रेल

*निवृत्त उपप्राचार्य आनी कथाकार तशेंच ललित लेखक. तांची 'कोमुल' ही कादंबरी हालींच उजवाडाक आयल्या.*

वाड्या वयले कांय बुदवंत तिच्या किर्याक्रमाचे तयारेक लागिल्ले. कोण कोंड्या वळयंतल्यान कोंडे हाणून सात पावलांची निसण तयार करतालो तर हेर कांय लोक आप आपल्या कडल्यान लाकडाचें वजें, खोडां, शेणयों, चुडटां घेवन मुसंडेचे वाटेन चलताले. दावूडच्या निमाणें निरोपाची सगळी वेवस्था जाले उपरांत तिची अंतयात्रा मुसंडेचे वाटेन वचूंक लागली. हे अंतयात्रेंत केन्ना कोणी पळोवंक नासले इतले शेकड्यांनी लोक सामील जाल्ले. दर एकलो आपले परीन शोक, दुखवटो व्यक्त करतालो. तिचे गूण गायन करतालो आनी ताचें कारणय तशेंच आसलें.

मुन्याची घराकान्न ही मूळ गोंयच्या दर्या देगे वयल्या मुडकूड गांवची चली. पूण तिचें भुरगेंपण पुराय गावडोंगरे आपल्या मामागेर गेल्लें. तिचें नांव भिमें आसलें पूण तिचें एकंदर रूप, रंग, बांधो, जीण पद्दत आनी वावर पळोवन पुराय मुडकूड आनी गांवडोंगरी गांवांत तें भीम म्हूण फामाद जाल्लें. तें ल्हान आसतनाच पेंवूंक, माडार, झाडार चडूंक शिकिल्लें. येदें सात वर्साचें भुरगें आसतना तें वयार आयिल्लें, छाती फुलिल्ली, एकोणीस वीस वर्साची धाड धडंग बायल कशी दिसताली. अजब म्हणल्यार भिमें आपल्याक खंयचें काम जमना अशें म्हणनासलें. खंयचें काम करता आसतना तिचो दावो हात पयलीं फुडें सरतालो. शेतांत गेल्यार सारें वारवय तर केन्ना मेरो करचें, जोत धरचें, नडचें, नाटचे नेर, मुगळ, नण्णी काडचें काम ताण घेनासतना करतालें. झाडार, माडार चडून भाटां पाडचें काम, नाल्ल सोलचें, घाणो फिरोवचें, गुंडे घालचें काम करता आसतना हें काम दादल्यांचें आनी तें काम बायलांचें हो भेद मनांत हाडनासतना झटपट उरकयतालें. जशें तें कामाक वाघीण तशें ते मनान, काळजान, उलोवण्यान, वागण्यान कडक आनी धाडसी. तिचो एकदंर रूप, रंग, चाल, धैर्य, धीटसाण पळोवन सगळे लोक तिका दुर्गादेवीचो अवतार मानताले.

सिमे पलतडेच्या मुडगेरी गांवांतलो गणा नायक रानांतले वाटेन पाकल्यांची नदर आड करीत आपले भयणीची आनी भाच्या भाचयेची वासपूस करपाक गांवडोंगरे आयिल्लो. तेन्ना ताची भेट तेरा वर्साच्या भिमे कडेन जाल्ली. तेंच वेळार ही आपली सून जावंची अशी ताची इच्छा जाली आनी तेन्ना ताणें भिमेचो मामा दत्ता लागीं आपली ती इच्छा उलोवन दाखयली आनी त्या खातीर आपलें उतर घातलें. दत्ताक ही सोयरीक मान्य आसली पूण ते सगळे भियेले. बापूय, चेडोदाद आनी आपले भयणीन थारोवंक जाय म्हूण ताणें तांकां मुडकुडासून गांवडोंगरे आपोवन घेतलें. सगळीं उलोवणी जाल्या उपरांत चेडोदादान आनी ताचे घराकान्नीन उतर घट्ट करचो निर्णय घेतलो. उलोवणीं पक्की केलीं, लग्न जमलें पूण तें लग्न केन्ना, खंय आनी कशें करचें हो एक मोटो प्रस्न सगळ्यांक पडिल्लो. कारण त्या वेळार गोंयांतलें वातावरण तंग आनी भंयाकृत आसलें!

भारत देश स्वतंत्र जावन तीन वर्सां जायत आयिल्लीं आनी हांगां गोंय मुक्तीचे चळवळेन नेट धरिल्लो. सिमे वयल्या लोकांची मजत घेवन गोंय मुक्तीची चळवळ काय क्रांतिकारी नेटान चलयताले देखून पुर्तुगेज सरकारान सिमेर कडक बंदोबस्त दवरून सीमा बंद केल्ली. हे वटेचो मनीस ते वटेन आनी ते वटेचो मनीस हे वटेन येवंक बंदी आसली. मानपेस्त, तस्करी जावंक दिनासले. सिमे वयली पुराय येरादारी ठप्प जाल्ली.

भायलें वातावरण मतींत दवरून भिमेचें लन्न गणनायकाच्या चल्या बराबर गांवडोंगरे तिच्या मामाच्या घरांत करचें थारायलें. ते उपरांत गणनायक खोशी जावन रानांतले पांय वाटेन गुपचूप सीमा पार करून मुडगेरी परतो आयलो आनी ही खोशेची गजाल घरच्या सगळ्यांच्या कानार घातली. लग्नाचे तयारेक लागलो.

लग्न थारयल्ल्या दिसा सकाळीं बेगीन उठून आपले घरकान्नीक, पूत मुन्याक आनी कांय दायज्यांक घेवन गणनायक रानांतले वाटेन गांवडोंगरे सकाळीं सुमार धावरार पावलो. लग्नाच्यो सगळ्यो विधी, कार्य सोंपोवन तेरा वर्साचे व्हंकलेक घेवन सगळे तेच वाटेन परते मुडगेरी आयले.

सिमे पलतडीचो हो पुराय वाठार भिमे खातीर नवो आनी अपरीचीत आसलो. हांगाच्यो चाली–रिती, बोली, पुराय वावर, लोक सगळेंच नवें आनी वेगळें पूण भिमें भियेलें ना. आपल्याक जमता तशें जमोवन घेवंक तें यत्न करीत रावलें. हणप, खणप, जोत धरप, भाटां पाडप, नाल्ल सोलप, वजें उखलप सगळीं शेतां भाटाची कामां आपली जापसालदारकी समजून आपलो दावो हात मुखार हाडून तें खुशालकायेन करूं लागलें. गणनायकाच्या घरांब्यांत एकरूप जालें. तिचीं तीं कामां आनी दाव्या हाताची करामत पळोवन सगळे लोक तिका दावूड म्हणूंक लागले आनी ह्या वाठारांत तें दावूड नांवान फामाद जालें. घरच्या आनी सगळ्या गांवच्या लोकांचीं मनां तिणें जिखलीं खरें पूण तिका आपल्या मामाली आनी मामाल्या



गांवची याद खूब येताली. तें ती कशेंच विसरूंक शकलें ना. ते यादीन खिणां खिणांक तें अस्वस्थ जातालें. थंय वचपाचें मन जातालें म्हूण एक दीस लाडीगोडी लावन आपल्या घरकाराक मामाल्या घरा वचून येवया म्हटलें. पूण मुन्यान बंद सिमेचो आनी पाकल्यांचो भंय दाखोवन ताका चूप केलें.

मामाल्या गांवची ती ओड, ते मातयेचो तो गंध, थंयच्या उदकाची गोडसाण, थंयचीं झाडां – पेडां, सैम, लोक आनी तांचो मोग माया तें कशेंच विसरूंक शकनासलें. दीस गेले, म्हयने गेले पूण तिची ती याद आनी थंय वचपाचें मन तिच्या मनाकाळजांतल्यान कशेंच वचनासलें. ते यादीन तिची मनस्थिती बिगडूंक लागली, जीव अस्वस्थ जालो, काळीज घुसमटले म्हूण तिणें परत मुन्याक खूब नमळायेन विनंती केली. मामाच्या गांवचे यादीन जाता ते तरास उलोवन दाखयले. पूण ताचो कसलो परिणाम ताचेर जालो ना.

दावूडाचें अस्वस्थ मन कसल्याच कामार लागनासलें. एक असंवेदनीय मशीन कशें जावन आपल्या घरांतलें, शेतांतलीं कामां ते करतालें पूण मामाल्या गांवची याद आनी थंय वचपाचें मन तिका अस्वस्थ करतालें. आतां हाचेर सरळ कांय उपाय ना म्हूण तिणें गपचूप कोणाक कांय सांगनासताना गांवडोंगरे वचपाचें थारायलें.

थारले प्रमाण तें दुसरे दिसा बेगीन नसकार उठून कुशीक काडून दवरिल्ली पिशवी आनी भायर खोण्णेंत खवन दवरिल्लो विळो घेवन कोणाक कांय पत्तो लागनासताना, म्हारू गिरू, जिवाण्यांची पर्वा करिनासताना वाघरतीण कशी धाड धाड शेतांतल्यान गोंयचे सिमेच्या वटेन चलूंक लागलें. सगळे वटेन घनघोर काळोख पूण पांयापोंदांतली मळिल्ली धवी वाट नखेत्रांच्या चान्याक लागून मात्शी मात्शी दृश्टीक पडटाली. कांय वेळान दावूड रानां देगेच्या माड्डाच्या शेतांत पावलें तेन्ना चोंय वटेन जिळमीळ उजवाड दिसतालो. गोंयची सीमा लागीं पाविल्ल्यान तिणें आपली फुडलीं पावलां शादूर रावन मारचें थारायलें. जरा वळण मारून फाटल्यान पळयल्या उपरांत तिका आलतडचे सिमे वयले दोन कस्टम शिपाय पिरा कडले चौके वयल्यान कारमक्केचे चौके वटेन वयता ते दिसले. तेन्ना तिणें बेगीन बेगीन लागीं आशिल्ल्या आड्या आड धोपण मारलें आनी ते थंयच्यान वयता मेरेन तशेंच लिपून रावलें.

ते थंयच्यान गेले उपरांत दावूड सावशिदेन लिपत फुडें चलत रावलें आनी बोगाळाचे शेता धडेर पावलें. थंय घोलीच्या आड रावन तिणें वयर पन्नेल मेटाचे गोंयचे चौकेर नदर मारली तेन्ना तिका त्या तळपार कांय शिपाय आनी पाकले उजो पेटोवन आपले हात पांय शेकयताले दिसले. खूब वेळ तें थंय दड मारून रावलें. पूण मेटावयलें शिपाय थंयच्यान काय हालनात आनी हे परिस्थितींत मुखार वचप जोखमीचे आसले. दावूड चिंतागृस्त जालें. ताका कितें करचें कांय सुचनासलें. गांव नवो, रान नवें आनी त्या रानांतले पांयवाटेची, आडवाटेची कसली जाण ना.... तरी पूण तें आपल्या मनांत निर्भिड रावन हातूंतल्यान मार्ग काडचो यत्न करतालें.

आशिकुशीक नदर फिरयल्या उपरांत ताका उदेंतिच्या पूण मेटाच्या विरूध्द दिकेन मळिल्ली अशी एक वाट बाजुच्या रानांत वता ती दिसली. ही वाट हे दिकेन रानांत खंय वता, हाची तिका तिळमात्र कल्पना नासली. पूण खंय तरी गोंयांतल्या वाठारांत पावतली हाची खात्री दावूडाक आसली. तेच मतींत दवरून जाता तें जावू म्हण ते वाटेन तें चलत रावलें. पयलीं चडटी आनी मागीर देंवती देंवून तें ओवळी फोंडा पावलें. त्या ओवळी फोंडांतल्या

व्हाळांतल्यान नितळ उदक व्हांवतालें. दावूडचो गळो सुखिल्लो देखून ताणें त्या व्हाळांतल्या उदकाचे दोन घोंट घेतले आनी परत चडटी चडत रानांतल्यान फुडें सरलें.

मुखार रानांत चोंय वटेन मोटीं मोटीं झाडां, रूख, व्हडल्यो व्हडल्यो घोली आनी मदीं मदीं ल्हानशीं मळां. पूण खंयच लोकांचो आवाज, वास नासलो. वेळ माथ्या वयल्यान देंविल्लो आनी तिळसांज जावूंक लागिल्ली. दावूडचें पुराय आंग घामेन भिजिल्लें, आंवडो सुखिल्लो. आपूण मुखार वतां की फाटीं वतां तें ताका समजनासलें, कांय अंदाज लागनासलो.... खिणांत ताका आपूण शेणलें ना मूं अशें दिसतालें!

फुडें फुडें गेले उपरांत ताका पयस रानाच्या सकयले देगेर शेतां कशीं दिसलीं. तें पळोवन ताच्या जिवाक हवसाण आयलो. तें त्या शेताचे दिकेन चलूंक लागलें.. तेन्ना ताका थंय एक मोटें काजुचें झाड दिसलें. तें पुराय झाड तांबड्या तांबड्या फोग्यानी भरिल्लें. दावूड पट पट त्या झाडा फुडें गेलें. झाडाच्या पोंदाक कितल्योश्योच बिंयो पडिल्ल्यो. दावूड खूब तानेल्लें.ताचो ताळो सुखिल्लो म्हूण तें झटाझट त्या झाडार चडलें. हाताक मेळटा ते फोगे काडून चिवूंक लागलें. सुमार पंचवीस तीस फोगे चिवन जातकच तें झाडा वयल्यान सकयल देंवलें. थंय पडिल्ल्यो बिंयो पुंजावन आपले पिशवेंत घातलें आनी त्या शेताचे दिकेन चलूंक लागलें.

मुखार शेतान लागीं पावतकच त्या शेताचे वयले धडेर ताका उजो पेट्टा तो दिसलो. तें त्या उज्या फुडें पावलें. थंय तो उजो मुसंडीचो आसलो आनी कांय वेळा पयलीं ते मुसंडेर मडें लाशिल्लें. उज्याचो निखारो अजून धगधगतालो पूण मडें जळून गोबर जाल्लें. दावूड फुडें सरून त्या निखाऱ्याच्या बाजून आशिल्ल्या फातरार बसलें. तिणें हे वटेन ते वटेन नदर घुंवडायली पूण खंय कोण दिसूंक ना. खूब चिंतून दावूडान आयची रात हांगांच हे मुसंडेर काडची थारयलें. बशिल्ले कडेन उठून तिणें त्या निखाऱ्यांतल्यान कांय पेटिल्ले इंगळे बडयेन काडून घेतले आनी पिशवेंत पुंजायल्ल्यो बिंयो बरोऽ उजो पेटोवन भाजल्यो. मागीर त्यो फोडून जाय तश्यो खाल्ल्यो. रानांतलीं जनावरां फुडें येवंक नज म्हूण त्या उज्यांत लाकडां पुंजावन घातलीं आनी ताणें थंयच धोंपण मारलें आनी गार जालें.

सकाळ फुडें एक दादलो आनी एक पंदरा सोळा वर्साचो भुरगो पेल्यांत दूद घेवन ते मुसंडीर आयलें. बाजून गाड न्हिदल्ले बायलेक पळोवन ते भियेले. त्या दादल्यान खोकिल्लो आवाज करून ताका जागोवचो यत्न केलो. गाड न्हिदिल्लें दावूड आपले दोळे पुशीत उठून बसलें तेन्ना त्या दादल्यान म्हटलें,

''कोण गो बाये तूं? हांगा कशें पावलें? खंयच्यान आयलां?''

दावूड आपले दोळे पुशीत तांकां पळयत रावलें पूण तोंडांतल्यान एक उतर काडूंक ना. त्या दादल्यान परत म्हटलें,

''बाये तूं कांय भियेनाका. तूं हांगां वणगाळी पावलां. हो आमचो कुणब्यांचो गांव. यो तूं आमच्या बराबर.''

त्या दादल्यान आनी भुरग्यान पेल्यांतलें दूद ते चितेर ओतलें आनी दावूडाक घेवन आपले घरा वचूंक सुटले.

हांगां मुडगेरी दावूड पळून गेलें म्हूण मोठो बोवाळ जालो. गणनायक कोयती, कांबळ घेवन तिका सोदूंक रानांतले वाटेन गांवडोंगरे सुटलो. थंय गांवडोंगरे दावूड पावलेंना तें आयकून सगळे भियेले. गणनायक थंयसून दत्ताक घेवन मुडकुडा गेलो आनी तें थंय पावलें ना तें पळोवन तांकां सगळ्यांक मोटो धक्को बसलो.

दावूड दोन दीस त्या कुणब्यांगेर उलयनासताना चूप रावलें. तिसरे दिसा ताची वाचा फुटली आनी आपल्याक गांवडोंगरे दत्तामामागेर वचूंक जाय म्हूण सांगतकच त्या कुणब्यांनी ताका खोतीगांवचे वाटेन गांवडोंगरे सुखरूप पावयलें. ते उपरांत ताच्या बापायन आनी मामान ताका बरी समज दिवन चार दिसां उपरांत परत मुडगेरी पावयलें.

दावूड काय दीस बरे भशेन सगळीं कामां बिमा करून आपल्या घराकारा बराबर रावलें. पूण ताचें हांगां मन कशेंच लागनासलें. परत परत ताका गांवडोंगरे वयचें दिसतालें. मामाच्या गांवचे यादीन ताचो जीव हांगां भितरल्या भितर घुसमट्टालो. म्हूण तिणें परत हांगांसून पळ मारपाचो बेत थारयलो. एक दीस सकाळीं झिळमिळ्यार हातांत विळो घेवन रानांतले वाटेन गुपचूप सुटलें.

दावूडान हे वटेची सीमा बरे भशेन पार केली आनी फुडें पन्नेलमेटाच्या सकयले चोर वाटेन वचूंक सोदतालें तेन्ना तिका मानपेस्ताचे (तस्करीचे) कांय लोक आपले तकलेर, हातांत कसल्यो पेटयो, पिशव्यो घेवन वता ते दिश्टी पडले. त्या लोकांनी दावूडाक हटकीलें,

''बाये, खंय वता तूं?''

''हांव गांवडोंगरे मामागेर वतां.''

''बरें! बाये तूं आमच्या वांगडा यो. आमी तुका सुका

गुडे वयल्यान देंवन लोलयां पावयतां.''

दावूड चड कांय उलय नासतना तांच्या वांगडा चलूंक लागलें. वयर मेटा वयले पुर्तुगेज शिपायांचो कडक पारो आसता तें ध्यानांत दवरून सगळे मौन धरून चुपचाप रानांतले आडवाटेन चलताले. पूण तांच्या हालचालीचो थाव हिटहिट्यांक (सुकणें) लागलो आनी ते हिटहिटे एक सारके आवाज करूंक लागले. त्या सुकण्यांचो आवाज आयकून मेटा वयले शिपाय शादूर जाले आनी थंयचे दर एक आड वाटेर दोग दोग शिपाय फुडें सरून मांडून रावले. मानपेस्ताचे लोक जेन्ना फुडें पावले तेन्ना त्या शिपायांनी तांचेर झडप घातली. कांय लोक आपल्या सामानांच्यो पोटल्यो थंय सोडून धांव मारली तर कांय मुद्देमाला सयत तांचे तावडेंत सांपडले. अकस्मात पडिल्ले ते तांचे धाडेन दावूडाची फजती जाली. तेंवूय रानांत मेळटा ते वाटेन धांवूक लागलें. पूण झाडा आड लिपून बशिल्ल्या दोन पाकल्यानी लात मारून ताका जमनीर उडयली. एक पाकलो ताचो पांय धरून ओडूंक लागलो तेन्ना ताणें आपल्या त्या विळ्यान पाकल्याच्या गळ्यार वार केलो. तो पाकलो जखमी जावन बोवाळ मारीत जमनीर पडलो. इतल्यान दावूड उबें रावूंक यत्न करतालें तेन्ना दुसरो पाकलो फाटल्यान आयलो आनी ताका घट्ट धरलें. दावूडान आशिल्ली नाशिल्ली ताकद काडून ताका भिरकाटावन जमनीर उडयलो. आता दावूडाचो राग अनावर जाल्लो. तें तांबडें तांबडें भिरंड जाल्लें. दोळे व्हड करून देवचाराचो अवतार घेत,'रांडेच्या पाकल्यानो' म्हणत दोगां पाकल्यांक त्या विळ्यान मारीत रावलें. दोनूय पाकले जमनीर आडवे उदारे पडून बोवाळ मारताले. तांची पुराय कूड रगतान माखून गेली पूण दावूड थांबूक ना. ते मरता मेरेन तांकां मारत रावलें. दोगूय मेल्यात तें पळोवन दावूड भानार आयलें आनीक वगत काडी नासतना परतीची वाट धरून गपचूप मुडगेरी आयलें. कोणाक कसलोच थाव लागूंक दिवंक ना. पूण दोन दिसां नंतर दावूडान केल्ल्या पराक्रमाची बातमी आलतडीच्चे सिमे वयल्या गांवां गांवांनी पावली. लोकांनी ताच्या घरा ताचो सम्मान केलो. लोक ताका गोंय मुक्तीची सेनानी, क्रांतिकारी मानूंक लागले. पूण दावूडान आपलें मौन कशेंच सोडूंक ना. परत गांवडोगरे वचपाचो विचारूय करूंक ना.

कांय दिसां उपरांत दावूड आनी ताचो घरकार मुन्नो लाकडां हाडूंक कोयती, कुराड, कांबळ आनी दोरयो घेवन रानांत गेल्लीं. रानांत लाकडां हाणटना अकस्मात बिबट्यान मुन्न्यार झडप मारली. मुन्न्यान आपल्याक वाचोवंक खूब यत्न केलो पूण बिबटो मुन्न्यार भारी पडटालो. मुन्न्याक खूब जखम जाली. रगत व्हावूंक लागलें. मुन्नो जमनीर कोसळ्ळो. बिबट्यान ताच्या पांयाक घास मारलो आनी ताका ओडूंक लागलो. कुशीन लाकडां पुंजयत आशिल्लें दावूड हातांतली कोयती घेवन धांवत आयलें आनी बिबट्याच्या नाकार ताणें कोयतेन वार केलो. बिबट्यान मुन्न्याक सोडून दावूडाचेर उडी घेतली. पूण दावूडान बिबट्याच्या जबड्यांत हात घालून ताचें तोंड फाळ्ळून उडयलें. बिबटो जमनीर पडलो. दावूडान बाजून आशिल्ली कुराड घेवन त्या बिबट्याचे मानेर, पोटार तो मरता मेरेन मारत रावलें. बिबट्याचो जीव वतकच जखमी मुन्न्याक उखलून आपल्या खांदार घेतलो. सडसडीत चलत तेका घरा घेवन आयलें. आनी मुन्न्याक वखद दिवन आपलेपरीन उपचार केले. मुन्न्याची जखम घातक नासली म्हूण मुन्नो वाचलो.

दावूड आपल्या पराक्रमांक लागून गांवा गांवांनी फाम ाद जालें. ताची ख्याती पुराय वाठारांत पावली. लोक ताका संकट विमोचन करपी देवीचो अवतार, महाअस्तुरी मानूंक लागले. गांवां गांवांनी आपोवन ताका मान सम्मान दिवन सत्कार करूंक लागले. खंय कोणाक कितें जालें जाल्यार पयलीं लोक दावूडाक आपोवंक लागले. दावूड तांकां त्या त्या वेळार ते भशेन पावतालें, तांकां हातभार लायतालें.

दावूड आतां हांगाचे मातयेंत रूजलें, वाडलें, समरस जालें, एकरूप जालें आनी नांवलौकीक मेळोवन फामाद जालें. ताचो संवसार व्हडा उमेदीन आनी खोशयेन चलूंक लागलो. ताका चार चलयो आनी दोन चले जाले. सगळें बरे भशेन चलतालें. पावसाळ्यांत एक दीस आसर पळोवन तें नाल्ल काडूंक निसरड आशिल्ल्या माडार चडलें आनी हाणून नाल्लाच्यो पेंडयो ढबाढब सकयल उडयल्यो. त्या माडा वयल्यान देंवतासतना पांय निसरून सुमार पंदरा फूट उंचे वयल्यान पडलें आनी ताचें कमर मोडलें. त्या दिसासून आयज मेरेन तें हाथरूण धरून रावलें. आनी आयज ताणें आपलो निरोप घेतलो खरो पूण तें ह्या पुराय वाठारांत एक धाडशी, शूर वीर, संकटहारी, क्रांतीवीर महाअस्तुरी म्हूण फामाद जालें.... अमर जाले.

'दावूड अमर रहे' च्या गर्जनेन ताका गांवच्या लोकांनी अखेरचो निरोप दिलो.

*सांकवाळ, मो. 9422442657*

► कथा

# स्वयंभूत



शौनक – एक बेकार इंजिनीयर. अणभव ना देखून काम ना आनी काम ना देखून अणभव ना, ह्या दुश्टचक्रांत फारावला. तीग जाणांचें हें कुटुंब भाड्यान घेतिल्ल्या देवळाच्या वाटारांत रावता. ताचो बापूय ताका कुटुंबीक वेवसायांत गुंतूंक नाशिल्ल्यान सदांच पश्चात्ताप करता. बापायक आरीचो आताक आयिल्ल्यान घरांतच आसता. घरा भायर बापायची वीस वर्सां पयलींची यमाहा आरएक्स 100 उबी, जिका तो जिवापाड जपता आनी शौनकाक कसोच पातयेना.

शौनकाक दिसाचीं सपनां रंगोवपाची खूब संवंय. ताका दिसता, आपले कडेन जादूची शक्ती आसूंक जाय जेणे करून तो मुखेलमंत्र्यांचें लक्ष ओडून घेवंक शकतलो आनी ताचो ओएसडी जातलो. पणजेच्या गोळवलकराले चलयेचेर तो मोग करता पूण प्रपोज करपाचें धाडस करिना. ते चलयेक शौनक नांवाचो कोण अस्तित्वांत आसा हें लेगीत खबर नासतलें. ते चलयेचो एक फोटो तो दोळ्यां मुखार घेवन बेकार आसता तेन्ना दीस रात घेवन बसता आनी ताचे पासत समर ऑफ 69 हें साँग गिटाराचेर बेसूरान वाजोवपाचो सराव करता. गिटाराचेर चली फारावता हें ताचे तकलेंत पक्कें जालां.

एक दीस फांतोडेर ताचो इश्ट ताका मडगांव चोर बाजारांत व्हरता. एका तेंपार ह्या चोर बाजारांत कितें मेळना अशें नासलें. पोरण्यो म्हुर्त्यो, पोरण्यो इलेक्ट्रॉनीक वस्तू, मिक्सर, ग्रायण्डर, राजदूत – यमाहा – बुलेट लेगीत! ताचो इश्ट पुरातत्व काळांतलीं नाणीं मेळटलीं हे आशेन थंय गेल्लो आसता. चोर बाजार आतां पयलींचो उरुंक नाशिल्लो. आतां फकत कपड्यांच्यो राशी तितल्योच दिसताल्यो. बरे बरे सूट–पॅन्ट थंय नदर ओडून घेताले. थंय उमकळपी एक गुलाबी कॉलराचो काळो सूट शौनकाचे मनांत भरलो. पांचशी फारीक करून ताणें तो कोट विकत घेतलो. भायर ताचें मोल पंदरा–सोळा हजार तरी आसपाचे!

परतीचे वाटेर ताचो इश्ट ताका सांगता, 'आरे सभाग्या हे सूट मेल्ल्या मनशांचे. मतींत दवर, सवाय खाण पोट फुगरें आसता. हो मेल्लो मनीस तुका आतां पिडना जाल्यार पुरो!'

'खरें सांगू आमी बेठेच भुतांक भियेतात, खरी परिक्षा तुजी




**डॉ. समर्थ बोरकार**

*लेखकान आतां मेरेन 35 नाटकां बरयल्यांत आनी त्या नाटकांचे हजारांनी प्रयोग जाल्यात. कोंकणी साहित्य दालनांत तांणी विपूल दर्जेदार लिखाण केलां.*

तो वयलो घेता.' – शौनकान जाप दिली.

तो आपल्या घरा पावता. काम ना धंदो, आमिगां वांगडा दीस रात बेकार हेडटा म्हुण ताची आवय ताचें गाळयांनी स्वागत करता. सदच्या रडगाण्याक बेजारून तो जेवना. तिका दिसता ताका घरांतलें खावंक नाका, भायलें खांवपाची रूच लागल्या. बापायक दिसतालें इंजिनीयर करचो सोडून मंत्र पठनाक घातिल्लो जाल्यार देवूळ तरी सांबाळपाचो. बाराशी लोकांच्या ह्या गांवांत वर्साक हय न्हय अशे सत्तर अयशी सत्यनारायण खंयच वचूंक नासले. हे येणावळीचेर घर सुशेगाद चलपाचें! त्या भायर फुडले पिळगेक देवळाचेर हक्क सांगपाक मेळपाचो.

शौनक आपले कुडींत वता. गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घालून पळयता, सेल्फी काडटा आनी कोट परतून आलमारींत दवरता. गोळवलकराले चलयेचो फोटो मुखार दवरून 'दरदिसा प्रमाणे ह्याय दिसा' ह्या तालार बेसूर गिटार वाजयता... ग़िटार वाजोवंक जमना तें पळोवन स्वताचेर बेजारता आनी तकले वेल्यान चादर घेवन न्हिदता.

मध्यान रात जाता. आलमारींतल्यान दार ठोकपाचो आवाज येता. शौनकाची न्हिद मोडटा. तो कुडींतलो बल्ब पेटयता आनी आलमार उगडटा. भितर तोच गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घाल्लो एक निराकार मनीस बशिल्लो दिसता... शौनक भियेता, आनी आंग काडून फाटीं खाटिचेर उडी मारता. तो कोट आलमारींतल्यान आपूणशी भायर येवन पांय क्रॉस करून थंय आशिल्ले खुर्चेर बसता. तो गिटार उखलता आनी बोटां दिसनासतना लेगीत 'समर ऑफ 69' वाजोवंक लागता. शौनाकाचो भंय फिको पडटा.

'हांव एक मेल्लो, सॉरी मारिल्लो मनीस. तुका म्हजी भिरांत दिसना?'

'खरें दुखणें तुका जिवीत दिता. लोक बेठेच मरणाचें नांव इबाड करता.'

'सत्य खरें. मेल्या शिवाय सुखाची रुच कळना. म्हजी एक काणी आयक.'

'मेल्ल्या मनशांचोय काणयो आसतात?'

'काणयो ह्यो मेल्ल्या मनशांच्योच आसतात.. जिते मनीस सांगतात त्यो गजाली. तर, हांव जॉन पीटर दा ब्रास! पणजेच्या फामाद पिंकमॉलचो धनी. 50 वर्सां भरतकच काजार जायन दिसलें. म्हजें सेक्रेटरी रोझीच्या मोगांत पडलों आनी काजार जालों. रोझीची पिराय तेन्ना 26 वर्सां. म्हातारे पिरायेर काजार जावन लेगीत सगळें सुटसुटीत चलतालें. मागीर आमच्या जिवितांत आयलो एक तरणाटो मॅनेजर, रॉबर्ट डिकुन्हा! ह्या मॅनेजरान म्हजे बायलेक व्यभिचारांत ओडली. म्हज्या दोळ्यांनी नागडो काळोख पळोवंचो पडटालो. हांव ओगी रावलों. दुसरो पर्यायूय नासलो. पूण ताची वायट नदर म्हजे मालमत्तेचेर आसली. रोझी तर फकत निमित्त आसलें. तें ताच्या मोगांत खोलायेन बुडलेलें. ताच्या मोगान कुड्डें जाल्लें. आनी एके सांजेर दोगांयनी एक येवजण आंखून म्हाका जितोच मारलो. दोतोरांक आनी हेर सरकारी अधिकाऱ्यांक लांच दिवन काळजाच्या आताकान सोंपलो असो रिपोर्ट तयार करून घेतलो. गळो दामून मारलेलो तेन्ना हांवें हो गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घाल्लो आनी उपरांत तांणी म्हाका धर्मीक भावपणांत पुरलो आनी हो सूट मसणभुंयेच्या कोनशाक काडून उडयलो.'

'आनी मागीर कशे तरेन हो मेल्ल्या मनशाचो सूट चोर बाजारांत विकपाक पावलो?'

'पूण म्हजो आत्मो ह्या कोटांत अडकलो. म्हाकां संवसार दिसतालो पूण संवसार म्हजें आयकूंक शकनासलो. मरणाचे दिसा रोझी रोबर्टाच्या गळ्यांत गळो घालून रडटा तें पळोवन हांव मेल्ल्याहून मेल्लो जालों. म्हजो हो कोट निमाणे संस्कार करपाक वळीक लायिल्ल्या हेर मेल्ल्या कुडींच्या कोटां वांगडा दवरलो. कशे तरी हे सगळे सूट मडगांव चोर बाजारांत विक्री खातीर पावले. हेर खंयच्याच सूटांत जीव नाशिल्लो. घडये हेर सगळें शांततायेन मेल्ले आसूं येतात. तुवें हो विकत घेतलो. म्हाका तुजे कडेन उलोवपाचें आशिल्लें पूण तुजे मेरेन म्हज्यो भावना पावनाशिल्ल्यो. मागीर जादू जालो. तुवें हो गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घालून पळयलो आनी म्हज्या मरतुकड्या जिवाचो कायाकल्प जालो. देखून, तुमच्या कुटुंबांतले सगळे न्हिदऽ मेरेन वाट पळयली. आतां हांगा हांव तुज्या मुखार आसां. म्हज्या खून करप्यांक मारपाक तुवें म्हाका आतां आदार करपाक जाय.'

'ना जाल्यार कितें तूं म्हाका शांततायेन जियेवंक दिवचो ना?'

'ए म्हजेर बेजारपाक हांव कोण तुजो घरचो न्हय. पळय... म्हाका पावर्स आसात, आनी हो गुलाबी कॉलराचो काळो सूट तुवें घातल्यार ही सगळी सुपरपावर तुका मेळटली. मागीर तुवें हो सूट तुज्या सपनांतले चलयेच्या बापायक कांय येवजणे वरवीं भेट दिवपाचो. तोय हो सूट घालतलो आनी मागीर हांव ताच्या आंगांत भितर सरतलों आनी तुका पणजेच्या गोळवलकराले चलये कडेन लग्न करपाक लायतलों! सरकारी नोकरी जाय जाल्यार हो सूट तुवें कामाक लायता असल्या मंत्र्याक अनामिकपणान भेट दिवपाचो. तो घालतलो. ताची कूड हांव ताब्यांत घेवन तुका सरकारी कामाक लायतलों. थोडयाच उतरांनी सांगपाचें जाल्यार कोणा कडल्यान कितें तरी साध्य करपाक मेळना जाल्यार ताका कसोय हो सूट घालचो आनी

उपरांत सगळें वैभव तुज्या पांयां कडेन लोळण घेतलें. हांव भिरांकूळ कथेंतलो भूत न्हय, हांव एक हृदयस्पर्शी भूत, युगपुर्वी समस्या आशिल्लो जो आधुनीक साधनांचो वापर करून तो सोडोवपाक सोदता असल्या कास्ताचो भूत.'

'म्हणजे म्हज्या हातांत खऱ्यांनीच जादूयी भूत सापडलां!'

'पूण जेन्ना तूं म्हजो हो गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घालता तेन्नाच म्हजो तुजेर ताबो आसता. जेन्न तूं हो सूट घालिना तेन्ना तूं तूं आसतलो. समजा तुवें हो सूट आंगार चडोवन दैंवयलो जाल्यार सुमार वरभर तरी म्हजेर भार आसतलो. येदोळ तुवें हो सूट घातलो आनी काडून आलमारींत दवरलो. म्हाका चार्ज जावपाक तितलेंच पुरो आसलें. त्याच भाराचेर हांवें तुजे मुखार गिटार वाजयलें. समज तुका रांदपाक येयना पूण तुवें हो सूट घातल्यार म्हजे वरवीं तूं सहजतायेन रांदतलो. जी गजाल म्हाका शक्य आसा ती तुज्यान म्हजे मार्फत करूं येता. पूण हांव एक नैतीक मनीस. असत्याची म्हाका चीड येता. म्हाका वस्तू उखलून गिटारा भशेन वाजोवपाची तांक आसा पूण त्याच वेळार, म्हज्या फिजिकल सूटाच्या हाता भायर काम करपाक मात मेळना. हांव म्हजीं सगळी मर्यादा तुजे कडेन वांटून घेतां, मतींत दवर म्हाका खंदक करचो न्हय. म्हजो युजड आनी थ्रो करचो न्हय. काबार करतलों. हांव वायटाक महाभयंकर वायट.'

दुसरे दिसा हांवें सूट घालून म्हज्या सपनांतले चलयेचो फोटो सूटाच्या एका बॉल्सांत नशीबवान, शुभंकर म्हणून दवरलो आनी सूट घालना फुडें अचकीत शौनकाचो जॉन जालो. मोटरसायकल चलोवपाक म्हाका खबर नाशिल्लें. बापायन म्हाका केन्नाच आपल्या यमाहा आरएक्स 100 मोटरसायकलीक हात लावंक लेगीत दिलो ना. ताची बायपास शस्त्रक्रिया जाल्ल्यान ताणें ती वापरप बंद केली. पूण आतां हांवें हो सूट घाल्लो देखून हांव जॉनाच्या ताब्यांत गेल्लों, देखून ताणें म्हज्या बापायची यामाहा आर एक्स100 सोयीन चलोवन एका बंगल्या भायर उबी केली. त्या बंगल्या भायर काम करतल्या एका माळीन म्हाका आडायलो, आनी मागीर म्हाका उमजलें कि म्हजो आवाजूय ह्या जॉनान घेतला. हांव ताच्या स्वरांत उलयतालों. ताकाच लागून माळीक लागीं लागीं काळजाचो आताक येवपाचो बाकी उरलो.

बंगल्याचे भायर नेमप्लेटाचें नामकरण आशिल्लें, कासा दी जॉन पीटर दा ब्रास! तो ताचोच बंगलो. आत्मविस्वासान जॉन भितर सरलो. हॉलांत ताचें व्हडलें चित्र वण्टीचेर लायिल्लें. ताची बायल रोझी म्हज्या जॉनरूपी आवाजान भायर आयली. चड वेळ वगडायनासतना ताणें तिचे कडेन संवाद सुरू केलो. म्हजी उलोवपाची नूरा आनी तूरा पळोवन ती पयलीं भियेली. तिका दिसलें हांव मॅजिकल हॅकर जो जादूच्या वेपारी गुपितांचो गैरवापर करता. ती बेसुद जावचे पयलींच हांवें कोट काडून कुशीक दवरलो. हांव तिका घेवन भायर आयलों. ह्या सूटा फाटली पुराय काणी हांवें तिका सांगली. आयकून ती शोकाद. मागीर हांवें विचारलें, तिणें व्यभिचार कित्याक केलो?

तिणें हे काणयेची आपली स्वताची आवृत्ती सांगली. तिणें फकत एकूच चूक केली पूण मागीर तिका आता जिवीतभर ते चुकीचें मोल फारीक करचें पडटालें. उपरांत तिका समजलें, रोबर्ट फकत घोवाचे गिरेस्तकाये खातीर तिचे कडेन मोगाचें नाटक खेळटालो. ताची पयलींच आनीक एक घरकान्न आशिल्ली, आनी ही गजाल रोबर्टान रोझीक लिपयल्ली. हेर जायत्या बायलां कडेन ताचे विवाहबाह्य संबंद आसले. तिका कळ्ळें पूण तेन्ना मेरेन ताचे कडेन तिचे खाजगी व्हिडियो आशिल्ल्यान उशीर जाल्लो. ताणें तिका मानसीक त्रास दिवपाक सुरवात केली आनी मागीर तिणें ह्या नरक त्रासांतल्यान सुटका मेळोवपा खातीर रोबर्टाच्या वायट प्लॅनांत वांटेकार जाली. दोगांयनी मेळून जॉनाक मरणाच्या घाटार चडयलो. ताका एकदाचो मारून उडयलो. पूण मागीर जॉनाची सगळी मालमत्ता रोबर्ट गिळटलो हें येवजून, जॉनाची सगळी इस्टेट तिणें चोरया मृत्यु वसीयत तयार करून ताच्या नांवान एका जाण्टेपणांतल्या लोकांक आधार आनी दानधर्म करपी ट्रस्टाच्या नांवार दाखयली. पूण आतां तो तिका मालमत्ते खातीर नरकासूरा सारको नाहक त्रास दितालो.

'उपाय कितें?' – हांवें विचारलें.

'तूं म्हज्या आदाराक पाविल्लो जणूं देव. आमी दोगांय मेळून ह्या रॉबर्टाक मारून उडोवया. आमचे पर्याय उक्ते उरतले. मृत्यु वसीयत नकली आसा हें म्हाका, तुका आनी त्या आदवोगादाक खबर आसा. आनी तो आदवोगाद दुसरो तिसरो कोण न्हय, म्हजो बापूय! सो टेंशन ना. फकत तुजो सांगात जाय.'

'पूण हांव कसो करूं सांगात?'

'ह्या सुटाच्या आदारान! जेन्ना तुवें हो सूट घातिल्लो तेन्ना तूं तूं नासलो, जॉन आसलो. सूट देवयतकच तूं तुज्या मूळ रूपांत आयलो.'

'सारखें तुजें. दिसता तितलें तूं सादें ना. ह्या सुटा भितर जॉनाचो आत्मो अडकला. विचार करूं येता. आतां भितर वचून हांव कोट घालपाचों आसां. आतां तो म्हजी कूड ताब्यांत घेतलो म्हणून तूं गुन्यांव कबूल कर. तूं ताका सांग, तुजे वतीन तूं आपूण जावन ही गजाल निवळायतलें.'

भितर येवन हांवें सूट चडयलो. तिणें आपलो गुन्यांव कबूल करपाक सुरवात केली. मुखेल दारांतल्यान वचपी माळी सगळें

भायर सोदता. हांव भायर सरलों. तो भिकारी दारार गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घालून म्हाका शुन्यांत नदर घालून पळयतालो. म्हाका समजपाक चड वेळ लागलो ना, शेर्त जॉन रिटर्न्स. हांवें भिकाऱ्याक सूट काडपाक लायलो. दार बंद करून सूट घेवन म्हज्या न्हिदपाच्या रूमांत भितर सरलो.

भितर सरून दाराक खिळी घाली. ताका खुर्चेर बसयलो, हांव खाटीर बसलों. तो गिटार वाजोवंक लागलो आनी हांव पुरो जावन आड पडलां थंयच न्हिदलों. कोणाक काय उलोवपाची समजवपाची गरज नासली. टेंशन मात आई बाबाचेर आयिल्लें.

दुसरे दीस सकाळीं भायर सरतना आई आनी बाबान दोगांयनी म्हाका काल रातीं ड्रग्स डोप केल्ल्या भशेन पळयलें. काल तूं घोरेतालो जाल्यार तुजे कुडींत गिटार कोण वाजयतालो हाची चवकशी केली. म्हाजे कडेन जाप नाशिल्ली. 'आयज पियेवन घरा येवंक नाका' दोगांयच्याय मुखवट्यार एक सौम्य अधीनताय आशिल्ली. बापायन म्हाका यामाहाची चावी दितना विचारलें, 'एकाच दिसा भितर यमाहा चलोवंक कशी शिकलो?' परतून जाप तीच आशिल्ली पूण ताका जाप दिवंक मेळ्ळी ना.



चोरून आयकतालो. कारण ताचोय ह्या गुन्यावांत हात आसलो. जॉन चड रिएक्ट जालो ना. सगळें सुशेगाद आयकून घेतलें. कारण ताचे कडेन दुसरो असो स्वताचो पर्याय उरुंक नाशिल्लो.

घरा परततना हांवें ताका फकत म्हजे नदरेन म्हत्वाचें आसा तितलेंच सांगलें. ताका वाटेर नॉन-वेज खावपाचे दुवाळे लागले. हांव खरपणान शाकाहारी आशिल्ल्यान दुसरो पर्याय नाशिल्लो. तोंड म्हजें - रुच ताची. आनी आईन तेन्नाच बाजारांत तोंडांतल्यान कोंब्याचो लेग-पीस भायर काडटना म्हाका दिस्त रंगेहाथ धरलो.

हातांत सूट लटकून घरा पावलों आनी आईन म्हाका झाडून साफ केलो. बापूय आपली सगळी आशा गळून बशिल्लो. ताच्या पूर्वजांनी सांबाळिल्लो धर्म आयज हांवें बुडयिल्लो. ताणें बेगीन मरण मेळचें अशें मागणें केलें आनी दुसरे वटेन म्हजी जल्मदात्री आवय म्हाका नॉन स्टॉप झाडीत आसली! जणूं म्हाज्या आंगांत खेत्री घुसला. एकुलतो एक भुरगो नासलो जाल्यार आयज तीं दोगांय म्हजेर उदक सोडपाचीं आसलीं.

म्हाका आनीक सोंसपाक जालें ना. कोणाच्यो म्हशी आनी कोण काडटा उटा-बशी असो एकंदर प्रकार चलिल्लो. सूट बरो गुठलायलो आनी पोतयेंत पॅक करून रातचोच भायर सरलों. चलत रावलों आनी मारुती मंदिरा लागसर ती पोती शेवटून कोयरांत उडयली आनी फाटीं वळऽनासतना बेगीन परत घरा आयलों. तेन्ना मेरेन आई भितर आवयपणाची भावना जागृत जाल्ली. तिणें रातचोच त्याच वेळार म्हजो आवडटो शिरो म्हाका खावंक घातलो. आयपीएल पळयतना हांव ताची चव घेतालों. सुमार 45 मिनटां उपरांत मुखेल दारांत ठक ठक जालें. आईन दार उगडलें आनी म्हणलें कोण तरी भिकारी म्हाका

वाटेर हांवें जॉनाक सांगलें, 'आमी रोबर्टा कडल्यान सगळे एडल्ट शूट केल्ले व्हिडियो मेळोवंक जाय.' हांव सांगतालों तो आयकतालो. वाटेर ताणें म्हज्या मार्फत एक नायलॉन दोरी विकत घेतली. आमी रोबर्टाच्या घरा गेले. ताणें ताची वळख करून घेतली. जॉनान रोबर्टाच्या तोंडांत कपडो घालून हात-पांय बांदून पुरायपणान ताचे कपडे काडले आनी ताका हो गुलाबी कॉलराचो काळो सूट घालपाक लायलो. आतां रॉबर्टाचेर जॉनाचो ताबो आशिल्लो आनी ताका लागून ताणें संगणक प्रणालींतल्यान सगळीं वायट कर्तुबां, व्हिडियो आनी चित्रां जप्त करून तीं कायमचीं नश्ट करून उडयलीं. आतां ताच्या शारिरीक ताब्यांत रोझीक त्रास दिवपा सारकें कांयच नाशिल्लें. ताणें म्हाका उपरांत रोबर्टाच्या आंगांतलो सूट काडपाचो संकेत दिलो.

अपेक्षा केल्ले प्रमाण सांजवेळार ताणें आपले बायलेच्यो वेदना आनी व्यभिचाराचो विचार करून व्हड प्रमाणांत गांवटी हुर्राक घेतलें. ते सांजेर आंगार सूट नाशिल्लो जाल्यार हांव घरा पावपाचों नासलों. इतलो हांव बल्ल जाल्लों. घरांत म्हजे कुडीन भितर सरलों तोच आंगा वेल्यान सूट देंवयलो आनी न्हिदलों. तो घडये गिटार वाजोवंक बसलो. आई बाबा ते राती

घडये कॉमांत वचपाचीं बाकी आशिल्लीं.

फुडले दिसा सकाळीं सकाळीं गोमुत्राचो अतिरीक्त वास नाकार पडलो. खुर्चेर सूट गळीतगात्र पडिल्लो. न्हावपाक भायर सरलों. सकाळीं फुडें आवय–बापूय रुद्राक्ष जप करतात तें पळोवन मजेशीर दिसतालें. म्हजेर खेत्री बसला पूण खंयच्या काऱ्यावेलो हे तांका जाणून घेवपाचें आसलें.

आयज तो म्हाका खंय व्हरपाचो, कितें करपाचो कांयच खबर नाशिल्ली. म्हजें काम फकत सूट घालपाचें आशिल्लें. ताणें पर्थून म्हाका आपल्या बंगल्यांत व्हेलो. यामाहा आरएक्स 100 पार्क करून सुटांत चावी दवरली. सुटाच्या दुसऱ्या बॉल्सांत पणजेच्या गोळवलकराले चलयेचो लॅमिनेट केल्लो फोटू! गार्डनर धांवून म्हजे कडेन आयलो आनी म्हणलें, ''रॉबर्ट रागीट मुडांत आसा आनी मॅडमीक मारता.'' हांव धांवलों म्हणजे खरें अर्थान ताणें म्हाका धांवडायलो आनी आमी हॉलांत पावले. हांवें चड वेळ वगडायलो ना, रोझीच्या नायलॉन दुपट्ट्याचो वापर करून ताचो गळो दामून जित्तो मारलो. ताणें निमाणो स्वास घेतलो. माळी दारांत उबो आशिल्लो. ताणें दोळे धांपले. तो कडेक सरलो.

मुखार जॉनान म्हटलें, '' चल आनी बंगल्याची सगळी दारां आनी जनेलां भितरल्यान लॅच कर.'' आनी फुडें हांसत ताणें म्हणलें, ''तुमी दोगांय भायर सरात. ह्या मड्याक हांव राखतां. हो सूट भितरच काडून दवरात.''

हांव आनी रोझी मुखेल दारांतल्यान भायर सरतना हांवें सूट कोचाचेर उडयलो. अचकीत मुखेल दार भितरल्यान लॅच जाल्लें आयकलें.

आतां सगळ्यांत व्हडलो प्रॉब्लेम आशिल्लो, यामाहा आर एक्स 100 बायक चलोवपाक म्हाका येनाशिल्ली आनी ताचे परस व्हडली गजाल म्हळ्यार, सूट बंगल्या भितर बंद आशिल्लो. त्या सुटाच्या एका बॉल्सांत बायकाची चावी आनी दुसऱ्या बॉल्सांत पणजेच्या गोळवलकराले चलयेचे फोटू! सगळें विसरून आमी दोगांय जाता जितले बेगीन बंगल्याच्या भायर सरलीं. गार्डनरान तर केन्नाचीच पळ काडिल्ली कारण पायपांतल्यान उदक व्हांवत आसलें.

दोन स्टॉप काडटकच आमी वेगळीं जालीं. वच्चे पयलीं ताणें विचारलें, ''ए हॉट गन, तुजें नांव कितें?''

''शौनक गिरीकांत मोहपात्रा!'' – हांवें जाप दिली.

हे घडणुकेक तीन दीस जायत आयिल्ले. अजून खंयच कसलोच कोणाक पत्तो नासलो. आनी चवथे दिसा सकाळीं वॉट्सएपाच्या सगळ्या ग्रूपांनी एक मॅसेज व्हायरल जाली, जॉन पीटर दा ब्रासाच्या बंगल्यांत रोबर्ट डिकुन्हाची डेड बॉडी कुजिल्ले अवस्थेंत आसा. उमळशीक म्हण हांवूय भायर सरलों. घरांत खाटीर बाबाय नासलो. आई फाटल्यान पोरसांत कपडे उमळटाली.

त्या बंगल्या भायर एम्ब्युलन्स आनी भरपूर पुलीस अधिकारी आशिल्ले. मुखेल दार फोडून उकतें केल्लें आनी कांय प्राथमीक चवकशे उपरांत रोबर्टाची कूड एम्ब्युलन्सांतल्यान भायर व्हेली. ह्या केसीचीं सगळीं गुपितां घेवन यामाहा आरएक्स 100 एके सुवातेर उबी आशिल्ली. आनी दुसरें एक गुपीत म्हळ्यार तो गुलाबी कॉलराचो काळो सूट. गर्दी शिंपडपाक लागली. पयसुल्ल्यान हांवें बंगल्याच्या हॉलाचेर बारकायेन नदर भोंवडायली. सूट सोफाचेर सुशेगाद निपचीत पडिल्लो.

इतल्यांत फाटल्यान कोणें तरी म्हज्या खांदार हात दवरलो. हांवें थरथरून फाटीं पळेलें ... म्हजो पिताश्री उबो आसलो! बाबान म्हटलें, ''भिवपाची गरज ना. हांवेंय वीस वर्सां फाटीं चोर बाझारांतल्यान ही यमाहा आर एक्स 100 उबारिल्ली आनी पेपर नाशिल्ल्यान ती केन्नाच रेजिस्टरूय केली ना. देवाक खबर ती कोणाच्या नावार आसा!'

सादारण एका म्हयन्या उपरांत म्हज्या फेसबूक मेसेंजराचेर एक मेसेज आयली, 'अरे हाय हॉट गन, मायसेल्फ रोजी क्वाड्रोस. तुजी पिंकमॉलांत मॅनेजर म्हणून नेमणूक जाल्या. जाता तितले बेगीन जॉयन जा. डिले करुंक नाका. वाट पळयता.'

आनी स म्हयन्यां उपरांत जॉन पीटराच्या बंगल्या भायर आशिल्ले नेमप्लेटीचें नामकरण जालें, 'मिसेस रोझी शौनक मोहपात्रा.'

पूण विस्वास दवरात, तो गुलाबी कॉलर आशिल्लो काळो सूट खंय लोळत पडला हाचो विचार करून अजूनय म्हाका एकेकदा न्हीद येना. आनी देखून दर आयतारा सकाळीं तो नदरेक पडटलो हे आशेन हांव चोर बाजारांत प्रभातफेरी मारतां!

जो मेरेन तो गुलाबी कॉलर आशिल्लो काळो सूट सांपडना तो मेरेन म्हज्या आनी रोझीच्या जिवितांत सूख ना. त्या भायर पणजेच्या गोळवलकराले चलयेचेंय कांयच खरें ना. अशें आयकलां, कोण्ण ताचे कडेन लग्न जावपाक तयार ना. कारण गुलाबी कॉलराच्या काळ्या सुटांत सापडिल्लो ताचो पासपोर्ट सायझ फोटो पुलीस स्टेशनांतले फायलींत आयजूय धूल्ल खाता!

(ही कथा पुराय काल्पनीक आसा. हे कथेचो रूपकार, ध्वनीमुद्रण आदी सगळे तरेचे हक्क लेखक सम्राट बोरकार हांचे कडेन आशिल्ल्यान तांची लिखीत मान्यताय घेवप गरजेचें आसा.)

*फोन– 9923794127*

# नशिबाचो खेळ..!

''किद्दें गो लक्षुम्या? कितलो वेळ? फाल्यां दिवाळी म्हण खबर ना काय कितें गो? रांदचे कुडींत कितलीं आयदनां पडल्यांत. हांडो, कळश्यो घांसपाच्यो आसात. तांका तिबे लावंक जाय, रोजांच्यो माळो घालूंक जाय. हें इतलेंय काम कोण करतलो? म्हजी मांय?'' शांताबाय धेंगशेली.

''ह्या वावराड्यां कडेन निस्तोर काडूंक नज. पयलीं काम जाय म्हण हात-पांय पडटात आनी मागीर कामाक दवरतकच माथ्यार बसतात!'' शांताबायची तिडक मस्तकाक पाविल्ली.

''नां शांताबाय! चेडवाक दूद दिवपाक जाय आसलें म्हण वगत जालो!'' लक्षुम्यान नमळायेन म्हळें.

''पाड पडिल्ल्यांक आपलें पोट धड भरपाक तांकना आनी मराभर भुरगीं मात जाय!'' शांताबाय कड्डली.आपल्या पुतागेर भुरगीं नांत ताचो राग शांताबायन मनांतल्या मनांत लक्षुम्याचेर काडलो.

लक्षुम्याच्या दोळ्यांतल्यान घळ्ळ करुन दुकां देंवलीं. तें मन्यानी रांदचे कुडींत गेलें. सगळीं आयदनां मान्यांत दवरलीं आनी एक-एक आयदन घांसपाक लागलें. लक्षुमें आयदनां घांसतालें पूण ताच्या दोळ्यां मुखार आदल्यो एक-एक यादी सर्र करुन फुडें वताल्यो.

***

लक्षुमें शंकरालें एकलेंच चेडूं. चेडूं जालें आनी शंकराले बायलेक बाळांतपणांत दोतोराच्या घाळपणां खातीर जीव वगडावचो पडलो. शंकर कांयच करुंक शकलो ना. परतें लग्न करपाचो विचार ताणें चेडवाच्या तोंडाक पळोवन सोडून दिलो.परत लग्न जा म्हण सोयरे- धायरे शंकराक सुचयताले पूण ताणें कोणाचेंच आयकलें ना. तोच लक्षुम्याचो आवय आनी बापूय जालो. आवयचें रितेंपण ताणें लक्षुम्याक भासूंक दिलें ना.

शंकर शेत ओंपतालो. रोयतालो तें ताका आनी लक्षुम्याक माथ्या बोडा वेल्यान पुरो आसलें. शंकराच्या हातांत चार पयशे घोळताले. ताणें चेडवाक बरें सुखान दवरिल्लें.

शंकराल्या शेताक तेंकून दामूलें शेत आसलें. दामू आनी शंकर जिवा भावाचे इश्ट. दामूलो चेडो नामदेव लक्षुम्या परस चार वर्सांनी व्हडलो. शंकरान आनी दामून आपसांत थारायिल्लें,



**सखाराम शेणवी बोरकार**

*काव्य, ललित, विनोदी साहित्य, अणकारांत योगदान. लोकवेदाचे खाशेले अभ्यासक .*

लक्षुम्याचें आनी नामदेवाचें लग्न करचें आनी इतल्या तेंपा पासून चलत आयिल्ली इश्टागत सोयऱ्यांत जांवची. ही खबर तांचे दोगां मदलीच आसली आनी कोणाकच ताची सुलूस नासली.

दीस वताले, वर्सां वतालीं. लक्षुमें वाडत वतालें, मागिलदारच्या रसरशीत केळ्ळ्या भशेन!. गांवांतल्या चेड्यांच्यो नदरो ताचे भोंवतणी घुंवत आसताल्यो. कांय जाणांनी तर ताका मनांतले मनांत आपल्या फुडाराची सांगातीण केल्ली.लक्षुमें जेन्ना रस्त्या वेल्यान वतालें तेन्ना गांवांतल्या आलम पिड्ड्यार चेड्यांच्यो नदरो ताका खावंक येताल्यो. पूण लक्षुमें तांका कॅर काडिनासलें. तें आपलेच तंद्रेंत आसतालें, मनांतले मनांत आपल्या सपनांतल्या राजकुंवराची वाट पळयत.

***

आयज तांचे मडकयंत जात्रा. रथाक घेऽ म्हण लोक आसलो. सगळे तरेचे लोक. हवशे–नवशे– गवशे! फेरयेंत चेडे आनी चेडवां ग्रुपानी भोंवतालीं. लक्षुमें इश्टिणी वांगडा जात्रेक आयिल्लें. तीं फ़रयेंतले मांड पळयत भोंवतालीं. तांच्या फाटल्यान चेड्यांचो एक ग्रुप भोंवतालो.

''हें तें चेडूं बरें दिसता न्हू रे!'' रातचें पसून गॉगल लायिल्ल्या एका चेड्यान लक्षुम्या कडेन बोट दाखयत म्हळें.

''सारकी नटी कशी दिसता!'' दुसऱ्यान म्हळें.

''कित्याक रे तेचीं बाबड्याचीं फ़काणां करतात?'' शशिकांतान म्हळें.

''बरी मरे तेची सायड घेता, तें कोण तुजी बायल लागता?'' विनू पचपचलो.

शशिकांताक विनूची तिडक मारली. ताणें विनूल्या सोणकुटाचेर एक फुलयलें. लक्षुमें जरी फुडें चलतालें तरी ताचें लक्ष फाटल्यान आसलें. थापटाचो आवाज येना फुडें ताणें फाटल्यान पळयलें. इतल्यान ताची आनी शशिकांताची नदर एक जाली. नदरेक नदरेची भास कळ्ळी आनी तांचीं दोगांयचींय मनां केन्ना एक जालीं हें तांचे तांकांच कळ्ळें ना.

***

लक्षुमें शशिकांताची म्हूर्त दोळ्यांत सांठावन घरा गेलें. रातचें जागरण जाल्ल्यान तें दिसाचें न्हिदलें. सपनां खंय रातचीं पडटात! पूण लक्षुम्याक दिसा उजवाडा सपन पडलें. सपनांत तें शशिकांताची घरकान्न जाल्लें. लग्नाचो बोवाळ आनी त्या बोवाळनच तें जागें जालें. खीण भर आपूण खंय आसा तेंच ताका कळना जालें.

''लक्षुम्या! आजून न्हिदून पडलां गो?'' शंकरान काश्टेक लायिल्ली कोयती पास्ताक लावन म्हळें.

'आवयस! बापूय आयलो दिसता!' अशें म्हणीत लक्षुमें बेगीबेगीन रांदचे कुडींत गेलें आनी बापाय खातीर च्यायेक उदक दवरलें. तें रांदचे कुडींत काम करतालें पूण ताचें मन शशिकांताचे भोंवतणी घुंवतालें. परत मेळपाची आस्त बाळगून!



***

ते रातीं ताका न्हिद पडली ना. रात भर तें शशिकांता विशींच येवजितालें. शशिकांताची म्हुर्त ताचे दोळ्यां मुखावेल्यान हालना आसली. सकाळ फुडें काम सोंपोवन तें देवळा कडेन गेलें. एकटें एकसुरें ! शशिकांत येवपाची आस्त बाळगीत!

ताणें देवतेची भेट घेतली आनी रोखडेंच देवळांतल्यान भायर सरलें. दोळे मात शशिकांताची वाट पळयत आसले. ताका दिसतालें, शशिकांत ताका मेळूंक येतलोच. इतल्यान शशिकांत आयलो. दोळे दोळ्यांक वळखले. शशिकांतान आपलें काळीज केन्नाच लक्षुम्याचे सुवादीन केल्लें.

शशिकांत बशीर कंडक्टर म्हण काम करतालो. तो भयणीगेर मडकय जात्रेक म्हण आयिल्लो.

***

शशिकांत आतां दर आयतारा मडकय येवंक लागलो.भयणीक मेळपा निमतान, पूण खरेपणीं लक्षुम्याक मेळपाक. आयतार म्हळ्यार लक्षुम्याक  एक पर्वणीच! केन्ना काय आयतार येता आनी आपूण शशिकांताक मेळटां अशें ताका जातालें. तो येतकच सांजेचीं तीं बांदार वचून बसतालीं आनी आपल्या फुडाराचीं सपनां रंगयतालीं.

शशिकांत-लक्षुम्याची  खबर गांवभर कळपाक कळाव लागलो ना. दामून हे खबरे विशीं शंकराक विचारलें पूण शंकराक खीण भर ताचेर विश्वास बसलो ना. ताणें लक्षुम्याक विचारलें. तेन्ना ताका कळ्ळें, आपल्या चेडवाचें मन त्या शशिकांताचेर बसलां. तेन्ना ताणें  जड अंतस्करणान लग्नाक हयकार दिलो.आपणें आपल्या जिवाभावाच्या इश्टाक दामूक दिल्ल्या उतराची वज राखी नासतना. पूण शंकराक खूब दुख्ख जाल्लें. पूण आपल्या एकसुऱ्या चेडवा वेल्या मोगा खातीर ताणें आपलें दख्ख दामून धरलें.

***

लग्न जावन कांय म्हयने गेले. शंकर काळजाचो आताक येवन भायर पडलो. आतां लक्षुम्याक शशिकांता बगर कोणाचोच आदार नासलो. भायर पडचे पयलीं शंकरान आपलें शेत आनी घर शशिकांता नांवार केल्लें.

शशिकांताक आतां सर्ग दोनच आंगळां उरिल्लो. मना सारखी बायल, हातांत पयसो! असल्या वेळार आमीग, व्यसनां थोडीं आसतात?

लग्नाक वर्स जालें आनी दोगांयच्या संवसारांत तिसऱ्याची भर पडली. शशिकांत चड वेळ भायरूच आसतालो. ताका वाऱ्या वेलीं भिनां बरीं लागपाक लागलीं. लग्ना पयलींची जी ओढ, आस्त आसली ती उणी जावंक लागली. लक्षुमें  समजतालें  शशिकांत नाग्यार येतलो. ताणें ताका बरे भशेन सांगून पळयलो. पूण तो कांयच आयकना जालो. लक्षुमें भितरल्या भितर दुखेस्त जांवक लागलें, आपल्या नशिबाक दोश दीत.

शशिकांतालें रातचें पियेवन येवप,तवनास आमिगां वांगडा भोंवप, तांका घरा हाडप हें लक्षुम्याक मातूय सोंसना जालें. ताका वचून जीव दिन दिसतालो. पूण चेडवाच्या तोंडाक पळोवन तें सोंसतालें.

***

सोरो, सिगारां आनी हेर व्यसनांक लागून शशिकांतान आशिल्लें नाशिल्लें सगळें काबार केलें. मागीर तो बशिच्या रिपोर्टाचेर हात मारपाक लागलो.  पात्रांवान पयलीं व्हडलें कानामनार घेतलें ना पूण जेन्ना चडच तूट येवपाक लागली तेन्ना शशिकांताक ताणें सिर्विशे वेल्यान काडून उडयलो.

व्यसनी शशिकांताक आतां फकत सोरो आनी सिगारां दिसतालीं. पयशे नासतकच तो आमिगां कडेन मागपाक लागलो. पूण पयशे नासतकच आमीग खंय लागीं रावतात? कोणच ताका लागीं करिना जाले. निमणें ताणें लक्षुम्या कडेन पयशे मागपाक कोमेस केलें.

लक्षुमें ताका मेजूनच पयशे दितालें. पूण शशिकांताक ते पावना आसले. एक दीस लक्षुमें ना शें पळोवन लक्षुम्याचे पेटयेंतलीं ताच्या बापायन घाल्लीं दोन भांगराचीं कांकणां फारायलीं आनी तीं विकून पेद्रू सोऱ्याकारागेर वचून भरपूर पिलो.

शशिकांत आतां बरोच अशक्त  जाल्लो. उपाशीं पोटार सोरो आनी सिगारां हाचे खातीर एक दीस ताका काळजाचो आताक आयलो आनी पेद्रू सोऱ्याकारागेरच ताणें प्राण सोडलो.

लक्षुमें चेडवाक घेवन बाजाराक गेल्ले कडेन कोणें तरी ताका ती खबर सांगली. तें धांवत शशिकांता म्हऱ्यांत आयलें पूण इतले म्हणसर शशिकांताची कूड थंड पडिल्ली. ताका ती शशिकांताची निस्तेज कूड पळोवन थंयच घुंवळ आयली. ताचो आशिल्लो नाशिल्लो आदार ना जाल्लो. पूण ताणें रोखडेंच आपल्याक सांवरून घेतलें. ताका जगपाक जाय आसलें आपल्या चेडवा खातीर, कमला खातीर!

***

''लक्षुम्या! आजून जावंक ना गो आयदनां घांसून? कितलो वेळ गो?'' शांताबाय धेंगशेली.

त्या आवाजान लक्षुम्याची तंद्री भंगली.

''जालें काकीबाय! अशें म्हणीत तें बेगीबेगीन आयदनां घांसूंक लागलें.

***

9923306751

# पुण्यभूंय गोंय

# काजू फेस्त






सरकारचें खंयचेंय खातें जावं म्हामंडळ आपले कार्यावळीचें निमंत्रण घेवन सोदीत येवपाचे प्रसंग तशे दुर्मीळ. पूण गोंय वनविकास म्हामंडळाचे कर्मचारी वाट काडीत बिम्ब कचेरींत पावले आनी नमळायेन हातांत निमंत्रण दीत,हें मॅडम डॉ.दिव्या राणेन धाडलां. तुमी मुजरत ह्या काजू फेस्ताक येवंचें अशें तांणी विनयलां.

संपादक दौऱ्यार म्हणटकच हें काम म्हजेरूच पडलें. गोंय वनविकास म्हामंडळाच्यो अध्यक्षा मुजरत आपलो मनीस धाडून आपोवणें दिता तें टाळप समा न्हय म्हूण गेलें. पणजेच्या कांपाल मैदानाचेर 15 आनी 16 आब्रील अशे दोन दीस हो काजू महोत्सव आयोजीत केल्लो. डॉ. दिव्या राणे हांणी आमदार म्हूण वेंचून येवन गोंय वनविकास म्हामंडळाच्यां अध्यक्षपदाचो ताबो घेतले उपरांत राज्य स्तराचेर आयोजीत केल्लो हो पयलो महोत्सव. हो महोत्सव जावपाचो आसा म्हणपाचें कानार पडिल्लें तेन्ना काजू महोत्सव म्हूण जावं येता असो प्रस्न पडिल्लो. पूण जेन्ना कांपालार पावलें आनी गोंयच्या काजूबोंडाचो बिये सयत केल्लो दरवंटो पळोवन कलाकाराचे कल्पकतेची तोखणाय दिसली.



**मानसी धाऊसकार**

*'बिम्ब' मासिकाचें पालवी संपादक, कविता आनी कथा लेखनात उमेदवारी.*




उक्तावण सुवाळ्याची तयारी पुराय जाल्ली. म्हामंडळाच्यो अध्यक्षा खासा उत्साहान वावुरताल्यो. हांवें तांचें अभिनंदन केलें. हो महोत्सव पुराय पळयतलें म्हूण मैदानाची फेरी केली. सांस्कृतीक कार्यावळी पासत भव्य अशी माची केल्ली. सोयऱ्यांक बसपा पासत कदेलांची आकर्शक मांडावळ केल्ली. मैदानांत गोंयच्या काजूंच्या बियांचे,फेणयेचे आनी हेर उत्पादनाचे स्टॉल कल्पकतेन मांडिल्ले. काजू हें म्हजे नदरेन एक निरुपेगी फळ आशिल्लें. तें दोंगरार आशिल्ल्या काजू रुखांचेर जाता आनी ताची काळजी बिळजी घेवपाची गरज ना असो म्हजो समज आशिल्लो. पूण ह्या महोत्सवांत काजूच्या उत्पादना वांगडाच वेगवेगळ्या जाणकारांनी वेगवेगळ्या सत्रांत आयोजीत केल्ल्या परिसंवादांत इतली म्हायती दिली जी खऱ्यानीच आयकुपा सारकी आनी गिन्यानांत भर घालपी आशिल्ली.





गोंय हें पर्यटनाचे नदरेन संवसाराच्या नकशाचेर ठळकपणान लखलखूंक लागलां. गोंय अजून मेरेन शांत आसा आनी सोबितूय आसा. सरबरायेचे नदरेन गोंयच्या लोकांचो हात धरपाक कोण ना. पर्यटन खातें रोहन खंवटे सारख्या एका डायनॅमीक तरनाट्या कडेन आसा. गोंयच्या पर्यटन मळाक एक वेगळी दिका आनी प्रतिश्ठा दिवपाचो तांचो वावर नदरेक भरता आसतनाच तांच्याच सरकारांतल्यो एक आमदार आनी वनविकास म्हांडळाच्यो अध्यक्षा आशिल्ल्यो डॉ.दिव्या राणेय तेच धडाडीन गोंयच्या पर्यटनाक आपले परीन कल्पकतायेन हातभार लायतात हें गोंयच्या फुडाराचे नदरेन खूब सकारात्मक गजाल.

मुखेलमंत्री डॉ.प्रमोद सावंत, रोहन खंवटे, केंद्रीय राज्यमंत्री श्रीपाद नायक सारख्या मानेस्तांचे हाजेरींत ह्या महोत्सवाचें दिवली पेटोवन उक्तावण जालें.

हो काजू महोत्सव 2023 आपणें गांवगिऱ्या वाठारांतल्या अस्तुऱ्यांक आनी ज्यो अस्तुऱ्यो आप-मजत गटांतल्यान वावरतात तांकां ओपला अशें म्हामंडळाच्यो अध्यक्षा डॉ. दिव्या राणे हांणी सांगले बराबर तांका येवकार मेळ्ळो.

आमचें गोंय राज्य काजू उत्पादनांत आत्मनिर्भर आनी स्वंयपूर्ण जावचें ही मोख ह्या काजू फेस्ताच्या आयोजना फाटल्यान आसा. काजू हें गोंयचें एक म्हत्वाचें शेतकी उत्पादन आसा. ह्या काजू लागवडीचेर आनी उत्पादनाचेर गांवगिऱ्या वाठारांतल्यो कितल्योच अस्तुऱ्यो आत्मनिर्भर जाल्ल्यो आसात. काजू फेस्त 2023 हो महोत्सव गोंयचो पयलो वयलो महोत्सव. ताका आरंभाकूच उप्पाट यश मेळ्ळें. दर वर्सा हो महोत्सव फकत गोंयांतूच न्हय तर पुराय देशांत आयोजीत करपाचो मनोदय म्हामंडळाचो आसा.

काजू फेणयेक ह्या आदींच दायज पेयाचो दर्जो फावो जाल्लो आसा. काजू फेणयचेर वेगवेगळे उद्योजक वेवसायीक नदरेन प्रयोग करतात. गोंयचे एक आर्कीटेक्ट आनी कलाकार राज भांडारे हांणी काजू फेणयेचो उग्र दर्प काडून उडोवन हें पेय स्कॉच दर्जाचें करून संवसारीक नामना कशें मेळोवंक पावतलें हाचेर वावर करून असली फेणी बाजारांतूय उपलब्ध केल्या. गोंयचे कितलेच उद्योजक काजू लागवडीचेर आपलो वेवसाय मुखार व्हरपाक यत्न करतात. काजू फेणी, हुर्राक, काजू बियो, काजू बियांचेर आधारीत कितलींच खाणां, काजू बियांच्या कल्लांच्या दिका पासून जावपी वेगवेगळें वंगण अशे कितलेच प्रकार काजू पासून जातात. काजूचे हे फायदे शारी लोकांक अनवळखी आशिल्ले. तांची वळख ह्या काजू फेस्ताच्या निमतान जावंक पावली.

ह्या महोत्सवांत फकत काजू उत्पादन आनी वापर हाचेंच प्रदर्शन जालें ना तर गोंयचे कितलेच सर्जनशील कलाकार ह्या निमतान एकठांय आयले आनी तांणी ह्या महोत्सवा निमतान आपली सर्जनशिलताय हांगा प्रदर्शीत केली. आमच्या गोंयकारां भितर कितले कलागूण आसात हाची झलक ह्या महोत्सवाक लागून कळूंक पावली.



गोंयांत खूबशे कलाकार आसात आनी नवें नवें करपा पासत खूब लोकांक उमेदूय आसा. पूण तांका ते पासत माची उपलब्ध करून दिवपाची गरज आशिल्ली. कितलेच काळा सावन गोंयांत काजू फळाचेर आदारीत वेवसाय गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांत चलत आयला. चड करून दोंगराळ वाठारांत चलपी हो वेवसाय फकत त्या वाठारा पुरतोच मर्यादीत उरतालो. ताचेर हेर जगाची आडनदर जाताली. काजू फेणयेक दायज दर्जो मेळचे आदीं हें पेय म्हळ्यार हलक्या लोकांनी घेवपाचें असो समज आशिल्लो. पूण आतां तीच फेणी आंतरराष्ट्रीय दर्जाचें ड्रींक जावंक पावलें. काजू उत्पादनात जे कोण गरीब लोक आसताले तांचें उत्पादन तांच्या नेणारपणाक लागून फुकेसवाय लाटप जातालें. पूण आयज ह्या वेवसायाक आतंरराष्ट्रीय दर्जो लाबला. असले महोत्सव ह्या दर्जाक उदक सारें घालतात. असलो हो महोत्सव गोंयांतूच न्हय तर देशांतल्या वेगवेगळ्या राज्यांनी आयोजीत करपाची गरज आसा. जाका लागून काजू उत्पादना वांगडाच गोंयची कलाय जगाक कळपाक पावतली अशें लोकांचें मत जाल्लें दिसतालें. दोन दिसांच्या ह्या महोत्सवान गोंयकार आनी गोंयांत आयिल्ल्या पर्यटकांक गिन्याना वांगडाच मनरिजवणेची संद दिली म्हण म्हामंडळाच्यो अध्यक्षा आनी आमदार डॉ.दिव्या राणे हांची सगळे [illegible]

पेडें, मो. 8788595022



**पाब्लो नेरूदा**
*(12 जुलाय 1904-23 सेतेंब्र 1973)*
*नोबेल पुरस्काराचे मानेली स्पॅनीश कवी*
*अनुवाद : **दिलीप बोरकार***



## *कविता*
(poetry)

आनी हीच पिराय आशिल्ली...म्हाका सोदीत सोदीत
कविता येवन पावली...नेणा हांव, खबर ना म्हाका
खंयच्यान
ती आयली, शिशिरांतल्यान काय न्हंयेंतल्यान
नेणा हांव खंयच्यान आनी केन्ना,
न्हय, ते आवाज नाशिल्ले, उतरां तीं नाशिल्लीं
मोनेळ न्हय,
पूण एका मार्गा वेल्यान, रातींच्या फांदयां वेल्यान,
भोवतेक हेरां मदल्यान,
आकांताळ्या ज्वाळां मदीं
तिणें मारलो उलो म्हाका
वा जेन्ना हांव एकलोच परततालों
अचानक सामकार ती आयली, खंयच्याच चेऱ्या बगर,
आनी तिणें म्हाका स्पर्श केलो
कितें उलोवंचें कळ्ळेंच ना म्हाका, म्हजें तोंड
नांवां सांबाळूक शकनासलें
दोळे म्हजे कुड्डे जाल्ले
कसली तरी वस्त म्हजे भितरल्यान आवाज करताली
जोर काय विस्मृत शेवण्यां पांखां,
आनी हांवें म्हजी सोताची वाट सोदली
त्या उज्याचो अर्थ
उमगलो,
आनी हांवें पयली, हय न्हयशी बरयली ओळ,
पुसट, तत्वहीण, फकत
बकवास,
शुद्ध गिन्यान तिचें
जिका खंयचेच गजालीचें गिन्यान उरूंक ना
आनी हांवें सहसा देखलें
बंधनहीन,
उन्मुक्त,
मळब,
गिरे,
थरथरपी वनस्पत,
बाण,उजो आनी फुलांनी
चाळण जाल्ली
विरविरीत काळोख
पराभूत जायत वचपी राती, विश्व..

आनी, हांवें एका कुस्कुटभर जिवान
भव्य नखेत्री शुन्य
समरुपताय, रहस्यांतल्या
बिंबान,
मदोन्मत्त,
सोताक गिऱ्याचें
एक शुद्ध आंग मानून
नखेत्रां वांगडा फिरलों
म्हजें काळीज तुफाना वांगडा बंधनांतल्यान मेकळें
जालें..

श्रीकांत नागवेंकार

## *उरलां कितें !*
## *उरलां कितलें!*

कितले जोडले
कितले मोडले
हिशोब कित्याक करीत बसचें
उरलां तें मजेंत खावचें!

कितले इश्ट बांदून रावले
कितले जाण सोडून गेले
नातें तोडून गेल्ल्यांच्यो
वायट यादी सोडून दिल्यो
उरल्या त्यो गांठीक बांधून
घेतल्यो!

कितलो मोग म्हजेर केलो
तितलो मोग तुजेर केलो
कितलो मोग बावून गेलो
उरला तो वांटून घेतलो!

पेलो कितलो भरला
पेलो कितलो ताळ्यांत गेला
नशेची सांगांत सुटून सुटना
उरिल्लो पेलो पळोवपाचें सोडना!

अर्दीं लाकडां मशणांत गेलीं
अर्दीं सुकीं झाडाचेर उरलीं
रान लासून गोबोर जालें
प्रेत म्हजें सरणावर अर्दें मेलें
उरिल्ली आस्त पळयत अर्दें जितें!

आतां उरलां कितें! उरलां कितलें!
मजेन कित्याक बसचें!



## *यो रे घना!*

यो रे घना
यो रे घना
न्हांऊ दी रे
रानां वनां!

थेंब थेंब
चिंब चिंब
भिजूं दी रे
झाडां पानां!

पाण्या झरी
ओली माती
रूजूं दी रे
बियां रोपां!

हिर्र हिर्र
बैलां जोतां
रोया शेतां
उगूं दी रे
नवी पिकां
भाता पिकां!

यो रे घना!
यो रे घना! –

## *कोंकणी आमची मांयभास!*

कोंकणी आमची भास
कोंकणी आमची मांयभास
कोंकणी आमची राजभास
कोंकणी उलय! कोंकणी
बरय!
कोंकणींतल्यान सरकार
चलय
कोंकणींतल्यान भुरग्यांक
शिकय
कोंकणी आमची अपुर्बाय
कोंकणी आमची सासाय
जागोवया आमची अस्मिताय
उक्तायली काळजा सावन
कोंकणीची तोखणाय
तिनसांजचो पावलों घरा
नितळ मनान करतां प्रार्थना
मावशीचे भाशेंत गायतां
भजनां
रूप पाहता लोचनी!
सुख झाले वो साजणी!
मायेचो विरोधाभास
कोंकणी आमची मायभास!

## *हांव आसतना कित्याक भियेता!*

सकाळी फुडें खबर आयली
शेजारी अकस्मात गेलो
स्वभावान बरो
जिवान खणखणीत
आयकून कच्च जालें
बेगीबेगीन भायर सरलों
बॉडी हॉलांत मर्दीं दवरिल्ली
इश्टांक सोयऱ्यांक हात दिले
बारीकसाणेन खबर घेतली
एक एक आयकून
काळजांत कलकलपाक लागलें
शेळो घाम सुटपाक लागलो
घरा येऊन सोफार बसलों
‘कसो गेलो?’
बायलेन विचारलें
‘कांयच कळना
कॉप ना, बीपी ना,
साकर ना, कॉलेस्ट्रोल ना,
अकस्मात गेलो.’
सांगतना म्हजी जीब जड जाली
‘कोण केन्ना वचत सांगपाक जाता?’
आयकून म्हज्या काळजाचो धपको
खीणभर बंद पडलो
‘ताका तर कांयच ना!’
‘म्हाका तर सगळें आसा!’
हांव सामको नेव्हींस जाल्लों
‘तूं कित्याक भियेता?
हांव आसा मेरेन तुका सोपेपणीं
बरें वचपाक दितलें!’
हीं उतरां कानार पडलीं
आनी मनाक धिटाय आयली
पूण नवें टेंशन सुरू जालें
तिका तर कांयच ना!



इंदु गेरसप्पे

## एक मनीस

एक मनीस आशिल्लो
तागेल्या धर्माक लागून
लोकांनी ताका मारलो
ताका धर्मद्रोही असो आरोप लायलो
ताका धरलो मारलो
चाबकाचे कड्डे घाले
माथ्यार कांट्यांचो मुकूट रोमलो
आनी खुर्सार लांबोवन जीव काडलो
ताणें कितें केलें म्हूण ताका मारलो?
ताणें सांगलें,देवाचेर उपाट मोग करात
एकामेकांचेर खूब मोग करात
तुमच्या दुस्मानाचेर लेगीत मोग करात
ताणें प्रिती धर्माचो उपदेश दिलो
म्हणून ताका मारलो
गव्हाचो दाणो मात्येंत पडता
तो रुजून शंबर वांट्यान धान्य दिता
तशें ताका मारल्या उपरांत
अपरूप चमत्कार घडूंक लागले
लोक ताचेर विश्वास दवरूंक लागले
जगभर तागेलो धर्म वाडूंक लागलो
ताका जाय आशिल्ली फकत प्रीत.

*(गुड फ्रायडे,7 आप्रील 2023)*



आर. रामनाथ

## विटेवेलो देव

विटेवेलो देव
आमगेर
स
दै
व ...

पंढरीची वारी
आतां
अ
धां
त
री ..

*मल्लिकार्जुन, रायंगिणी – बांदोडें,*
*फोंडें, मो. 9850458763*



सोनाली पेडणेकार

## अशें तशें न्हय

आपले एक एक खीण
अशेच घालोवंचे न्हय
मेळिल्ल्या वेळाची मजा
घेवंक थकचें न्हय
हातांत आसा ताचो
आस्वाद घेवंक फाट न्हय
कोण कितें वायट म्हणटा
ताचेर लक्ष दिवचें न्हय
आपलें तन, धन हें
तितल्याच पुरतें
मन मारून केन्नाच जगचें न्हय
कांय मनांतल्यो गोश्टी
करुन जगांत नांव कोरून
दवरूंक फाट न्हय
जिवीत हें आपल्या
हातांतलें न्हय
तरी ताची काळजी
करूंक जाय न्हय
आपूण जगतां आपल्या
खातीर, तरीय आपले कोण
तरी आसात हें बी विसरचें न्हय

9923046779

सोनिया सुभाष शाह

## सोसो

एक आसलो सोंसो
दिसूंक सोबीत गोरो
कापसावरी सोबीत आंग
मारीन दिसताली घट्ट वेंग

हांगा थंय भोंवतालो
पांचवेंचार तण खातालो
टुण्णटुण्ण उडयो मारीत
सगलो वाठार भोंवतालो

खुपूच भिजूड आसलो खरो
बेठोच नेट मारतालो
झाडावयल्यांन पडल्यार पान
रोकडोच काडटालो आंग.....!

एक दीस दोंगुल्लेचेर
नाचपांत गुल्ल जालो
पुरो जावन मागीर एका
झाडापोंदा सुस्त न्हिदलो.

सुभाष न. शाह

## नदर

तुजी नदर
म्हजेर पडली
काळीज जालें घायाळ...

फाटीं वळून पळयताना
तूं हांसतालें म्होंवाळ म्होंवाळ
दोगांची जाली नदरा नदर...

जसो दामलो
अचकीत, स्कुटरीचो ब्रेक
तसो म्हज्या काळजाक
पडलो क्रॅक...

क्रॅक व्हडू जावन
दुखणें हाता भायर
वचत म्हणून...

हांव रोखडोच गेलों दोतोराकडे
नाडी तपासतां – तपासतां
दोतोर म्हणूंक लागलो...

जंय तुजो ब्रेक
'फेल' जालो;
थंयच, तूं गेल्यार बरो...



# आवय भुरगें

फाटल्या म्हयन्यांत म्हाका आजी जावपाचो मान फावो जालो. म्हजे खातीर हो एक सुखदिणो अणभव आसलो. जल्माक येतनाच भुरग्याचें पयलें 'क्यांऽऽव' आयकुपाक आमचे सगल्यांचे कान सामके आशेल्ले. श्रेयाक भितर व्हरून अर्दवर जालें तरी कांय आवाज ना म्हणटा थंय आसा, सगल्यांत पयलीं भुरग्याचो पयलो साद जांवयाच्या कानार पडलो तसो; 'आवाज येता न्हय!' अशें म्हणीत तांणी आमकां शिटकायलें. तितल्यांत नर्सीन भायर येवन 'श्रेयाच्या भुरग्याचे कपडे दियात' अशें म्हणीत कपडे मागले खरे, पूण चलो काय चली हें घोशीत करी नासतना तिणें पपा काडलो. तसो चलो वा चली जाल्यार आमकांय व्हडलोसो फरक पडचो नासलो. कारण आवय-भुरगें सुरक्षीत आसप इतलेंच आमचे खातीर म्हत्वाचें आसलें.



**काश्मीरी पावस्कार**

*शिक्षकी पेशांतली लेखिका,ललित लेखनांत फिशाल. तांचें 'कपयाळें' हें ललित लेखांचें पुस्तक उजवाडाक आयलां.*

कांय वेळान नर्सीन उबेच्या मांड्यांत गुठलायल्लें. आंगलें तोपरें घातिल्लें सान भुरगें म्हज्या हातांत तेंकोवन 'बाय जालें' म्हूण सांगलें. कांय खिणांक आमकां श्रेयाचो विसर पडलो आनी आमी 'त्या' माणकुल्या विश्वांत गुल्ल जालीं. सात दिसांनी घरा येवन न्हाण घालून, पावडर थापून, पोटभर दूद पिवन जाल्या उपरांत दोन अडीज वरां तें सुस्त न्हिदता. परत कांय वेळान इल्ल्याशा पोटांत भूक चाळवतकच ल्हवू ल्हवू तें जागें जाता. आळखे पिळखे दीत घट्ट बांदिल्ली पचाणी सोडोवन, हात भायर काडून लुकलुकीत दोळे उक्ते करता थंय आसा; हुडक्यांनी रडपाक सुरू करता. बायक आवय ल्हव उबारून घेता. त्या मायेस्त आनी सुरक्षीत स्पर्शान बाय जागें जाता. म्हऱ्यान आवयचें मुखामळ दिसता तसो तोंडार मुमुरखो हांसो, भावपूर्ण दोळे आवय खातीर उत्सूक जाल्ले पळोवंक मेळटा. आपलें बोळकें दाखयत, पोल्यांक खळयो घालीत, ओंठ लागीं हाडून आवयची तें वाट पळयता. हेरां परस आवयच्या हातची खाशेली उब ताका जाणवता. तशी पोटच्या भुरग्या विशीं आवयची माया दाटून येता आनी आवय भुरग्याक आवेगान छातये कडेन ओडून घेता.

असो रसरशीत आनी जिवीत अणभव दर दिसा धुवे निमतान परतून आमकां अणभवंक मेळटा.हो अणभव श्रेया पुरतोच नासून पुराय घरच्यां खातीर वेगळो आसा.

अशेच आवय भुरग्याच्या आयुश्यांतले जायते देखावे आमकां सैमा भितर दिश्टी पडटात. इल्ल्याशा पिलांनी आपली चोंच उगडची आनी आवय सुकण्यान तांकां खावपाक भरोवचें. तर केन्ना माजरान अर्द मेल्लो हुंदीर हाडून आपल्या पिलां मुखार उडोवंचो. तर, केन्ना हजारांनी पेंग्विन सुकण्यांच्या भिन्यां मदल्यान पेंग्विन पिलान अचूक आपले आवयक सोदून काडप. खरेंच! सैमाचें हें अप्रूप आसा अशें मानून आमी सैमाची व्हडवीक गायतात. जमल्यार एखादी कविता, कथाय बरयतात. तर केन्ना ह्या मातृपदाची पुजाय करतात. मात सैम शास्त्रज्ञांक, सुकण्यांचें निरीक्षण करप्यांक सैमातंल्यो ह्यो घडणुको म्हणल्यार बिकट प्रस्न आसतात जावंक जाय. सान भुरगें आपले आवयक, आवयच्या 'त्या' स्पर्शाक कशें वळखतां? आवयचें आनी भुरग्याचें हें नातें कशें जुळून येता? हेवूय तितकेच म्हत्वाचे प्रस्न आसात. कारण मनशाचें आपल्या परिसरा कडेन जुळिल्लें पयलें वयलें नातें म्हणल्यार आपले आवय कडेन आयिल्लो संबंद. कोंबयां पिलांचें निरिक्षण करून पळयात. हीं पिलां आवय कोंबयेक वळखूंक लागतकच तिचे फाटोफाट चलूंक लागतात. तांचे हे आवय फाटल्यान चलपाचो विशेश अर्थ आसता. भोंवतणच्या उदक, चिखल, रेब्याक सोडून आवय आपणांक सुरक्षीत वातावरणांत व्हरता हें तांकां कळटा आनी त्याच भंरवशार तीं बिनधास्त भोंवतात. अशे तरेन आवय भुरग्याचो संबंद प्रस्थापीत जाता.

आवय भुरग्याचे हे संबंद कशे जुळटात आनी ते कशे सैमीक नियमांनी बांदिल्ले आसात, हाचो म नसशास्त्रीय अभ्यास केल्यार म्हाका दिसता मानव वंशा विशीं नव्यो जाणिवो निर्माण जावंक शकतात. आवय भुरग्याचे सबद घट्ट जावपाक जल्मा उपरांतचो काळ सामको म्हत्वाचो आसता. त्या काळांत सुकणीं, सावदां वा आमचे सारको मनीस भुरग्याच्या लागीं येता ताचे वरवीं भुरगें वा पील पुराय जगा कडेन संपर्क सादतां. हो 'क्रिटीकल' पिरीयड आमी सांबाळचो आसता. पूण प्रायज काल सिजरियनां वाडिल्ल्यान पयलो दीस, तशेच मुख्रा वयलो म्हयनो दूदा पुरतेंच भुरग्याक आवय कडेन दिवन मागीर चडसो वेळ भुरगें घरच्यां लोकां



कडेन, केन्ना आयां कडेन, वा मुखार वचून क्रेशा आसता.देखून आवय भुरग्याचो सहवास वाडूंव सरकारान मेटर्नटी लीव तीन म्हयन्या वयल्यान म्हयन्यांची केल्या. ते भायर भुरगें अठरा वर्सां जाय मेरेन दोन वर्सांची सी. सी. एल लागू केल्य ना जाल्यार काळजार फातर दवरून आवयक कामां वच्चों पडटा. हेंवूय एक क्रिटीकल शिच्युएशन आस

स म्हयन्याच्या ह्या काळांत भुरगें तोंडार मुमुरखो हांस फुलोवन कसो प्रतिसाद दिता, भोंवतणच्या परिसराच दखल कशी घेता,आवय भुरग्या लागीं कशी वागता ताची तानभूक वळखूंक शकता काय ना? हाका लागू हांव श्रेयाचेर कडक नदरून आसा. भुरग्या विशीं ोग आनी माया ही जरी सैमीक गजाल आसली त मुखार शाळेंत वचून आवयन भुरग्याचो मोग करपा जाय हें कोणें सांगपाची वेळ श्रेयाचेर येवची न्हय

आवय भुरग्या मदीं सुरक्षीततायेचें आनी संस्कारां बेस बरें इम्प्रिटिंग जावचें इतलेंच म्हाका दिसता. तुमकां दिसता आसतलें न्हय?

*शिवोले, मो. 94211928*

# संगीत नाटकः गोंयकारांलें योगदान



अतिता पासून नाटक हें एक मनरिजवणेचें माध्यम. तशेंच लोकांले जिणेंतलीं सूख-दुख्खां, आशा-आकांक्षा, कश्ट-कार्पण्य, जिणेचें मूल्य, विडंबना, हास्य-शोक इत्यादि वेगवेगळ्यो भावना व्यक्त करपी हें एक माध्यम आनी एक अद्भुत कला. नाटक हें त्या-त्या काळांतली जडण-घडण, रीत-नीत, नातें गोतें, आचरण, वागणूक, विचारसरणी सगळें प्रतिबिंबीत करपी हारसोय. नाटकांनीय समकालीन समाजीक आनी संस्कृतीक, जिवितांतल्या घडणुकांचें गभूमेर चित्रण केल्लें असून समाजीक बदल हाडचांत बी विशेश योगदान केलां म्हणयेत.

नाटक हें पळोवपी, आयकवपी आनी काळजाक सुख-सम ाधान दिवपी, चिंतन-मंथनाक वाट सुचोवपी जिवंत प्रक्रिया. गांवांत, शारांत गल्ली-गल्यांतल्या देवळांत, राजमहलांत, खंयचेय चौकांत परबां वेळार पौराणीक नाटकां बसवप, करप एक व्हड वावर आदले काळा पसून चलत आयिल्लो आसा. चड जावन संगीत नाटकां लोकप्रिय आशिल्लीं. संस्कृत, पाली, प्राकृत भाशेंत बरयलेले महान नाटककारांले त्या त्या प्रदेशीक भाशेंत अणकार जात्ताल्यो. तशेंय लोककथा वा लोकवेदांतले बी भरपूर नाटकां खेळची प्रथा आशिल्यो.



**सुषमा अरुर**

*लेखिका अणकाराच्या मळार वावुरता,ललित, भोंवडे वर्णन बरोवपांत रुची.*

गोंयकारांचे नाट्य प्रेमा लागून गोंय, 'नाट्यवेडा गोम ंतक' ह्या उतरान नामांकीत आसा. चड करून मराठी नाटकांची परंपरा हांगा व्हड आशिल्ली.1743 चे पयलीं म्हळ्यार विष्णुदास भावे हांचें पयलें, गोंयांत सण, परबीं उत्सवा निमतान, दशावरी नाटकांचे प्रयोग जात्ताले. डोंगरी गांवचे कृष्ण भट बांदकार, रामनवमी उत्सवा निमित्त संगीत प्रधान नाटकाचें लेखन आनी प्रयोग बी हांगा जात्तांले. राम नाथ दामोदर प्रासादीक नाटक मंडळी, श्री शांतादुर्गा प्रसाद कलांगूटकर गोवा संगीत मंडळ, गोवेकार स्त्री संगीत मंडळ', भावीण मंडळ, बांदिवडेकर संगीत मंडळ, शारदा संगीत मंडळ, प्रभा संगीत मंडळ, वळवीकर बंधूंची, ललित प्रभा संगीत मंडळ असल्यो वेगवेगळ्यो नाटक मंडळ त्या काळांत गोंयांत आसल्याचें कळन येता.

पूण,गोंयच्यो कलाकार मंडळीन उदरगती सुधारपाक व्हड प्रमाणार आपले गांव सोडन मुंबय शारांत वसणूक करचे पडलें. त्या कारणान नाटक कंपनिच्यो जो इतिहास सांगपाचें आसा, तें कोकण प्रदेशाचे आशिकुशीचे आनी मुंबय-पुणे वाठरांतले नाटक मंडळींत गोंयकारांले साधना आनी कर्तुत्वा विशी सांगप चड योग्य थारतलें.



पेशवे काळांत बालाजी बाजिराव/ नानासाहेब पेशवे, रघुनाथराव, दुसरो बाजिराव विलासी प्रवृत्तिचे आसून नाटक शाळा वा लावणीचे शौकीन आशिल्ले म्हण इतिहासांतुल्यान कळन येत्ता. अठराव्या शतकांतल्या मध्य काळांत मराठी लावणी आनी तमाशा म्हळिले नृत्य संगीताचे प्रकार चालीत आशिल्यो. तांत उत्तर हिंदुस्तानातले, ठुम्री, टप्पा असलें गायन प्रकार मराठी लावणींत मेळन गेल्लेले दिसून येत्ता. दादले प्रेक्षक, दरबारी बैठकेंत फार्स, गांणे, शृंगारीक लावण्यो, पोवाडो, कव्वाली, गज़ल, ठुम्री, नाच आनी नाटक अस्पावन आसतालीं. मुळात मुघल व मराठी फौजेचे मनरिजवणे खातीर वेगवेगळे प्रांता थावन नाच आनी संगितांत निपूण आशिल्यांक वेंचून हाडप

एकोणिसाव्या शतमानाचे मदल्या काळा पसून मुंबयचे वाणिज्य आनी आर्थिक मळांत खूब प्रगती जाल्ली. थंयचे नामनेस्त महाजनां पयकी भाऊ दाजी लाड, जगन्नाथ शंकर सेठ, जमशेदजी जिजीभाय, भाऊ रसूल आनी खूब गिरेस्त शिक्षीत आनी ललित कलेंत आवड आशिल्ली ही मंडळी मुंबयचे सांस्कृतीक विकास करच्यांत आतूर आशिल्ले. हांचे कृपेन म[illegible]का. संगीत कलेक वाव मेळटालो. विष्णुदास भावे हांणी खूब नाटक बसयलीं. अण्णासाहेब किर्लोस्कर नाटक मंडळी, आनी कितले तरी कलेचे केंद्र आशिल्यो. दुसरे राज्या सावन मुखेलतायेन गोंयासून आयिल्ले कलाकारांक संगीत नाटकांत, आनी खासगी बैठकी वा सार्वजनीक संगीत मेहफिलींत स्वताची कला आनी प्रतिभा दाखोवपाक मुंबय असलो शारांत खूब संद मेळची शक्यताय आशिल्ली. असल्यांक मुंबयींतले श्रीमंत वेपारी कलाभिमानी हांचो आश्रय आशिल्लोच. तशेंच नंतरचे काळांत सिनेमा (1913) आकाशवाणी (1930) जेन्ना मुंबयंत सुरु जाल्ले गोंयचे कलाकारांक आर्थिक स्वावलंबन आनी विशेष करन समाजांत स्थान –मान मेळपाक साध्य जाल्ले. त्या काळांत गावपी आनी मराठी नाटक मंडळींत व हिंदी सिनेम ांत काम करतल्यो धाडशी बायलो गोंय आनी ताचे अशी-कुशींतल्यान मुंबय वचून नाव कमयलें आसा. क्रिस्त शक 1800 –1820 त्या वेळाचे संगीत–नाटक मंडळींत गोंयच्यो कलावंतिण्यो स्त्री पात्र करताल्यो. ही एक ह्या काळाची विशेषताय आसा म्हणयेत.

1860 पसून थळावे नाटक मंडळीची सुरुवात जाल्लेली कळन येता. फौजी, कामगार लोक, शेतकरी लोकांक लावणी, तमाशा चड आवडू लागल्यो. विश्णुदास भावे

हांणी सांगली महाराजाले दरबारांत, पौराणीक नाटक खूब बसयलें. कोंकण पट्यांत प्रसिद्ध आशिल्ली पुणेकर हिंदु स्त्री नाटक मंडळी हांणी गोंय आनी आशिकुशीचे कलावंतिण्यांक संद दिली. मनोहर स्त्री संगीत मंडळी हांतूय गोंयची सुरंगा पर्वतीकर हिचें नांव नोंद आस्सा. गोंयांत बायलांले नाटक मंडळ्यो नियमीत चलताल्यो. गोंयच्यो कलाकार कलावंतीण कुटुंबांतुल्यान येत्ताल्यो. तांचे नैतीकता मजबूत आसून वागणूक बरें आस्सून बी मानेस्त अस्तूरींचो सिक्को तांचे नशिबांत केन्नाय मेळना जालें.

त्या काळांतले (1900) मराठी संगीत नाटक कंपनींत मुसलमान उस्तादांक आनी हिंदु पंडीतांक पगार दिवन कलावंतांक गायन शिकोवपाक दवरताले. ग्वालियर घराण्याचे बाळकृष्ण वजे बुवा देवदास्यांक शिकोवपाक गोंय येत्ताले. भुरग्यांक ल्हान आस्तनाच गायन शिकपाक पयस घेवन वचका पडटालें. मोगुबाय कुर्डीकर चार म्हयने वजे बुवा पसून शिकली. नंतर बाळू पर्वतकर हांचे 'चंद्रेश्वर भूतनाथ कंपनी'त वयाचे आट वर्सार 'प्रल्हाद, ' ध्रूव ' नाटकांत काम करपा लागली. तांची आई जयश्रीबाय बी नाटकांत काम करताली.

सातारकर नाटक मंडळीची 1910त स्थापणूक जाल्ली, हे मडळींत केवळ अस्तूरीं आशिल्यो आनी थंय दादल्यांले पात्र बी बायलोच करताल्यो. चिंतोबा गुरव स्वतः गायक आसून कलाकारांक लक्ष दिवन शिकयताले. रामलाल, चुन्नीलाल, आनी मजलेखान म्हळिले प्रवीण नाच शिकोवपाक आशिल्ले. रामराज्य वियोग, विवेक, पुण्यप्रभाव हीं नाटकां खूब गाजलीं. ह्या सगळ्या नाटकांत ल्हान मोगुबायन काम सुंदर केलें, गायन बी सुरेख गायलें आनी नाटक मंडळी बरी गाजली. अण्णासाहेब किर्लोस्कर हांचें सौभद्र ह्या नाटकांत सुभद्रेची भूमिका मोगुन खूब सुंदर तरेन करन लोकांलें मन जिंकलें.

चित्ताकर्षक नाटक मंडळीं–

दुर्गाबाय कामत–(1899–1998)– दुर्गाबाय कामत ही बारदेश तालूकांतल्या अस्सनोडा गांवची. तिच्यांत कला भरभरून आशिल्ली. ती चित्रकलेंत, गायनांत आनी दिलरूबा, बीन, करताल, सितार असल्यो कितल्यो तरी वादन वाजवचांत कुशळ आशिल्ली म्हण कळटा. पूण केदनाय भायर वचून सार्वजनीक सादरिकरण करची तिका संद मेळ्ळीना. त्या काळांतल्या दुसऱ्या बायलांची तुलना केल्यार दुर्गाबाय सातवी मेरेन शिकिल्ली. तिगेली धूव कमला बायेक आवयन संगीत आनी नांचांत प्रशिक्षण दिल्लेलें. ती मुखार सक्षम कलाकार म्हण प्रसिद्ध जाल्ली.

तो काळ समाज परिवर्तनाचो आशिल्लो. इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ले समाज सुधारकांन राजकीय वलयांत सुधारणा हाडपाक स्वराज्याची मागणी, तशेंच लोकांत सामाजीक व राजकीय समज हाडपाक विंगविंगड विशयांचेर नाटक बरोवन सादरीकरण करची जबाबदारी घेतिल्ली. त्या वेळाक अनेक थळावें, वेगवेगळे भासेच्यो नाटक मंडळी झपाट्यान उदभवल्यो.

फोंड्यां तालुक्यांतल्या बांदोडें गांवच्या केळकर घराण्याच्यान हिंदुस्तानी संगिताक दिलेलें योगदान व्हड आसा. ज्योत्स्नाबाय ,गिरिजाताई केळकर आनी केशरबाय बांदोडकर ह्यो सगळ्यो हिंदुस्तानी संगीत वलयांत आनी अभिनयांत बी प्रसिद्ध आशिल्यो. केळकर हांचें कुटुंब मुखार मुंबय येवन रावलें. अभिनय आनी संगीतक्षेत्रांत ज्योत्स्नाबाय भोळे हिका खूब प्रसिद्धी मेळ्ळी.

ललितकलादर्श नाटक कंपनी, महाराष्ट्र नाटक मंडळ असल्यांत बायल नट्यांक , आनी गावप्यांक खूब संद मेळटाली. पूण खूबदां नट्यांक अभिनय कमी,आनी गायन बरें म्हणतले मेळताल्यो. त्या निमतान एक–दोन वरसांत त्यो कंपनी बंद पडताल्यो.

1933 त नाट्यमनवंतर ही एक बौद्धीक अशें नाटक कंपनी त्या काळांतले विश्वविद्यालयांत शिकतले विद्यार्थ्यानि सुरु केल्ली. केशवराव वामन भोळे असले मंडळीन इंग्लीश भाशेंतल्यान अणकारीत कितले तरी नाटकां उजवाडाक हाडलीं. पद्माबाय वर्तक, हिराबाय आनी पद्मा शालीग्राम सारके बायलांन काम केल्ले आसा. नाटक आनी संगितांत आवड आशिल्यो अनेक मध्यम वर्गीय बायलांक वयर सांगिल्ले कलाकारांगलें कामगिरी पळोवन धीटपणान नाटकांत काम करपाक उर्बा मेळ्ळी हाचे खूब पुरावे आसात.

समाजाचें बंधन मोडून, घरंदाज बायलान भायर पडन, काम करपाचें ना म्हळिलो मोन्नो कायद्या विरोधांत वचून, आपणाले शिस्त, संयम, सदाचार वागणूकीन कलेचे उपासना करन, मुखार तेच समाजाचे मान्यताय व आदर मेळयिल्ली ही घडणूक स्वातंत्र्य लड्या इतलीच व्हड आसा.

अशें त्या काळांतल्यो कित्येक तरी बायल कलाकार नाटकां ,सिनेमा वा नृत्य कलेच्या सुवर्ण युगाच्यो भागिदार जाल्यो. हांगेली देख घेवन मुखा वयली पिळगी बी प्रेरीत जाली..

---

*दोनापावला, 9740399995*

# कवयत्री, लेखिका, अनुवादक, मार्गदर्शक
# ग्वादालूप डायस

**वावराचो जागो :** गोंय राज्य प्रदूशण नियंत्रण मंडळ. उलोवंक/वाचूंक/बरोवंक कळपी भासो: कोंकणी, इंग्लीश, हिन्दी, मराठी.

कविता/चारोळी/निबंद/बालसाहित्य/विनोदी पुस्तकां-

भूंयफोड (2006), मळबगंगा (2007), जलस्थल (2009) मामाचो गांव (2010), ज्वालामुखी (रोमी) (2011), ज्वालामुखी (नागरी) (2014), ना-तें (2014), आसोर (2018), हांसल्यार जाता?! (2019),पानगळ (2022). वावझड (2022).

## मान-सन्मान आनी पुरस्कार:

- 'ते दीस' कविता - All India National Symposium of Poetry, (2009)
- वेंचणूक आयोग, ईंडीया नेमणूक , 'State Icon for Youth (2017)
- तुन्शान फेस्टीवल प्रतिनिधीत्व, तिरूर (2015)
- गोवा आर्ट एन्ड लिटररी फेस्टीवल प्रतिनिधीत्व, गोंय (2015)
- लिटररी फेस्टीवल प्रतिनिधीत्व, जयपूर (2020)
- गोवा कोंकणी अकादेमी पुरस्कार- भूंयफोड (2006)
- कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार - मळबगंगा (2007)
- अखिल भारतीय काव्य सेवा पुरस्कार, नई दिल्ली- जलस्थल (2009)
- कला साहित्य केंद्र बाल साहित्य पुरस्कार, कुडचडें - मामाचो गांव (2013)
- युवा साहित्य पुरस्कार, युवा सम्मेलन - (2013)
- गोवा कोंकणी अकादेमी पुरस्कार - ज्वालामुखी (2014)
- युवा सृजन पुरस्कार, कला आनी संस्कृती खातें, गोंय - (2014)
- गुलाब पुरसकार - (2014)
- थोमास स्टीफन्स कोंकणी केंद्र 'व्हालेरियन ग्रासीयस पुरस्कार - (2019)
- कविता ट्रस्ट मेंगलोर,'माथायस कुटूंब कविता पुरस्कार- (2019)
- शणै गोंयबाब पुरस्कार, वावराड्यांचो इश्ट, पिलार संस्था - (2022)
- संस्कृताय मंत्रालय राष्ट्रीय निवड समिती (टॅगोर फेलोशिप) - (2022)

## लिप्यांतर केल्लीं पुस्तकां:

- एकलो-एकसुरो (चंद्रकांत केणी)
- आंबट-तीख (पियो एस्टीव्स) आशिर्वाद (वितोरीनो पेरेरा)

साहित्य प्रसिद्द जाल्लीं/जावपी मासिकां, दिसाळीं, नेमाळीं:

दर म्हयन्याची रोटी, जाग, बिम्ब, सुनापरान्त, भांगरभूंय, अनन्य, गुलाब, दी गोअन रिव्हीव, कोंकण टायम्स, आमचो आवाज, नुवेंचो परमळ, नखेत्र, उमाळे, जिवीत, वावराड्यांचो इश्ट

## कोंकणीं चलचित्रानीं योगदान:

- 'ओ मारीया' फिल्मांत शेरनाज पाटील हांका कोंकणी संवाद शिकोवपाचो वावर
- निर्मण' (remake) फिल्मां खातीर गीत रचना
- Enemy Property फिल्म पटकथा रोमी लिप्यांतर



**श्रद्धा गरड**

*लेखिका केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवयित्री. बालसाहित्य आनी ललित लेखनय करतात*

**श्रध्दा –** ग्वादालूपबाय तुमकां जेन्ना जेन्ना पळयतां तेन्ना तुमी कविता रचपा वांगडाच कविता जियेतात म्हणपाची जाणविकाय जाता. तुमी कविता रचनेच्या मोगांत केन्ना आनी कशीं पडलीं ह्या प्रस्नान आमी मुलाखतीक आरंभ करुंया?

**ग्वादालूप–** जाता. म्हाकाय तेंच जाय. हांव यादी पुंजायतां आनी लोक म्हाका कवी म्हणटात ! हांव पावस–पिशें. म्हज्या जल्माची काणी आनी पावसाचें पाणी! दोनूय गजाली एक समान! एक मळबांतल्यान देंवता, दुसरी दोळ्यांतल्यान व्हांवता.

म्हजे आज्जेन सांगिल्ले प्रमाण म्हजो जल्म 1972 वर्सांक, जुनाचे 6 तारखेर कुठ्ठाळे–केळशे जालो. जालो म्हणचे परस निसर्गाचो नेम मोडून सव्या म्हयन्यांतूच हांवें ह्या जगांत प्रवेस केलो.

तशें पळोवंक गेल्यार 1972 वर्सांत वैजुकी शास्त्र आयचे वरीं सुधारिल्लें तरी खंय आसलें? इनक्युबेटर सारकेल्या यंत्रणाचें बळूय घडये नासलें. 'हें भुरगें वांचचें ना. वांचलें जाल्यारूय तें मंद बुद्दीचें म्हळ्यारूच पिशें जातलें.' अशें त्या काळा वयले अणभवी दोतोर पी. एल. कामत हांकां



दिसलें. तांणी तशें म्हज्या घरच्यांक सांगून तांचें काळीज लासलें. एक तर चली...! तांतूंत भर म्हूण माजरा पिल्या येदी आकृती. हें कितें कमी म्हूण वांचलें जाल्यारूय ह्या माजरा पिल्याची मंद मती!

दोतोराचीं उतरां आयकून कांय जाणांचें तोंड पडलें. जाल्यार 'भायर उडयात हो माजराचो पिलो' अशेंय उतर कानार पडलें! कोणांचेर विस्वास दवरप? दोतोर काय देव? ह्या विशीं घरच्यांची दुविधा वाडली. म्हज्या वांचण्यां विशीं सगळ्यांनी उमेद सोडली.

पूण म्हजे आज्ञेन दोतोराचें आयकूंक ना. ना म्हूण सगळें कितें देवाच्या हातांत घालून ती ओगी रावूंक ना. तिणें म्हज्या बंद पडिल्ल्या काळजाचेर विस्वास दवरलो. म्हाका नवो स्वास भरलो. दोतोराच्या सांगण्यान आनी घरच्यांच्या उलवण्यान काळजाची धडधड बंद पडप.... आज्ञेच्या विस्वासान ती परत चालू जावप! हांचे मदलो खीण म्हळ्यार म्हजी पयली-वयली कविता मानतां! ती हांवें केन्नाच बरोवंक ना. ह्या फुडेंय बरोवंक जमचें ना.

**श्रध्दा-** म्हळ्यार जल्मताच जियेवपाचो संघर्श सुरू जालो तर! संघर्श मनशाक घडयता काय सोंपयता?

**ग्वादालूप-** तूं म्हणटा तशें म्हजो जल्मूच एक संघर्श अशें हांव मानतां. खरें म्हळ्यार म्हजे विशीं जें कितें दोतोरान सांगिल्लें तें अर्दें फट आनी अर्दें सत थारलें. हांव वांचलें. पूण खरेंच पिशें जालें. आनी...पिशांक जेन्ना मोग जाता तांकां कवी म्हणटात! हाचो पुरावो म्हणल्यार हांव! म्हजे भितर बाय डिफॉल्ट कवी लिपून आशिल्लो हें हांव न्हयकारूंक शकना. कारण शाळेच्या बांकार बसून कविता शिकतालें तेन्ना पुराय निसर्गांत कविता आसा अशें म्हाका दिसतालें. उदकाच्या खळखळाटांत, पानांच्या सळसळाटांत कविता! पावसाच्या थेंब्यांत, दंवाच्या ओथेंब्यांत कविता! इतलें आसुनय ती बरोवंची अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना आनी दिशिल्लें जाल्यारूय ती कशी बरोवची हें म्हाका मुळांत कळ्ळें ना. जायत घडये तेन्ना मेरेन म्हजी जीण सुखाच्या पाळण्यांत धोलताली. धास्ती विणें चलताली. म्हज्या सुखाक थाव नाशिल्लो. काळजार कसलोच घाव नाशिल्लो!

मात पिरायेच्या चौदाव्या वर्सांत सुखाच्या ल्हारां वांगडा दुखाच्यो शिंपयो आयल्यो. म्हज्या सुखाच्यो चावयो घेवन गेल्यो. हय! कोणें तरी निश्टूरपणान म्हज्या बापायचो खून केलो. तांच्या मरणांचो 'इल्जाम' विनाकारण आमच्या माथ्यार दिलो. रिती-रिवाजा अनुसार शाळेच्या गणभेसा जाग्यार म्हज्या आंगार काळो विस्तीद चडयलो. 'किम दोराची धूव!' अश्या उतरांचो समाजान म्हजेर दुखाचो पावस झडयलो. अश्या वेळार, म्हज्या शब्दकोशांतलो विस्वास शब्द पुसून गेलो! जसो कितें नियतीन म्हज्या ओठांवेलो हांसोच चोरून व्हेलो!

आर्थीक परिस्थिती वायट जाली. खूब भुरगेपणार नियतीन म्हज्या भुजांक पेलना तितली व्हड जबाबदारी दिली. एकदम राजकुमारी कशी वाडयल्लें भुरगें हांव पूण बापायचो खून जाल्या उप्रांत म्हजी आनी म्हज्या दोग भावांची दशा झोपडपट्टेंतल्या भुरग्यां परस पाश्ट जाली. बापाय फाटल्यान येणावळ येवपाचें साधन बंद जालें. सुदैवान त्याच काळांत सरकारान प्रौढ शिक्षण मोहीम





सुरू केली. थंय आमच्या वाड्यार प्रौढांक शिकोवपाची जबाबदारी म्हाका दिली. कॉलेजींतल्यान आयल्या उप्रांत साडे –स वरांच्या अदमासाक म्हज्या वांगडचीं भुरगीं रेडीओचीं बँडां घुंवडायतालीं आनी हांव......पेट्रोमासाची वात पेटोवंक खरशेतालें. पेटिल्लो पेत्रोमास घेवन सुमार एका किलोमेत्राची वाट चलून हांव सरकारी शाळे मेरेन वतालें. 'दिपावपाक वता गो?' अशे तवनास तरणाट्यांचे थोमणे कानार बसताले. 'किरमीदोराची चली!' अशेय उतरांचे भाले काळजाक सतत तोंपताले. मात म्हाका पर्वा नासली. कारण सुमार 35 जाणांचो जमो म्हज्या येण्याचेर पातयेवन रावतालो. तांकां चीट वाचूंक–आनी बरोवंक शिकयतना कांय खीण म्हज्या सुखाक जीव भरतालो!

संघर्ष चालूच आसलो! म्हज्या बापायच्या खुनां विशीं दिसाळ्यानीं जाय तशें मीठ–मसालो लावन छापून येवप! काल पसून इश्ट–मित्रां आशिल्लीं तांणी म्हाका दुस्मान कशें लेखप! भितरले भितर एक पोकळी निर्माण जाल्ली. कोण म्हजो, कोण परकी हें जाणून घेवपाची हांवें आतां मेरेन सगळी कसरत सोडून दिल्ली. तेन्ना हांव फक्त पुस्तकांक शरण गेलें. एनीड ब्ल्याटन, दी फेमस फाईव. हार्डी बोय्स सारकेलीं पुस्तकां वाचपी हांव आतां कितें तरी म्हजे डायरेंत बरोवंक लागलें. एक दीस ही डायरी (जी म्हज्या मामान म्हाका दिल्ली) म्हाका इंग्लीश शिकोवपी टिचरीचे हाताक लागली. हांवें जें कितें ते डायरेंत बरयलां ती कविता म्हणपाचें तिणें सांगलें!





आमच्या मोडिल्ल्या घराब्या कडेन पळोवपाची लोकांची नदर बदलता म्हळ्यार दोळ्यांतल्यान खूब दुकां व्हांवलीं. तेन्ना म्हजी भावना कविते रुपान कागदार देंवली. म्हाका कवितेचो मोग जालो. म्हज्या संघर्शाक कवितेन आदार दिलो!

हय! संघर्शान म्हाका घडयलें. जशें कितें फुलानी भरिल्लें पारदिकाचें झाड म्हज्या पोशांत झडयलें. ह्याच खातीर संघर्ष म्हणल्यार जिविताची खुणां अशें हांव मानतां. साहित्यीक मळार आयज मेरेन जें कितें मेळयलां ताची वळख घडयतना, ताचें सगळें श्रेय जिणेंत आयिल्ल्या संघर्शाक दितां.

**श्रध्दा–** कुणबी समाजांतल्या अस्तुऱ्यांक मेळून,लोक काणयांचें संकलन तुमी करतात. लोक काणयांचें म्हत्व कितें? ह्या संदर्भांत तुमचो प्रवास कसो कितें सुरू जालो ?

ग्वादालूप– जिणेचीं भोव थोडीं वर्सां बापायचो सांगात म्हाका आनी म्हज्या भावांक फावो जालो. तरी [illegible]ना, ह्या इल्ल्याशा काळांत ताणें आमकां लोक काणयां वरी जिणेंचो मंत्र दिलो. म्हाका याद जाता, बापूय [illegible]नो तेन्ना आमची दर सकाळ प्रार्थनेंतल्यान सुरू [illegible]ताली आनी ताणें सांगिल्ले काणयेंतल्यान सोंपताली. [illegible]ची काणी, सोरपाची काणी, कोल्याची काणी, पवित्र [illegible]कानली काणी! ताचे कडेन ह्या काणयाचें व्हडलें [illegible] आसलें. नोकरे निमतान ताणें जेन्ना साऊदिया [illegible] रस्तो धरलो तेन्ना आपले भयणीन आमकां [illegible] [illegible]यो अशें ताका दिसलें

ताची भयण म्हणल्यारूच आमचें आतें लग्न करून बोगमळे–वास्को दिल्लें. म्हज्या बापायचें उतर पाळून दर शेनवाराक आमगेर (केळशे) येवपाचें ताणें मिसांव धरलें. तें येतकच आमकां वेगळीच उमेद जाताली. दोळ्यांचे पातकडयेक पुरो जायसर ताच्या काणयांक सांगात दितालीं. तें काणी सांगतना एकदम तल्लीन जातालें. आमकां एका वेगळ्याच विश्वांत व्हरतालें!



ताणें सांगिल्ली राखेसाची काणी आयकून, भंयान पोटांत गुळो येतालो. लांब केंसांचो, व्हडल्या दांतांचो, तांबड्या गूंज दोळ्यांचो राखेस जनेला भायर रावून आपलीच काणी आयकता असो भास जातालो. ह्या काणयांतल्यान जिणे विशीं खूब कितें कळ्ळें. जशें कितें जीण जगपाचें साधन आमकां मेळ्ळें. अशेंच एक दीस, बसून फाटल्यो यादी नियाळटना एक प्रस्न उबो जालो, 'तूं तुका बरोवपी म्हणटा? कित्याक? फकत बरोवंक जमता म्हूण? जाल्यार तुज्या त्या आत्याचें कितें? तुजे परस ताची काणी गिरेस्त आसली. ती बरोवन काडूंक तूं कित्याक यत्न करिना?' हांव अस्वस्थ जालें. म्हजे कडेन आदींच आशिल्ल्या लोक काणयांचीं पुस्तकां हांवें परत वाचलीं आनी म्हाका एक समजलें, बऱ्याच लेखकांनी लोक काणयांचें संकलन केलां. पूण क्रिस्ती समाजांत घोळपी वो हांवें भुरगेपणार आयकल्ल्या काणयांचो हांतूंत उल्लेख ना. ना म्हूण त्या सगळ्या काणयांची याद म्हाकाय ना. तर कित्याक हांवें हो वावर हातांत धरचो न्ही? कित्याक ह्यो लोक काणयो, काणी सांगप्याच्याच नांवान बरोवन काडच्यो न्ही?'

अशें करतलें जाल्यार सुरवात एकदम मुळाक थावन म्हळ्यार गोंयचे भुंयेर जांचो सगळ्यां पयलीं अधिकार आसा त्या आदिवासीं कडल्यान जावंक जाय हाची जाणीव जाली. त्या निमतान ह्यो काणयो सांगप्यांच्या घरा मेरेन म्हजी वाट आपसूक तयार जाली. तांचे कडल्यान म्हाका बरो येवकार मेळ्ळो. आपली काणी छापून येवपाचो तांचो उमाळोय म्हाका कळ्ळो! हांवें एकठांय केल्ल्यो काणयों छापून हाडूंक गुलाब मासिकाचे संपादपी फाऊस्तोबाब डा कोस्टा हांणी भार उखल्लो. म्हज्या वावराक चंवर फुल्लो!






**श्रध्दा** – तुमी एक कवयित्री. लोक काणयांचें संकलन करतना त्या अस्तुरेंत तुमकां सृजनशील रचनाकार दिसली ?

**ग्वादालूप** – अस्तुरी! सर्व रचणेची तेंगशी! अस्तुरी म्हळ्यार एक उत्सव! अस्तुरी ही सृजनशिलतायेचें भांडार! ज्या अस्तुऱ्यांनी म्हाका काणयो सांगल्यो तांचे भितर सृजनशिलतायेचो दर्या म्हाका सांपडलो. लोक काणयांक संवसाराचें रूप बदलपाची तांक आसा म्हणपाचो म्हजो विस्वास वाडलो! काणी सांगपाची तांची शैली, तांचे हावभाव, तांची शब्दावळ पळोवन हांव भारावन गेलें. दर एक काणी आयकतना एक वेगळोच अणभव घेवन घरा आयलें!

**श्रध्दा**– लिपयांतर म्हणजे कितें? लिपयांतर करतना आव्हानां आसतात? लिपयांतर करपाक इत्सूक नवोदितांक मार्गदर्शन दिवशात ?

**ग्वादालूप**– आमच्या गोंयांत कोंकणी भास दोन लिपयांनी बरयतात. एक रोमी लिपी आनी दुसरी नागरी! दोनूय लिपयो आप–आपले पातळेचेर खूब गिरेस्त आसात मात काय फावटी ह्या दोनूय लिपयांचें भान नाशिल्ल्या आमच्या वाचप्यां खातीर लिपयांतर करपाची गरज लागता. म्हणटकच एके लिपयेंत बरयल्लें दुसरे लिपयेंत हाडप म्हणल्यारूच लिपयांतर करप अशें म्हणूं येता!

तशें पळोवंक गेल्यार लिपयांतर करतना आव्हांना आसात हाची जाप दितना इतलेंच म्हणचें पडटा, लिपयांतर म्हणल्यारूच आव्हान! लिपयांतर करतना सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार लिपयांचें गिन्यान आसप! कारण जायते फावट नागरी आनी रोमी लिपयेंत घोळपी शब्दावळ कांय कडेन खूब वेगळी उरता. तशेंच उच्चार आनी व्याकरण लेगीत एक समान नासता. म्हणटकच लिपयांतर करतना बऱ्याच प्रमाणांत ह्या गजालींचेर भर दिवंचो पडटा.

**श्रध्दा**– खंयचेय कवितेक चाल लावन ताका संगीत दिल्यार तें गीत जाता? तुमच्या अणभवान आनी निरिक्षणान गीत कशें आसचें?

**ग्वादालूप** – हें पळय...हांवें कांय गितां बरयल्यांत. तीं सादर जाल्यांत. तरी पूण हांव गितकार न्हय. तेच बाराबर म्हज्या कांय कवितांक चाल लावन तीं गायल्यांत. आतां सगळ्या कवितांक चाल लावन गीत करूंक येता जाल्यार म्हाका खबर ना. कारण हांव




फकत कानसेन! तेन्ना तानसेना विशीं उलोवपाचो अधिकार म्हाका ना. पूण हय! खंयचेंय गीत काळजाक आफुडचें. तें सासणांक आयकुप्यांच्या ओंठार उरचें!

**श्रध्दा –** बालसाहित्य रचनेचो तुमचो प्रवास कसो सुरू जालो?

**ग्वादालूप –** पिराय कितलीय वाडली तरी म्हजे भितर एक भुरगें जियेता म्हणपाचें हांव स्विकारतां. अशें आसलें तरी म्हाका भुरगेपणां केल्यार कोणूच स्विकारचो ना. अशे वेळार म्हज्या भुरग्यां वरवीं परत एक पावट हांव म्हजें भुरगेपण जगलें तेन्ना तेन्ना म्हज्या बालसाहित्य रचनेचो प्रवास सुरू जालो.

**श्रध्दा –** बरी कविता रचपाक नवोदितांक तुमचो संदेश?

**ग्वादालूप –** आयज कितलेशेच नवे चेरे आपल्या नांवां सामकार कवी हें बिरुद जोडून घेवपाक खर्शेतात. तांची आशा बरी आसा. पूण दिशा आनी दशा हे विशीं काळूच गवाय दितलो! कारण खंयचीय कविता बरी वो वायट हें वाचपी थारायतात. म्हणटकच कविता केन्नाच मुद्दाम जावन ओडून-ताणून बरोवपाचो यत्न करचो न्हय. अशी बळजबरेन कागदार देंवयल्ली कविता वाचप्यांच्या काळजांत देंवना. तांचेर कसलोच प्रभाव करिना. बरी कविता, आपूण जावन कविच्या सोदांत आसता. कवीन सोदिल्ली कविता न्हय बगर, कवीक सोदीत आयिल्ली कविता ही 'बरी कविता' म्हूण शाब्बासकी घेवंक यशस्वी थारता!

**श्रध्दा –** म्हाविद्यालयांत शिकपी विद्यार्थी, प्रकल्पाच्या निमतान तुमचे भेटेक येतात. तांचो प्रकल्प बरो जावपाक तांकां सुचोवणी दिवशात?

**ग्वादालूप –** म्हाविद्यालयांत शिकपी विद्यार्थी, प्रकल्पाच्या निमतान भेटेक येतात! तेन्ना खूब बरें दिसता. पूण तांकां खऱ्यानीच कवी ह्या नात्यान म्हजे विशीं जाणून घेवपाचें आसता? काय फकत आपल्या प्रकल्पाक गूण मेळचे होच तांचो हेतू आसता? हें कळपाक वेळ लागना. देखीक कशें सांगचें जाल्यार, सुमार दोन वर्सां आदीं एका म्हाविद्यालयांत शिकपी विद्यार्थी आपल्या पुराय कुटूंबा सयत आमगेर आयलीं. आपले धुवे विशीं आशिल्ली लागणूक पळोवन त्या पालकांची आनी तिच्या भावांची म्हाका खूब अपूरबाय दिसली. तिणें म्हाका प्रस्न विचारपाक सुरवात केली. तिचो पयलो प्रस्न आशिल्लो – 'तुजें नांव कितें?' ताणें झेतान विचारलें.

'तुम्हारा नाम क्या है बसंती? असल्यांतली गजाल मुगो बाय!' हांवें तिका हांसत सांगलें.

'तूं खंय शिकयता?' तिचो फुडलो प्रस्न आसलो.

'हांव शिकयतां म्हणपाचें तुका कोण सांगता?' अशें विचारपा परस म्हजे कडेन दुसरो पर्याय नासलो.



म्हणटकच, ज्या मनशा कडेन आपलो प्रकल्प करपाक म्हायती घेवंक वतात तेन्ना थोडें तरी भान दवरूंक जाय. आपूण फकत परिक्षे पुरतें न्हय बगर जिणें खातीर शिकतां म्हणपाचें जाणून घेवंक जाय!

**श्रध्दा –** सृजनशील कविता रचप आनी लोक काणयांचें संकलन करप, हाचे भायर तुमकां सृजनशील आनीक कितें करपाक आवडटा?

**ग्वादालूप –** म्हाका मनीसपणान भरिल्लें मनीस म्हूण जगपाक आवडटा!

**श्रध्दा –** जिवीत जगतना वेळ म्हत्वाचो आसा?

**ग्वादालूप –** तुजे बाराबर सारिल्ले खीण
तांतूंत जगलें हांव पुराय जीण
आतां...
मरणाचो भंय ना!

तशें पळोवंक गेल्यार जीण आनी मरण, इतलीच आम ची जीण! पूण जिवितांत कितलीं वर्सां हें म्हत्वाचें न्हय , बगर ह्या वर्सानी कितलें जिवीत भरलां हाचेर चड भर दिवंक विसरचें न्हय!

**श्रध्दा –** देवाचेर तुमचो भावार्थ आसा ?

**ग्वादालूप –** हय तर!

**श्रध्दा –** तुमचे जिणेच्या अणभवी प्रवासांतल्यान, जिवीत म्हणजे कितें आनी तें कशें जगप?

ग्वादालूप– एक दीस आपूण मरतलों म्हणटकच मेल्या उप्रांतूय अमर उरपा सारकें जगप अशें हांव मानतां. होच विचार मनांत घोळयत हांव जगतां!

श्रध्दा– दर एक अस्तुरी परमेश्वराची रचना आसा. तुमच्या अणभवांतल्यान आमकां सांगात, अस्तुरेन स्वताक पयलीं रेस्पेद दिवन,देवान तिका दिल्ली कला आनी कुशळटायेची उदरगत करप कित्याक गरजेचें?

**ग्वादालूप –** क्रिस्ती धर्म शिकयता, देवान अस्तुरेक रचतना, दादल्याच्या हड्ड्या–कुशीचें एक हाड घेतलें आनी अस्तुरेक रचली! हे विशीं जाणकार सांगतात त्या प्रमाण देवान फकत दादल्याच्या हड्ड्या कुशीचें हाड कित्याक घेतलें हाका खूब म्हत्व आसा. ते म्हणटात, जर देवान दादल्याचे तकलेचें हाड काडिल्लें जाल्यार ती घडये ताच्या माथ्यार बसतली आसली. जर सम ना पांयांचें हाड घेतिल्लें जाल्यार दादलो तिचें स्थान पायां पोंदाक दवरतलो आसलो. म्हणटकच ज्या मान मानानें देवान अस्तुरेक घडयल्या त्याच मानान तिणें स्वता कडेन पळोवपाची गरज आसा!



**श्रध्दा –** मुलाखत सोंपयतना, तुमचे कवितेंतल्यान वाचकांक संदेश दियात.

**ग्वादालूप –** म्हज्यो सगल्योच कविता संदेश दितात काय कितें म्हाका खबर ना आनी कविता ह्यो संदेशा पासत नासतात तर जीण जगपा पासत आसता म्हणपाचें म्हजे गद्य मुलाखतींतल्यान जाणवलां जातलें. तरी संदेशा पासत न्हय तर एक कवी म्हूण म्हाका पद्यांत कांय गजाली सांगन दिसतात तातूंत कोणाक जर कितें संदेश मेळ्ळो जाल्यार तांणी मुजरत घेवंचो...

1

खूब जालें मरप हांगा आतां थोडें जियेवून पळयतां
समाजाची कसली बिशाद दोळ्यानींच पिवून पळयतां

कोडू लागता देखून सदांच ना चाबतां गिळ्ळें हांवें
स्वादाचें मारलें झक दूख म्हजें हांव चिंवून पळयतां

भर पावसात लेगीत काळजाक हांवें घातल्यो शिमो
आयज सोडून सगळें भान इल्लें हांव व्हांवून पळयतां

हेरां खातीर सदांच रोयलां थंय फुलत रावलें हांव
सुर्या फुला सारकें हांव संवसार घुंवून पळयतां

2

हांवें म्हजो एक संवसार रचला
जंय  हांव आनी म्हजी कविता
दोगांय एकवटान रावतात...

म्हज्या दुखांत ती भिजता
म्हज्या सुखांत ती सजता
हांव निर्शेल्यार तिचो हात
म्हज्या केंसानीं भोंवता

रेवंट जाल्ल्या काळजांत
ती न्हंय जावन व्हांवता
म्हाका मुक्काम जोडूंक
ती आपूण  नेटान धांवता

ती म्हजे घावे पेखयता
ती म्हज्यो चुकी लिपयता
सगळीं सोडून वतात तेन्ना
जगचें कशें तीच दाखयता

म्हजी कविता....
केन्नाय म्हाका समजायता
केन्नाय आपूण समजता....

3

म्हजी कविता...

मळबांतल्यान देंवल्यार पावस
दोळ्यांतल्यान व्हांवल्यार दुकां

ओंठार उदेल्यार हांसो
शिंपयेंत दाटल्यार थिकां

शब्दाक जोडल्यार अर्थ
मुठींत धरल्यार खीण

वाऱ्यार सोडल्यार कापूस
दुखांत पिरंगल्यार शीण

मायेन वेंगयल्यार नातें
वोताक धगतल्याक सावळी

हड्ड्यांत धापेल्यार काळीज
पाख्यार व्हांवल्यार पांवळी

सुयेक गुंथल्यार धागो
न्हिदेंत पळयल्यार सपन
उदार घेतल्यार रीण
तिजोरेंत सांबाळ्यार धन

पुनवे रातीचें चान्नें
सुरानी सजयल्यार गीत

उमाशेची काळी जोरगत
जगून पळयल्यार जिवीत

***फातोर्डा, मो. 8669495781***



**गोदावरीदेवी केजरीवाल पुरस्कार (२००७)**

**रॉक बार्रेत साहित्य पुरस्कार-(२०१३)**

**बिम्ब पुरस्कार (२०१४)**

आनी हेर साबार पुरस्कारांनी सन्मानीत जाल्ल्या

# हर्षा सद्गुरू शेटये

हांच्या सिध्दहस्त लेखणेंतल्यान

तयार जाल्लें *एक आशिल्लें बायूल*

सगल्या पुस्तक दुकानार उपलब्ध

मुजरत वाचात.




*तांची उजवाडाक आयिल्लीं हेर पुस्तकां...*









**म्हजी माती म्हजें मळब** (काव्य संग्रह)

**कथारंग** (कथा संग्रह)

**मोतयांची माळ** (ललित निबंध)

**आनंदयात्रा** (प्रवासवर्णन)

**चंपू इन रांदचीकूड** (बालकथा)

**चला,भारत भोंवया** (बालसाहित्य)

**बोमाडे** (बालसाहित्य)

**जगमग** (बालसाहित्य)

**गोंयचीं सवणीं** (सवण्यांची वळख)

**मो.९८२२१३६८८५ | ई मेल-bimbkonkani@yahoo.co.in**

# जीव वगडावची पाळी येवंक कित्याक दिवंची?

मनीस आतां मनीस उरूंक ना आपले ध्येय पुराय करपा खातीर तो एका यंत्रा प्रमाणे घुंवत आसता. तो धडपडी कितें ना कितें करीत आसता. चलतना, भोंवतना, जेवतना-खातना, वाहन चलयतना लेगीत तो आपलेच तंद्रेंत आशिल्लो पळोवंक मेळटा. कसले ना कसले विचार ताचे तकलेंत घुंवत आसतात. एखाद्या वेळार मनीस चलपाचो थांबत पूण ताचें विचार चक्र मात केन्ना थांबना, तें घुंवत आसता. आयज मनशाचे तकलेंत हजार कामां आशिल्ले कारणान ताचे कडल्यान चूक ही जावं येता जी जीव घेणी लेगीत थारूं येता. नक्की होच विचार मनीस करिना जाल्ल्यान धड-धाकट आशिल्लो मनीस लेगीत खंयचे खंय नाच्च जाता, जीव वगडावन बसता. हालींसराक अशे कितलेशेच अपघात आमी पळयतात जाका खुद्द अपघात घडोवपी जापसालदार आसतात. आपलेच चुकीक लागून जीव वगडावन बसतात. कांय दिसां फाटीं दाबोळे हांगा असोच एक अपघात घडलो. एक सायकलस्वार जाचें नांव आशिल्लें खर्क प्रसाद भरदू जैशी. तो सायकलीन बोगमाळो सावन वेर्णा वचपाचे ताकतिकेंत दाबोळे मुखेल सिग्नला कडेन एका ट्रका पोंदा पडलो आनी आक्ताक सोंपलो. ते घडणेचो विडिओ समाज माध्यमांचेर आजून घुंवत आसा. तो पळयंत जाल्यार आंगार कांटो उबो जाल्या बगर रावना. तो विडिओ पळयतकच सायकलस्वार आपलेच तंद्रेंत सायकल चलयतालो काय कितें असो प्रस्न पडटा. खरें म्हणशात तर आमी मार्गार बारीक नदर दवरून



**एच. मनोज**

*पेशान शिक्षक. आदर्श समाज निर्मणेचो वसो घेवन वृत्तपत्रीय लेखन करतात. तांचो काव्य संग्रह आनी दोन लेखसंग्रह उजवाडाक आयल्यात.*

आनी शिंतिदान वाहना चलोवंक जाय. पूण जायते फावटी आमी मार्गार आसतना येरादारी नियमांचें भान दवरनात. एके बारीक चुकीक लागून जीव वगडावन बसतात. केन्ना केन्ना एक ल्हानशी चूक मनशाक सोपयता जाल्यार मोठी चूक जावन लेगीत बारीक-सारीक दुखापतीचेर मनशाचो जीव वाटावता. तेन्ना आमी अजापान म्हणटात 'वेळ बरो आशिल्लो म्हूण तो साल्वार जालो. उपकार त्या परमेश्वराचे' पूण अशें सगल्यांचे बाबतींत घडना. सगलेच मनीस लक्की आसनात म्हूण आमी शिंतीद दवरून वावरूंक जाय. आपल्या जिवाची जतनाय आपणेंच घेवंक जाय, खास करून मार्गार वाहनां चलयतना.

मनीस जेन्ना ताकतीक करता वा आपलें शिंतीद दवरिनासतना वावुरता तेन्ना तो अपघाताक आमंत्रण दिता. अशें हांव म्हाका आयिल्ल्या अणभवांतल्यान म्हणपाक शकतां. एकदां अपघात जालो जायत तर मागीर सगलोच बोवाळ आनी घुस्पागोंदळ. उपरांत मनीस जेन्ना तंद्रींतलो भायर सरता, आपली चूक होलमता तेन्ना स्वताक सावरतलो म्हणल्यार वेळ तरी खंय आसता? दुसरी गजाल म्हणल्यार तो मेरेन ताचे लुकसाण जाल्लें आसता. तर कांय जाण हो संवसार सोडून गेल्ले आसतात. तांकां आपली चूक सुदारपाक आनीक संद मेळना. अशें कोणाचेच बाबतींत जावचें न्हय पूण संवसारार अश्यो गजाली घडपाक लागल्यात. आमी मनीस सावधपणान वागले ना जाल्यार आम चेय बाबतींत अशेंच घडपाक शकता म्हूण कसलीच ताकतीक करी नासतना आपलो वावर थंडसाणेन केल्यार केन्नाय बरेंच न्हय!.

आनीक एक गजाल मनाक खटकता ती म्हणल्यार मोग, माया, आपुलकी, एकचार हीं उतरां आमचे जिणेंतल्यान ना जावपाक लागल्यांत. ह्या उतरांचें मोल उणें जावंक लागलां. जो तो आपलें काम आनी आपलें घर हातूंत घुसपून उरता. सरभोंवतणीं कितें चल्लां हाचें कोणाक कितेंच पडूंक ना. हातूंत आमी कोणाचोच गुन्यांव करपाक शकनात, कारण पुराय मनशाची जीण यंत्रा वरींच चलत आसा. जो मेरेन यंत्रांत कसलोच बिगाड जायना, ताका गरजे प्रमाणे उर्जा मेळत रावता तें चालूच उरता तशें शें मनशांचें जिवीत जावन पडलां. आमच्यांत आशिल्लो उमाळे सगले सोंपल्यात. कुडींत उर्जा आनी बळ आसा मेरेन मनीस वावरत रावतलो. निमणो यंत्रा वरीच थंड पडटलो. अशी स्थिती कोणाक आवडत व्हय?

म्हज्या एका इश्टाक मनशाचे आयचे जिणेची रीत पसंद ना. ताचे म्हण्णे प्रमाण मनशान ताकतीक करूंक फावना. जिणेंत दाखय लिपय करी नासतना जीण जगपाक जाय, अडी अडचणींत सांपडल्ल्यांची मजत करपाक जाय. तो आपली जीण हींच तत्वां घेवन जगत आयला. त्या भायर तो एक समाज सेवक, कोणायचे अडी अडचणीक पावपी मनीस. राजकारणी मनशां सांगाताक ताचें उठप-बसप आसा. देखून ताच्या म्हऱ्यांत येवपी मनशांचो आंकडोय सुमारा भायलो म्हणल्यार जाता. तोय केन्ना कोणाक ना म्हणिना. आपल्याक जाता ते परीन लोकांक आलाशिरो दिवचो प्रामाणीक यत्न करीत रावता. कोणाचें काम जाग्यार पडटा, तर कोणाचें लांबणेर वता. हो सगलो



नशिबाचो खेळ म्हणल्यार म्हजी चूक जावची न्हय. जाचें काम फत्ते जाता तो खूश आनीक जाचें काम अडकून उरता तो तोंड वाकडें करून म्हज्या इश्टाक दुशण दिवन पयसावता. हातूंत ताचो कांयच गुन्याव आसना. पूण लोक ताचेर बेजार जातात. काम जावंक ना म्हूण शीण उक्तायतात. म्हज्या इश्टाच्या नांवान बोटां मोडटात, ताका खेपतात. पूण तो लोकसेवेचो वसो कसोच सोडूंक तयार ना. बरें, जाचें काम जालें ते उपकार मानतले अशेंय ना. कसलें ना कसलें कारण मुखार करून निर्शेणीच उक्तायतले. हाचोच अर्थ आमी आपल्या सुवार्थाचोच विचार करतात असो घेवंचो पडलो न्हय! देव लेगीत आपले परीन मनशाची परिक्षा घेता खंय! कितलें खरें कितलें फट हें मात हांव सांगपाक नकळों! पूण देवाची सासाय आमचेर आसा ही गजाल आमी न्हयकारूंक शकनात. ताणेंच सगल्यांची राखण करपाची. आरिश्टांतल्यान सगल्यांचीं सुटका करपाची. सगल्यांक बरी बुद्द दिवपाची.

आयचे परिस्थितीचो विचार करीत जाल्यार आमी एकामेका खातीर वेळ दिवंक शकनात ही वास्तवताय. एक वेळ दुडू दिवन मजत करपी जायते मेळटले पूण वेळ दिवपी मनीस मेळपाक सामको कुस्तार. आयचें जिवीत घडयाळीच्या कांट्याचेर आदारिल्लें आसा. म्हजो समज घडये चुकिचो आसत पूण खरेंपणान आमी 'घडयाळाचे गुलाम' जावन दीस सारतात. कारण वेळ काळ कोणाक सांगून येना. जें विधीलिखीत आसा तें खंय कोणाक चुकना म्हणपाचें हांवें जायत्या जणां कडल्यान आयकलां. त्या सायकलस्वारा प्रमाण मार्गार आसतना कितलेशेच मनीस आपलो जीव वगडावन बसल्यात. त्या सगल्यांचो वेळ खराब आशिल्लो काय कितें होय एक प्रस्न सगल्यांक पडटा आसतलो. कांय कारणांक लागून घडणूक घडल्या ते सुवातेर तांकां पावंक कळाव जाल्लो जाल्यार तांचो जीव वाटावतलो आशिल्लो काय? वा ते सुवाती वेल्यान बेगीन पासार जाल्ले जाल्यार तांचें मरण चुकपाक शकतलें आशिल्लें काय? अशे साबार प्रस्न मागीर तांच्या घरच्यांच्या मनांत घोळपाक लागतात हीय एक वस्तुस्थिती आसा. आपलो प्रिय मनीस ह्या संवसारांतल्यान ना जावप हें दुख्ख त्या घराब्याक पचोवंक कितलें जड हाचो आमी अदमास लावंक शकनात. सकाळीं घरांतल्यान भायर सरिल्लो मनीस सांजवेळ मेरेन हो संवसार सोडून वता हाचे सारकें दुर्भाग्य ना म्हणल्यार जाता. एक वेळ दुयेंसान मनीस सोंपता तें दुख्ख पचोवपाक सोंपें! पूण असो अचकीत मनीस ना जावप ही गजाल कोण स्विकारूंक शकचो ना. तरी पूण अशी पाळी येवची न्हय म्हूण आमी जतनाय घेवंक जाय. मार्गार वाहनां चलयतना येरादारीचे नेम पाळूंक जाय, लक्ष केंद्रीत करून दुचाकी वा चारचाकी चलोवंक जाय. मार्गार आसतना मोबायलाचो उपेग तर अजिबात करचो न्हय. तेन्नाच आमी अपघात टाळूंक शकतले. ही सादी आनी सोपी गजाल. पूण जो नेम पाळटा तो पिसो आनीक जो पाळिना तो शाणो हें जाचें तांणे थारावप समा जातलें.

मरण हें जिणेचें सत. तें कोणांक चुकना. आयज ना फाल्यां तें येतलेंच म्हूण आमी जाणांत. आनी म्हूण दर एकल्यान आपलें नांव दवरपा खातीर समाजांत बरें काम करपाक जाय. जायत्यो बीन सरकारी संस्था आसात, जाचे वरवी असो वावर करूं येता. निराधारांक आदार दिवं येता, शिकपी भुरग्यांक तांच्यो गरजो पुराय करपाक हातभार लावं येता. बऱ्या पयकी गोंयकार असो वावर करतना दिसतात. हाचें उलट कांय लोक फकत बढायो मारूंक आपलो वेळ खर्च करतात. जो कोण बरें काम करपाक वता ताकाय फुसलायतात, सरळ मार्गान चलपी मनशांक लेगीत आड मार्गार चलूंक शिकयतात. ह्या संवसारांत अनेक प्रकारचे लोक आसात. सगलेच आपलो सुवार्थ सादोवंक पळयनात. खूबशे जाण लोकसेवाय करतात. अडचल्ल्याक आदार करतात. चार पयशे जोडले जाल्यार एक पयसो समाजा खातीर खर्च करतात. अशे तरेन आपली सामाजीक जापसालकी बरे तरेन निभयतात. हाचे उलट भोव थोडे मनीस आसात जे आपल्या स्वहिताचोच धंदो करूंक पळयतात. तांकां लोकसेवा म्हणल्यार कितें हाची जाण लेगीत आसना. जेन्ना जेन्ना धर्तरेचेर आपत्ती आयल्या, सैमीक संकश्टां आयल्यां तेन्ना तेन्ना मनशां भितर मनीसपण जागें जाल्लें आमी पळयलां. मजतीचो हात एका मेकांक दिल्लो आमी पळयला. हाचोच अर्थ मनशां भितर आशिल्लें हळवेंपण अजून जिवीत आसा. आनीक तें खंयच्या ना खंयच्या मनशां भितर आमकां पळोवंक मेळटा. हे गूण म्हणल्यार जाचें ताचें खाशेलेपण! तें तिगोवन दवरपाचो यत्न केल्यार कशें कितें? जो मेरेन जिवात जीव आसा तो मेरेन तरी!

---

9822441417

▶ ललित

# काव्यश्रीची बशींतली भोंवडी



काव्यश्रीक बशींनी भोंवपाची संवय नाशिल्ली. इस्कोलाक चलून, कॉलेजीक सायकलीन, ताचे उपरांत शिक्षणां खातीर हॉस्टेलांत रावप जालें. नोकरेक लागलें तेन्ना सरकारी निवासी गाळ्यांत रावप जालें. पयली सरकारी नोकरेची नेमणूक फोंड्यां तीय बी फावोर म ागऽ नासतना मॅरीटाचेर मेळिल्ली. कुलदेवतेचें देवूळ लागींच, महालक्ष्मी बांदोड्या. पुर्वजांचें घरय बी फोंड्यांच तळावले. फोंड्यांतच आसतना सोयरीक येवन लग्न बी जालें. चली




कल्याण सावंत

*कविता,कथा आनी ललित ह्या मळार उमेदवारी करता. तांचो 'काव्यश्री' हो काव्य संग्रह उजवाडाक*


जालें. ही देवाचीच करणी अशें तें मानता. काव्यश्री बाळंतपणाचे सुटयेर आसतना कोणाक तरी बेतकेच्यान सावर्ड्या बदली जाय आशिल्ली, आनी कोणाक तरी सावर्डेच्यान फोंड्यां जाय आशिल्ली. कोणें तरी फावोर घालो आनी बळीचो बोकडो जालें काव्यश्री. तशें तें खूबदां बळीचो बोकडो जालां. तीन वर्सां जावंचे पयलीं काव्यश्रीची बदली बेतके जाली. सामक्या सड्यार कशें, धाकटेशेंच हॉस्पिटल. केन्ना पळय नाशिल्लो अनवळखी गांव! पूण जाग माग करी नासतना तें रुजू जालें. निवासी गाळे तीन मिनटांच्या अंतराचेर आशिल्ले. चोवीस वरां सुद्दां काम पडलें आसलें तरी भुरगीं खेळतात तीं हॉस्पिटलांतसान दिसतालीं. चडच गरज पडली जाल्यार कामाक दवरिल्लें भुरगें येवन विचारतालें. हॉस्पिटलांत काम भरपूर आसतालें. पूण बशीन यो-वच करपाची चिंता नाशिल्ली. सगळेंच आपणांक जाय तशें मेळना

खंय, तरी तडजोड करून समजिकाय दाखोवची पडटा. एक एक फावट तर स्टाफ कमी आसल्या कारणान तीन दीस शेगीत काम करचें पडटालें. आनी केल्या बगर पर्याय नाशिल्लो, कारण हॉस्पिटलांत मनशाचे जिणे कडेन संपर्क येता. जिवन–मरणाचो प्रस्न आसता. काव्यश्रीक बशीन भोंवपाची हळू हळू संवय करुन घेवची पडली. पणजे नर्सींग कॉलेजींत बढती आनी बदलीय बी जाली तेन्ना तें बशीनच यो वच करतालें. बशीन वच्चें पडटलें म्हूण ताणें बढती आनी नेमणूक केन्नाच रद्द करून घेतली ना. जाता तें बऱ्याच खातीर म्हणून आयल्ल्या बदल्यांक येवकार दिवन तें नेमणूक जाता थंय देवाची इत्सा म्हूण रुजू जातालें. फावोर लावन कोणाकच त्रासांत घालपाचो केन्नाच चुकून सूद्दां ताचे कडल्यान प्रयत्न जालो ना. बशींतल्यान प्रवास करतना गचमुड्ड्यो जातात्यो पूण त्या वेळार पुस्तक भायर काडून वाचप जातालें. वेळ पिड्यार करपाची संवय ताका नाशिल्ली. ना तर बशींतल्या प्रवास करपी वांगड्यां वांगडा गजाली मारप जाताल्यो. त्या निम तान वेगवेगळ्या कचेरींत काम करपी वांगड्यां वांगडा वळख जाताली आनी म्हायतीय बी मेळटाली. त्या वेळार मोबायल नाशिल्ले म्हणून लोकां वांगडा उलोवंक बरें दिसतालें. एक एकदां बशी गजगजीत भरुन येताल्यो. उबें रावन वच्चें पडटालें. 'फाटीं चल, फुडें चल, घुवून राव, तेंकून राव' हें कंडक्टराच्या तोंडांतल्यान परत परत आयकून कंटाळो येतालो. पूण सकारात्मक रितीन घेवपी काव्यश्रीक तें सोंपें आशिल्लें. गटखळ्यांक तोंड दिल्या बगर मनीस शाणो आनी नीबर जायना अशें आजी ताका सांगताली. धांवपळीची ड्युटी केल्या उपरांत बशीन उबें रावन वतना काव्यश्रीक मांडयेर बसोवन कार्रेरीन जात्रांक व्हरपी आज्येची याद येताली.

काव्यश्री ल्हान आसतना पयलेच फावट आज्ये वांगडा कार्रेरीन फातर्प्यां आनी सावयवेरें जात्रेक गेल्लें. बशीचो प्रवास तसो कासार जावपाचोच. पुरो जालें म्हूण गगना करपाची काव्यश्रीक संवयच नाशिल्ली. सगळ्यांक कामांत हातभार लावपी हें काव्यश्री सगळ्यांक कामा पुरतें जाय आसलें. पूण ताका दुसऱ्याक मजत करूंक आवडटालें. ताचे कश्टांक दाद मेळना म्हूणून आकूळ–पिकूळय जावपी ताचो स्वभाव न्हय. बशीन भोंवतना खूब बरे वायट अणभव आयले तश्योच खूब वळखीय बी जाल्यो. काव्यश्रीक दुसऱ्याक आधार करपाची संवय. हे संवये प्रमाण एक दीस एके उबे आशिल्ले बायलेचें बॅग काव्यश्रीन मांडयेर घेतलें. बाबडी खूब वेळ उबी आशिल्ली. मांडयेर दवरिल्ल्या बॅगांतल्यान कितें तरी ओलें शें, उलपें शें, तेलकट शें मांडयेर आफुडल्याचो अणभव आयलो. आवयस सायबा! लोणच्याचो खळ मांडयेर गळूंक लागिल्लो. बरोऽ वास आयलो. तोंडाक आपसुकच उदक सुटलें. हें तेल कशें पुसप ती चिंता पडली. ती बायल बाबडी गुन्यांवकारी जाली. तिची तरी कितें चूक! पणजे मार्केटा कडेन कॉलेजींत पावतकीर लॅबांतलो कापूस आनी आल्कोल घेवन काव्यश्रीन लोणच्याचो खळ पुसून काडलो आनी ओडणी मात्शी चडच सकल लांबयली. काळ्या कपड्यार खत पडपाचें तें पडलेंच. आनीक एक फावट अशेंच फोंडेंच्यान पणजे वतनां एक बायल मदींच कुंडय काय भोमा खंय तरी बशींत चडली. कचकचीत कांचेचीं कांकणां आनी भांगर आंगा खांदार भरिल्लें. घसघसीत कपलाक तिळो आनी केंसांचो आंबाडो आनी ताचेर दोन तीन वेगळ्या वेगळ्या फुलांच्यो फांतयो! झगझगीत धागे आनी लुगटाचे कुडके धरून सामक्यो सुंदर रितीन त्यो फांतयो घाल्ल्यो. तिका पळयतना समजतालें की ती जात्रेक आनी दिवजांक वचून आयल्या म्हूण! बशीन गर्दी आशिल्ले कारणान ती उबी आसा थंयच तोल गेल्ल्या वरीं जाताली. एका हातांत पिशवी आनी दुसऱ्या हातान तोल सांबाळपा खातीर घट्ट पायपाक धरून उबी आसली. तरी पूण वळणार ब्रेक लागता तेन्ना तोल सांबाळूंक कुस्तार जातालें.

ती काव्यश्रीचे बगलेकच उबी आसली आनी काव्यश्री जेश्ट नागरीकांचे बसकेर बशिल्लें. संवयें प्रमाण, 'तुजी पिशवी धरूं?' अशें तिका विचारलें. 'देव पावलो' ही भावना तोंडार हाडून तिणें फुडल्या सिटार जनेलाक तेंकून बशिल्ल्या काव्यश्री कडेन प्लास्टीकच्यो पिशव्यो आशिल्ली ज्युटाची पिशवी दिली. पिशवी ल्हव आशिल्ली. काव्यश्रीन ती पिशवी मांडयेर दवरली. पोरण्या गोंयां पावता म्हळ्यार काव्यश्रीच्या गळ्याक कोण तरी चाबून दादड काडलो. ती मूय हातान काडून चिड्डून उडयली. ताचे फाटोफाट पोटाक, हाताक, पांयांक बारीक सुयो तोपल्या वरीं घास मारता म्हूण पळे जाल्यार तिचे पिशवेंतल्यान तांबड्यो चावऱ्यो मुयो भायर सरताल्यो. 'आवय म्हजे!' ते बायलेन म्हळें. खाज्याक ना जाल्यार खोबरेल तेलाचे बाटलेक आयल्या आसतल्यो!' तिणें म्हळें. ''चावल्यो गो बाय तुकां?'' तिणें विचारलें.

''हय, मातश्यो!'' काव्यश्रीन जाप दिली. आनी कितें सांगतलें बाबडें? नाकां थंय चाबल्यो म्हूण सांगतलें लोकां उजीर? कितें करचें तें कळना जावन काव्यश्रीन आपल्या पुस्तकांची पिशवी रिकामी केली आनी मुयांची पिशवी तांतूंत घालून तोंड घट्ट बांदलें. कंडक्टर पयशे घेवंक आयलो तेन्ना तिणेंच आपले पयशे दिले. खंयच्यान काडले खबर ना.

किरवंटीक ना जाल्यार हातांत आशिल्ले दिसता! बरें जालें पिशवेंत नाशिल्ले! ना तर काव्यश्रीक दिवचे पडटले आशिल्ले! पूण त्या मुयांक सोडोवंचे परस तिची तिकेट फारीक करपाचें काव्यश्रीन पयलींच येवजिल्लें. रायबंदरा पावतगीर ती गुन्यांवकारी नदरेन देंवली. तरी बरें लोकांक मुयो चाबूंक नात म्हूण!

आनीक एक दीस सांजचें काव्यश्री पणजेच्यान फोंड्यां वतना पोरण्या गोंयांत फेस्ताचे दीस आशिल्ले. बशीनी गर्दी आशिल्ली. एक बायल दोन ल्हान भुरग्यांक घेवन बशींत चडली. काळोख जाल्लो. एका भुरग्याक काव्यश्रीन मांडयेर घेतलें. तीय बी फोंड्यांच वचपाची. म्हाड्डोळा पावूंक तिका काव्यश्रीच्या शेजराक जागो मेळ्ळो. फार्मागुडयेर पावता म्हळ्यार काव्यश्रीच्या पांयांचेर अभिशेक जाल्लो. चल गणपती पावलो. घरा पावत आयिल्लें म्हूण बरें जालें!

अश्यो खुबश्यो गजाली प्रवासांत घडटात. एक दीस गोंयां भायले दोन दादले, बायलांचे बसकेर बशिल्ले. बायलांचो सिट म्हूण उठयल्यार कशेच उठनात. बायलांचो सिट बी तशें कांय आसना अशें म्हूण हुज्जत घालूंक लागले. तांका खंय खबर गोंयच्यो बायल्यो भिवकुर्यो न्हय म्हूण! काव्यश्री आनी पांच-स बायलो उठल्यो, आनी उठना जाल्यार चप्पलांनी बडोवपाची धमकी दिली तेन्ना ते दोगय मोन्यानी उठून फाटल्या सिटार बसले. भिवकुरो कंडक्टर तांकां पळयत उरलो. अशीं खुबशीं अनपड मनशां बी म्हणत आसतात, जेश्ठ सिटां बी कांयच ना म्हूण जाणट्यांक उबीं दवरुन आपूण सुशेगाद बसतात. हांका आजो-आजी कोण ना शीं दिसता. तांका वाचूंक कळना काय जाणट्यांक आदर दी म्हणपाची शिकवण कमी पडली काय? आसूं नवी पिळगी! एकदां एक बायल बशीन काव्यश्रीच्या शेजराक बसली. ती खण साडी नेशिल्ली. पदर माथ्यार घेतिल्लो. पदरांत तोंड लेगीत लिंपून गेल्लें. हातार कन्नाड भाशेंत टेटू कोरिल्लो. थोड्या वेळान काव्यश्रीच्या खांदार तकली दवरुन न्हिदली. सगळो पेज काव्यश्रीचेर. तिका पुरो जालां आसतलें म्हूण काव्यश्री ओगीच रावलें. 'चिंगीची आई' म्हूण मराठी चौथेंत एक धडो आशिल्लो. तांतूंत साडी नेशिल्ले बायलेक मिशयो आशिल्ल्यो. निमाणें तो चोर साडी न्हेसून आयलो म्हूण कळ्ळें. काव्यश्रीक बेस्टोच दुबाव जाल्लो. हळूच तिच्या तोंडा वयलो पालव वयर करून तोंडार नदर भोंवडायली . तोंडाक सुरकुत्यो आशिल्ल्यो. कपलार पिंजरीचो मठो वाटकुळोच तिळो आनी ताचे सकयल हळदिचो आडवो तिळो. ती सुस्त न्हिदिल्ली. जिवाक बरें ना दिसता बाबडेच्या अशें काव्यश्रीन येवजिलें. काव्यश्रीचो देंवपाचो थांबो आयलो आनी देंवपा खातीर उठपाची तयारी करता आसतना एका जाणटेल्यान न्हिदिल्ले ते बायलेची तकली आपल्या हातान धरली आनी काव्यश्री उठतकीर हळूच त्या जाग्यार आपूण बसलो. चड करुन तिचो घरकार आसूंये! कितली ही काळजी हे पिरायेर? लक्तूबाय करपा सारकी!

एक दीस एक जाणटेलो काळजांत दुखता म्हूण खासावीस जातालो. कंडक्टर भियेलो. काव्यश्रीन ताका आपल्या बाटलेंतलें उदक दिलें. ताचे वखदांचे पिशवेंतली एक सोरबिट्रेट गुळी काडून ताचे जिबे पोंदा दवरली. ताका रोकडेंच बरें दिसलें. तो सुशेगाद जाला तें पळोवन बशींतल्या सगळ्यांक बरें दिसलें. कंडक्टराकय सूऽऽ जालें.

एक दीस एका कॉलेजीचे चलयेन लॅपटॉप काव्यश्री कडेन धरुंक दिलो. काव्यश्री बसून आशिल्लें आनी तें उबें आशिल्ले. काव्यश्री देंवपाच्या वेळार हें चली दिसना. काव्यश्रीक कितें करचें कळना. निमाणें कंडक्टरा कडेन तो दिवन तें देंवलें. काव्यश्रीक ते चलयेचो हुसको. विसरून बी गेलें काय! सांजचें परत वतना ते बशीच्या नंबराची आनी होराराची ताणें खबर काडली आनी घरा वचूंक वेळ जाल्यार जांव म्हूण ती बस ये सर रावन ताणें स्टॅंडार बसून वेळ काडलो. कंडक्टराक लॅपटॉप आनी ते चलये विशीं विचारलें. तर तें खंय फाटले सिटार बसून झेम काडटालें. इतल्यांत तेंच चली खंयच्यान तरी धांवून आयलें. ''काकी! हांव सॉरी गे. हांव रातभर प्रेजेंटेशनाची तयारी करतालें मगे म्हूण म्हाका झेम आयली. कांय नजो, पूण मात्शें टेंशन जालें.'' काव्यश्री आनी तें दोगांय एकेच बशीर चडलीं. काव्यश्री सदां सारकें फुडें बशिल्लें. कंडक्टराक तिकेटीचे पयशे दिल्यार घेवंक ना. 'दिली तुजी तिकेट दोतोर बायन' ताणें म्हळें. मागीर कळ्ळें तें एम डी करता म्हूण. आतां तें प्रॅक्टीस करता म्हूण कळ्ळें. ''काकी यो म्हज्या क्लिनीकांत एक दीस!'' ताणें म्हळें. ''दुयेंत म्हूण येवं ?'' दोळे मोडीत काव्यश्रीन म्हळें. ''बरीच यो तूं काकी. आशिर्वाद दिवंक यो.'' एक बरी वळख जाल्याचें समाधान काव्यश्रीक जालें.

अश्यो खूब गजाली घडल्यो बशीन भोवतना..कोरोनाचे धामी वेळार तर खुबूच घडल्यो. आनीकय बी घडत रावतल्यो. जिवाक जमऽ सर काव्यश्री बशीनच भोंवत रावतलें. गाडी ड्रायव्हर घेवन भोंवपाक ताका तांक आसा पूण बचत करुन कोणय गरीब शिकपी चली भुरग्याक थोडीशी मजत करुंक ताका आवडटा!

फोंडे, मो. 9765128185




# सकाळची भोंवडी

जया आज सकाळीं बेगीनच उठलें. पळय जाल्यार मम्मा फुलां हाडपाक पोरसांत वताली.

'' मम्मा, हांवय येतां''

''शाणी उठली म्हजी!'' मम्मान अपुरबायेन तोंडावेल्यान हात भोंवडावन बायक लागीं ओडलें.

''तूं येता मगो? यो! चल रावतां हांव. पयलीं बाथरूमांत वच, तोंड धू आनी मागीर वचया आमी!''

हातांतलो कुरपणो सोफार दवरून मम्मान बारीक सारीक कामां जाग्यार घालीं.

तोसर जया हजर. ''चल या मगे?''

''जोतें घाल चल.'' मम्मान जोतें घालतां घालतां म्हळें.

मम्माचें बोट धरून जया भायर आयलें आनी तेन्नाच कोंब्यान साद घाली, कोऽ कोंऽ कोंऽऽ

''मम्मा, कोंबो आमच्या पोरसांत गे?'' जया सामकें उचांबळ जालें.

''हय गो, सदांच येतात ते दोन कोंबे.''



**उषा ज. कामत**

*लेखिका बाल साहित्य आनी ललित हातूंत सातत्यान लेखन करतात.*

घराक वळसो घालून फाटल्यान येतासर एक कोंबो थारून थारून आइडत आशिल्लो.कोंऽकोंऽऽ कोंऽ

जया खूब फावट कोयर उस्तितल्या कोंब्याक वारांदांतल्यान पळयतालें पूण ताका लागसरच्यान कोंबो पळोवपाक जाय आशिल्लो.

मम्मा जयूक घेवन पोरसांत पावली तेन्नाय पर्थून कोंब्यान सादयलें –

कोंऽऽकोंऽकोंऽऽ

जया फुडें धांवलें तर हो कसलो वस्ताद!

भुर्र करून दुर्गार चडलो. परत एक फावट मान वयर काडून साद घाली कोंऽऽकोंऽकोंऽऽ आनी तेक्कून आशिल्ल्या मस्का झाडा आदारान तेवटेन सकल देंवलो.

दुर्गार रावन मान वयर काडून साद घालतना जयान ताका सामको लागिंच्यान पळयल्लो.

तो दुसरे वटेन गेलो आनी जया लागलें रडूंक, ''मम्मा आमी वचया थंय. म्हाका आनीक पळोवपाक जाय.'' मम्मान आपले परीन थातारपाचो यत्न केलो. पूण जया कशेंच आयकना.

''चल वचया आमी.'' मम्मा गेटींतल्यान भायर सरली आनी घराच्या फाटल्यान आयली.

फुडें सगळो कुणब्यां वाडो.

जॉकी, इनास, आबेल, जूजे,लुरदीन,कामील आनी जायत्या जाणालीं तेक्कून तेक्कून घरां.

तांतल्या एक दोगांगेर गोरवां आशिल्लीं. जया तीं गोरवां, कोंबड्यो पळोवन सामकें खूश!

जयू फुडें फुडें धांवतालें.

''जयू धांव नाका. पळय आं पडशीत बी!''

इतल्यांत आवाज आयकून जॉकी मांय भायर आयली.'' बाये आज हीणी हुंय?'' हांसत हांसत तिणें विचारलें

''बरीं आहाय मुगो सोगळीं?''

''हय आसात बरीं!''

''बाब बा बरो आहा मुगो?''

''आसा. आसा बरो.''

''तुमी सगळीं बरीं आसात मगो?''

जयाक ही भास नवी. जया पळयतच उरलें तिका. मागीर

थोडो वेळ खबरी केल्यो मम्मान.

''आगो घोटां बी आसात गो?'' मम्मान विचारलें.

''ओय ओय आहाय मुगो बाय. तुका जायें?''

''आसा जाल्यार दी मगो.''

जयाचे दोळे लिकलिकले. तें मम्माच्या तोंडाक पळोवन हांसलें.

एके पिशवेंत घालून जॉकी मांयन घोटां दिलीं. तांतूंत

थोडे मोट्टे बॉल आंबेय आसले.

''कितले गो? मागीर कामवाले कडेन धाडटा पयशे.''

''आस दी गो. खायाय तुमी. हे बाये खांवदी.''

'' फुकट?'' जयूले दोळे मोठ्ठे जाले.

''ओय बाय. खा आं!''

पिशवी घेवन दोगांय परतलीं.

चार पावलां चलतासर टुप्प करून एक घोंट पडलें सकल.

''आरे देवा पिशवेक बुराक आशिल्लो दिसता!''

''आतां किदें करया?'' जया चिंतेस्त आनी दुसऱ्याय घोटान अर्दी तकली भायर काडिल्ली.

''राव दाखयतां.'' मम्मान लागसारच्याच फातरार पिशवी दवरली. बॉल आंबे भायर काडून दवरले आनी आपल्या केंसांचो रबरबँड काडून मुळा पिशवेक घालो.

''व्वा बरी हुशार मगे तूं!'' जयू नवें शिकलें

परत आंबे, घोटां पिशवेंत घालून आवय –धूव घरा परतलीं.

''आज कोंब्या निमतान भोंवडी जाली.''सोपणां चडटा चडटां मम्मान म्हळें.

9763823745

# नेपाळी बेब्याचीं धाडशी कर्तुबां

## चितवन वनस्थळ

तराईच्या माणक्यान ही गजाल सगळ्यांक सांगली आनी दनपारां चितवनांतले सगळे निवासी, काठमंडू सावन आयिल्ल्या ह्या सोयऱ्याक मेळपा खातीर, राप्ती न्हंयचे कुशीक, रानांत, मेकळ्या मैदानांत एकठांय जाले. हरणांच्या एका कळपान बेब्याक उर्बे भरीत येवकार दिलो, तांणी ताका आपल्या ओलश्या नाकांनी स्पर्श केलो. 'मगर' नांवाच्या मानग्यान केल्ल्या 'हाय' परस ताणें केल्लें 'हें...' उणें भिरांकूळ आशिल्लें, जें त्या मानग्यान, आपले सुळे कशे दांत दाखयत जांबय दिवपाच्या झेतान म्हणिल्लें..

सांवरीच्या झाडार बशिल्ल्या वानरांचे जोडयेक सकयल देंवप पसंत नासलें. तांणी थंय सावनच 'खों-खों' करून


नयना आडारकार
कणक मणि दीक्षित
*वेगवेगळ्या पुरस्कारांनी सन्मानीत ज्येश्ठ लेखिका,कथा,कविता,ललित,विनोदी,बाल साहित्य ह्या प्रकारांत फिशाल.*

येवकार दिलो आनी खेळां-खेळांत झाडाक लागिल्ल्यो कापसान रेवाडिल्ल्यों सांवरीच्यो बियो सकयल मोखल्यो. एक नखरेबाज मोर आपली रंगरंगयाळीं पांखां फांकायत सकयल देंवलो. तो सदांच झेत मारता हें सगळ्यांक खबर आशिल्लें. त्या खातीर सगळ्यांनी ताका पळोवंकूच नाशिल्ले वरी केलें. तरीय ताणें आपलो राग आळोवंक सुरवात केलो- 'क्यांव...क्यांव..क्यांव...' सगळे त्या खातीर बेजार जाले.

इतल्यांत एक, खंयचेय खोपीचें पाखें आसचें इतलो व्हडलो विचित्र प्राणी धबक धबक करीत धांवत आयलो. ताच्या दोनूय वटांनी पाटये कोराची कात लोंबताली. ताणें तोंड आनी नाका वयल्या भागांतल्यान भायर आयिल्लें आपलें शींग हालयलें. एका शिंगाचे ते मादी गेंड्यान भक्तप्रसादा वटेन पळयत आपलो ल्हान दोळो पिटपिटायलो. तिणें आपल्या भुरग्याची वळख करून दिली. तो तिचे व्हडले घटमूट कुडी फाटल्यान लिपिल्लो.

''हो म्हजो पूत एकराज. तो खूब लजकुरो. एकराज, मातसो ह्या मानेस्त बेब्याक सांग पळोवया, तूं एक शिंगाचो रायनी काय दोन शिंगाचो ?''

''एक शिंगाचो'' फाटल्यांतल्यान एक ल्हव आवाज आयलो.

''आनी दोन शिंगाचे रायनो खंय मेळटात ?''

''आफ्रिकेंत'', एकराजान आतां धिटायेन जाप दिली.

रोखडीच बेबो आनी सान रायनो मदीं इश्टागत जाली. उंच तण, जाका हती तणूय म्हणटात, तांतूंत तांचो आपा-लिपाचो खेळ सुरू जालो.

त्याच वेळार एक काळ्या हळडुव्या पट्ट्यांची आकृताय झोपां मदल्यान येतना दिसली. ती दिसली त्याच खिणाक रानांतल्या मैदानांत जावपी बोवाळ एकदम शांत जालो. तें हिंसक जनावर नाका आसतना थंय आयलां अशें दिसपाक लागलें

''तुमी हांगा येवन उपकार केले शाहे बंगाल!'' पुळसाच्या माणक्यान खोशयेन हांसत म्हणलें. तो वागीण थंय आयल्या म्हूण खोशी जाल्लो. चितवनाची एकमेव सम्राज्ञी बंगालची वागीण हरशीं रानांतल्या कोणा कडेन सबद दवरी नासली. पूण तिवूय ह्या बेब्याक मेळपाक उत्सूक आशिल्ली, जो काठमांडू सावन भोंवडी करीत हांगा, चितवन वनस्थळांत पाविल्लो.

एकामेका कडेन वळख जाले उपरांत शाहे बंगालान गजाली सुरू केल्यो, ''तूं खरोच भाग्याचो बेब्या. तुका जाय थंय तूं वचूंक शकता.'' तिच्या आवाजांत म्होंवाळसाण आशिल्ली.

ह्या हुशार आनी म्हालगड्या माजराच्यो गजाली आयकुपाक सगळ्या वांगडा मोरूय शांत रावला हें भक्तप्रसादाच्या लक्षांत आयलें. शाहे बंगालान उलोवप सुरू केलें, ''एक काळ आशिल्लो. जेन्ना ह्या रानांत, पुराय चितवनाक एका दाट जमखणा वरी धांपिल्लें. लोक हाका 'चार कोसी झाडी' ह्या नांवान वळखताले. तांचे खातीर हें दाट रान हिंसक जनावरां वांगडा राकेस आनी प्रेतात्मांनीय भरिल्लें. आयज दोंगराळ वाठारांतले लोक हांगा येवपाक लागल्यात आनी तांणी आमचो हो प्राचीन आनी मोलादीक राबितो आमचे पसून झोमून घेतला. पयलीं आमी ह्या रानांतले मुक्त प्राणी आसले. ह्या लोकांनी रानां कापून उडयल्यांत. थंय शेतां-भाटां केल्यांत आनी आमकां हांगा बंदखणींत घाल्यांत.''

''पूण, शाहे बंगाल, हें चितवन रान अजूनय कितलें व्हड आसा,'' भक्तप्रसाद मदींच उलयलो.

''हें व्हड आनी सुरक्षीत आसा, पूण फकत बेब्यांक आनी माणक्यांक, पूण आमच्या सारक्या व्हडल्या प्राण्यांक खाण सोदपा खातीर हांगा थंय हेडचें पडटा. शींव आनी गेंड्यांक जियेवपा खातीर व्हडल्या जाग्याची गरज आसता. हें रान जें उरलां तें आमकां पावना.''

रानाचे राणयेच्या भावूक आनी बुदवंत उतरांनी सगळ्यांक भारावन उडयलें. निमाणें राणयेन म्हणलें, ''रानाचे पयस मेरेन आशिल्ले वाठार आतां उरले नात आनी दुसरे राष्ट्रीय पार्क आनी सुरक्षीत थळां इतलीं पयस आसात- लोकवस्ती हुपले बगर आमकां थंय वचूंक मेळना. भक्ते, तुका इत्सा जातकच तूं काठमांडू सावन हांगा येवपाक शकता. पूण हांव मात मनांत आसून लेगीत थंय वचपाक शकना. आमकां हांगा बंदखणींत दवरलां. ''

**उमेदीची आनी भावपूर्ण पार्टी**



चितवन एका काळार सामकें दाट आनी मनभुलवणें आशिल्लें अशें शाहे बंगाला कडल्यान कळटकच सगळे उदास जाले. भक्तेय उदास आशिल्लो. कांय खिणांक थंय पार्टी जावपाची आसा हें सगळे विसरूनच गेले. अचकीत कुपांनी गडगड केलो. मळबांत जोगूल जंगलावलें. खिणभरयांत रानांतलें मैदान काळीज हालोवपी जोगलांनी भरून गेलें. खंयच्यान तरी नेटाचो वारो आयलो आनी सगळ्या रानाक ताणें झंझाळून उडयलें. सांवरीच्या झाडाच्यो खांदयो बागवल्यो. कांय कुपां तकलेर रकपाक लागलीं. रोखडोच पावस सुरू जालो. पयलीं मोटे-मोटे थेंबे पानांचेर पडले, मागीर गडगडा सयत घोग्यांनी पावस पडपाक लागलो, जातूंत जोगलांय भरसून गेल्लीं.

बेब्याक पावसा परस चड बरें आनीक कितेंच लागना आनी भक्तप्रसादान तर इतलो नेटाचो पावस पयलीं केन्नाच पळोवंक नासलो. ह्या रानाचो अणभव तर खरेंच घरा वचून सगळ्यांक सांगपा सारको आसा.

सगळीं जनावरां पावसाची मजा घेतालीं. मगरान आपलो जबडो उक्तो करून वयर केल्लो, जे वरवी पावसाचे थेंबे निट्ट ताचे ताळवेर पडचे. वानर खांदये वयल्यान सकयल आयिल्ले आनी दाकांचे वालीर झेल घेवपाक लागले. पोपट, कांसव, बदकां आनी काळे कावळे किळंचत- आड्डत रानांतल्या मैदानाचेर हांगा-थंय उडटाले. तांचीं पांखां वाऱ्यान आनी पावसान पिसुडल्ले वरी जालीं. शाहे बंगालान मोगान भक्तप्रसादाक आपले फाटीचेर उडकी मारपाक सांगलें आनी मागीर दोगूय जाणां उदकान भरिल्ल्या मैदानांत चारी वटेन उडक्यो मारीत नाचत रावलीं.

भक्तप्रसादाक इतली खोस आपल्या बेब्या सांगात्या वांगडा खेळटनाय केन्ना जावंक नासली. आयज ताचो नेट तरी पळयात! चितवनाचे वागणीचेर बशिल्लो तो. वांगडा इतले सगळे नवे इश्ट. ताचे खोशेक शीम नासली. 'हा हा हा! हांव हिरो!' भक्तप्रसादान घोशणा केली.

वादळ वारें जितले नेटान आयिल्लें, तितलेच बेगीन थांबलेंय बी. कांय वेळ रान सामकें शांत जालें. तेन्नाच उंच बशिल्ले पोपट भिरांतीन किंळचूंक लागले, 'हती येतात हती येतात.' भक्तप्रसादान अजापान चोंय वटेन पळयलें. सगळीं जनावरां बेगिबेगीन झाडा-झोपांच्या फाटल्यान आनी उदकांत घुसपाक लागिल्लीं. 'मगर' घसटत न्हंयेंत गेलें आनी ताणें हुस्क्या मेकळो स्वास घेतलो. हल्लो करप्यांक फाटल्यान दवरून ताणें उदकाच्या तळाक बूड मारली. शाहे बंगालान फाटल्यान वळून पळयलें आनी खंतीन म्हणलें, 'माफ कर' आनी बेब्याक आपले फाटी वयल्यान झिडपिलो. तो गेंड्याच्या मोव शेणांत पडलो. वागीण उंच तणां भितर नाच जाली. पार्टी सोंपली.

तेन्नाच धबधब आवाज करीत येवपी हती दिश्टी पडले. एके रांकेत घडये पांच हती आसले. पूण हें कितें? हे भक्तप्रसादाक दिशिल्ले तशे रानांतले हती नाशिल्ले. तराईचो माणको ताचे कुशिकूच आशिल्लो. हतयांची मिरवणूक गेल्या उपरांत ताणें सांगलें, 'हे पोशिल्ले हती. मनशांनी तांकां मनशाळायल्यात. हे हती मनशांचे सांगणे प्रमाण वागतात. हतयांचे फाटीर लाकडांचे फास्के भितर बसल्यात ते भोंवडेकार. ते चितवनांत आमची रानवटी जीण पळोवपाक आयल्यात.' बेबो आनी माणक्यान गेंड्याच्या शेणा फाटल्यांतल्यान ल्हवूच पळयलें. भोंवडेकार खोशी नाशिल्ले हें पळयतकच सामकें कळटालें. त्या लोकांनी हांगा येवपा खातीर कितलो वेळ आनी पयसो खर्च केलो. तरीय तांकां चितवनांतले

जीव-जंतू दिश्टी पडूंक नासले. कितली अजापाची गजाल, झोपांनी चारूय वटेन गेंडे, शींव, वास्वेलां आनी रानवटी दुकर आशिल्ले, पूण ह्या लोकांक तांची सुलूस लागूंक नाशिल्ली. तांच्यो दुर्बिणी आनी कॅमेरा बेश्टेच तांच्या गळ्यांत लोंबकळटाले.

''हे लोक इतलो पयसो खर्च करून फकत झाडांपेडां पळोवपाकूच चितवनांत आयिल्ले?'' भक्तप्रसादान अजापीत जावन विचारलें. ताका तें चिंतून खूब हांसूंक येतालें. तराईच्या माणक्यान हयकारान तकली हालयली. ताणें आपलो हांसो थांबोवपाचो यत्न केलो. हांसतना ताचें पोट भायर भितर जातालें. पोशिल्ले हतीय भोंवडेकारा वरी खोशी दिसनासले. ल्हवू ल्हवू हती धबधब करीत नदरे पलतडी पावले. रानांतल्या त्या मैदानाचेर चारूय वटांनी जनावरांचें खीं...खीं... आयकूंक येतालें. तीं सगळीं आपलो हांसो दामून दवरपाचो यत्न करतालीं.

''पर्यटकांक चितवन सामकें बेजासांवाचे लागता आसतलें न्हय?'' भक्तप्रसादान म्हणलें. ताका माणक्यान जाप दिली ना म्हणून ताणें फाटल्यान वळून पळयलें. माणको खंयच दिसलो ना.

भक्तप्रसादाक हुस्को जालो. तो हांगा थंय सोदपाक लागलो. ताका 'मगर' मानगें दिश्टी पडलें. तें आपल्या व्हडल्या- व्हडल्या जबड्यांत खावपाची कसली तरी ल्हानशी वस्तू चाबडायतालें. 'मगर' ल्हवूच न्हंयचे देगेक आयलें. उदकाचे मंद व्हांवतेंत देंवचे पयली भियेल्ल्या भक्तप्रसादाक ताणें वळून पळयलें आनी म्हणलें, ''ये काठमांडूच्या बेब्या, हें रान हें तूं विसरूं नाका आनी हांगा रानाचो कायदो चलता. हें रान तुका उपकरचेंना. तुज्या असल्या गांवांतल्या बेब्याक पोखरा बरें, थंय वचून पळय.'' हुस्कार सोडीत आनी सरपटत मानगें थंय सावन गेलें. भियेल्लो भक्तप्रसादूय चितवन राष्ट्रीय पार्कांतल्यान रोखडोच उडक्यो मारीत भायर सरलो

(चलता.)

*खोर्ले, मो. 9823537563*

मूळ मराठीः **डॉ. संगिता बर्वे**

कोंकणी अणकार : **दिलीप बोरकार**



## *तोरांबाय*

पाचव्याच रुखाचीं पाचवींच तोरां
एकदिसा कानांची तांच्या वाजलीं बारा

हालनात झुलनात सकयलय पडनात
अळी मिळी गुपचिळी मात्तूय हांसनात

रुखान म्हळें मनांत, कितें करचें आतां
उपाय सांगरे मातसो, रखरखीत वता

वतान म्हळें,'अशें करतां कुपाक विचारतां'
कुपान म्हळें,'इतलेंच मू! आतांच पावस घालतां'

भिरी भिरी आयलो पावस आनी मजाच जाली
कान दिवन तोरांबाय आयकूंक न्हय रे लागलीं

सा रे ग म प द नी सा रुखूच लागलो गावंक
भरणेंत बसून तोरांबाय तेलांत लागलीं न्हावंक

## *चानुली आनी सावळुली*

शंकराचे खांदयेर
एक चानी बशिल्ली
वत आसलें दनपारचें
तरी सावळी थंडूच आशिल्ली

कितें बाये वत हें
मात्तूय ना वारो
चानुलेच्या रागाचो
चडलो सामको पारो

सावळुले आयली तूं
म्हण दिसलें मातशें बरें
ना तर आयज म्हजें
नासलें कांयच खरें!

मनशांचेर आयला सांवार
झाडां उडयतात मारून
घरां उबारतात आपलीं
आमचीं घरां मोडून

सावळुलेन सावरलो
आपलो व्हडलो पदर
आनी म्हळें,मनशांक
हेरांची ना कदर!

सगळें कळटा ताका
पूण मनार मात घेना
उजो लागलो तर मात
धग ताका सोंसना

म्हणून म्हणटां चानुले
राग मनांत धरूं नाका
लायतलो मनीस नवीं रुखां
धीर तूं सोडूं नाका...

# भरिल्ल्यो शिणांण्यो

**साहित्य–** 20 शिणाण्यों, 20 निवळ केल्ल्यो शिंपयो, 1 व्हड कुलेर सोय, 1 मध्यम कांदो बारीक शिंदून, 5 लवंगां, 2 पाकळ्यो चक्री फूल, 1 इंच तिख्री, 1 व्हड कुलेर कोथमिऱ्यो, 8 मिरयां, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो,1 वाटी कोथमिऱ्यो पालो, अर्द वाटी पुदिना पानां, 3 हरव्यो मिरसांगो, 5–6 लसणी बोयो, लिंबा येदो आमटाण, 1 ल्हान कुलेर साकर, 1 ल्हान कुलर टामटा सास, 1 ल्हान कॉर्न फ्लॉवर, 2 व्हड कुलेरां रवो, रुची पुरतें मीठ, 3 व्हड कुलेरां तेल.

**करपाची तरा–** शिणाण्यो निवळ करून भितरलें काळें सूत काडून घेयात. उदकांत बरें धुवून घेयात शिणाण्यांक हळदी पिठो आनी मीठ लावन मुरपाक दवरात.

एके कायलींत 1 व्हड कुलेर तेल तापोवन सगळो गरम मसालो भाजून घेयात. मसालो काडून तेच कायलींत कांदो आनी सोय तांबुडसार भाजून घेयात. हें भाजिल्लें सामान, हरव्यो मिरसांगो, पुदिना पानां आनी कोथमिरे पालो मिक्सरांत वाटून घेयात. एके कायलींत 1 व्हड कुलेर तेल तापोवन मुरपाक दवरिल्ल्यो शिणाण्यो भाजून घेयात. 5 मिनटांनी वाटिल्लो मसालो घालात. बरेंऽ चाळून एकठांय करून घेयात. उपरांत अर्द कप उदक घालून मंद उज्यार 5–7 मिनटां शिजयात. टॉमेटो सॉस, कॉर्न फ्लॉवर तशेंच रुची पुरतें मीठ घालून दोन मिनटां शिजयात. न्हिवतकच हो मसालो आनी शिणाण्याचें कालंव एक एक करून शिंपयांनी घालात वयर रवो लावन तव्यार तेल घालून भाजून घेयात गरम गरम खायात, एकदम रुचीक लागतात.



डॉ. रिना लवंदे
[illegible] कविता आनी ललित लेखनांत [illegible]

# चण्या दाळीचे सुकुरउंडे

**साहित्य–** 2 वाटयो चण्याची दाळ. 2 वाटयो किशिल्लें गोड, 1 वाटी नाल्लाची सोय, 2 वाटयो मैद्या पीठ, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो, 1 ल्हान कुलेर वेलची पिठो, तळपा खातीर तूप, रुची पुरतें मीठ.

**करपाची तरा–** चण्या दाळ धुवन कुकरांत तीन शिटयो काडून शिजोवन घेवची. दाळींत उदक आसा जाल्यार निस्तावन घेवचें. दाळींत गोड, सोय, वेलचे पिठो घालून पुरण तयार करचें. ह्या पुरणाच्यो ल्हान लाडवा भशेन गुळयो करून दवरच्यो. दुसरे आयदनांत मैदो आनी तांदळाचें पीठ, हळद, मीठ आनी उदक घालून भज्यांक करतात तशी पातळ पिठी तयार करची. पुरणाच्यो केल्ल्यो गुळयो एक एक करून पिठांत बुडोवन तुपांत तळून घेयात.



# आडसराचें पुडींग

**साहित्य–** 1 आडसर,कातली आशिल्लें. 10 ग्राम चायना ग्रास, अर्द लिटर दूद, 1 मिल्क मेड डबो 400 ग्रामांचो.

**करपाची तरा–** दूद तापोवंक घेवचें.चायना ग्रास थोड्या गरम दुदांत वितळावन घेवचें. चायना ग्रास आनी मिल्क मेड घालून दुदाक बरो खतखतो काडचो. रांदनी वयलें सकयल काडून तांतूंत आडसराची कातली बारीक करून घालची. बरोऽ चाळो मारचो. एका आयदनांत हें मिश्रण घालून 1 वर फ्रिजांत दवरचें. उपरांत पुडींग खावपाक तयार.

# ▶ उतरकुवाडें




**संतोष हळर्णकार**

बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401

मो. : 9762641615




## माय 2023 उतरकुवाडें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | | | 3 | | 4 | | 5 |
| | | | | 6 | | | | | |
| | 7 | | 8 | | 9 | 10 | | 11 | |
| 12 | | | 13 | | | | | 14 | |
| 15 | | 16 | | | 17 | | | 18 | |
| | | | | 19 | | | 20 | | |
| 21 | | | | | 22 | | | | 23 |
| | | | 24 | | | | | | |
| | 25 | | | | 26 | | | | |
| 27 | | | | | | | 28 | | |

**आडवे** : 1-मोगाळ,मायेस्त,प्रेमळ. 3-दुखप,उसळप,फोडप. 6 - व्हडलो तुतयो. 7- विद्वान,अभ्यासू,तज्ञ. 9-भाराचें,खूब जड, म्हत्व आशिल्लें. 12 - आंग (मराठी). 13- बारावी रास. 14- खरस मारपाची पिडा. 15- पुर्विल्लो काळ,आदलो काळ, गेल्लो काळ. 17- लोक, मनीसजात. 18- भार, वजन (इंग्लीश). 19-मोठे संख्येन उसळिल्ल्यो उज्याच्यो जिबो. 21 - झुजारी, चार वर्णांतलो दुसरो वर्ण. 22- बळिश्ट, प्रभावशाली, भक्कम. 24- सांवट, छाया. 26- सज्ज, सिद्ध, उत्पातद केल्लें. 27- दसऱ्या पयलीं णव दीस मेग्न चलता तो दुर्गेचो उत्सव. 28- प्रसाद.

**उबे** : 1-खुशमस्करी, हांजी हांजी, लोणी. 2- तराजू, कांटो. [illegible]- काकुळट, दया. 4- कविता,गीत. 5- दुसऱ्याच्या कामाक वापरिल्लो आपलो दुडू. 7 - रांग. जेवंक बसतल्यांची रांग. 8- नामिळनाडू राज्याची मांयभास. 10- तरनाटो, युवक. 11- घोव, [illegible]कार, न्हवरो. 12- बॉडीगार्ड. 16- बंदखण, साखळी, सरपळी. [illegible]- [illegible]गीत, भगभगीत, पेटल्लें. 20- कर्कश आवाज करप, तडतडप, [illegible]. [illegible]- मौनपण, शांतताय, थंडाय. 24- मवतीचें, सवतीलें [illegible]- [illegible]

## आब्रील 2023 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ना | त | | प | स | र | का | र | | स |
| ट | | जे | ल | | का | | त्न | | र |
| क | र | ब | ट | | द | स | म | | पं |
| | क्षा | | ण | व | | वं | | ना | च |
| सं | बं | ध | | | भ | ग | भ | ग | |
| शो | ध | | सं | क | ट | | ग | | सो |
| ध | न | सं | प | दा | | ल | वं | ग | |
| न | | पा | | चि | ल | ख | त | | रा |
| | अ | द | भू | त | | ल | | रं | ग |
| अ | ह | क | | | रा | ख | र | भा | त |

